# वेंचिक
# परसाई






बरोवपी

**हरिशंकर परसाई**

अणकारपी

**प्रभाकर नाडकर्णी**

# वेंचिक परसाई






बरोवपी

**हरिशंकर परसाई**

अणकारपी

**प्रभाकर नाडकर्णी**



**मित्र प्रकाशन,** गोंय

(२००३)

# वेंचिक परसाई

बरोवपी : (स) भौ. हरिशंकर परसाई

अणकारपी: प्रभाकर नाडकर्णी
ई-७, धवलगिरी पार्क हौ. सोसा.
कर्वे नगर, पुणे ४११ ०५२.



उजवाडावपी : सौ. मनुजा भालचंद्र गांवकार
मित्र प्रकाशन
किटोलें, बेतोडें, फोंडा
गोंय : ४०३४०९

प्रकाशन क्रमांक : १७

पयली उजवाडावणी : २००३

अक्षर रचना
आनी छापपी : रॅशनल प्रिन्टर्स
२१६, नारायण पेठ,
न. चिं. केळकर मार्ग,
पुणे ४११ ०३०

मोल : रु. ८०/-



# VENCHIK PARASAYEE

Author : (Late) Shri. Harishankar Parasayee

Translator : Prabhakar Nadkarni
E 7, Dhavalgiri Park, H. Soc.
Karve Nagar, Pune - 411 052





Publisher : Smt. Manuja B. Gaonkar
Mitra Prakashan
Kitolem, Betodem, Phonda,
Goa - 403 409

Publication No. : 17

First Edition : 2003

D.T.P. &
Printing : Rational Printers
216, Narayan Peth,
N. C. Kelkar Marg,
Pune - 411 030

Price : Rs. 80/-

ISBN 81-88202-04-05




# सुर्वेची उतरां

*विशय वळख :* भौ. परसाई आनी तांचे व्यंग लिखाणाविशीं थोडें.

(स. परसाईलीं मूळ हिंदी पुस्तकां, -'ठिठुरता हुआ गणतंत्र' आनी 'कागभगोडा' हातूंत बरयिल्ल्या प्रस्तावनेचो आदार घेवन)

भौ. परसाई आनी तांचे व्यंग बरोवपाची तरा एकमेकाक सामकीं पूरक आसात. ताणी हिंदी गद्य साहित्यांत एक लायक तशीच स्वतंत्र व्हडविकाय मेळोवन दिली. त्याच तरेन सद्याच्या वास्तवांतल्या दरेक घडणुकेक एक नवें आनी सार्थ रूप दिलें. आपणाल्या व्यंग लिखाणांत ताणी पोन्नी रुपकां दिवन तांचीं नवीं नवीं रुपां परगटयल्यात. तांची भास सादी, सरळ, सहज आसुनूय खर धारदार बी आसा. तांतूत तरेकवार विशय, समाजांची अवस्था, मनशा मनशामदलें संबंद आनी घडणुकांविशी केल्ल्यो वर्णनांच्यो तरा अजापाच्यो म्हणयेत.

व्यंग लेखकाली जगाकडेन पळोवपी नदर सामकी बारीकसाणेन नियाळपी आसता. जाल्यारूय भौ. परसाईलें बरोवप खासाकरून रचणुकेचो स्वातंत्र्य मेळ्ळे उपरान्तचें भारतीयांलें जिणें पुरायतरेन धोंगी आनी भ्रश्टाचाराच्या म्हेळान बरबटिल्लें तें भौ. परसाईन आपणाल्या व्यंग लिखाणांतल्यान वाचकांल्या मनाक भावसारखे उकते केल्यात. तांतूत कोणाचेर आरोपनात; तसो दुश्टावो बी ना. श्रीमंती आनी सामंती बुनियादेर तशेंच वर्गवादी प्रवृत्तीचेर ने सामके निश्ठूर जावन घुरी घालतात. मनशाल्या भविश्यांतले बेस बरें आनी भलायकीचें जिणें मेळोवपाखातीर केल्ले तांचे झूज तांच्या व्यंगातल्यान स्पश्ट दिसता, आनी तांचे बरोवपांतलें खाशेलेपण तेच आसा. सामाजिक सुदारणेंत ताणीं दिल्लें योगदान अप्रूप अशें घटिचारांक रीतसर ओवून ताका समाजाच्या विकासाचो कस लावन, वास्तवतेची आनी विज्ञानाची जोड दिवन ते सगळे अतिशय निखटें सत्यतायेन सांगपाचें तांचे धाडस तोखणायेक लायक. तांचे राजनीतिवेलें खासाकरून- 'प्रगतिशील राजनीति' क आस्पावन बरयिल्ले लेख वाचून मन धादोसकाय पावता. त्याच कारणान ते वयल्या पावड्यावेले व्यंगकार आसात. अशा तरेचो कोणाक मान मेळप खुबूच उणो.

आर्विल्ल्या समाजांत आस्पावन राविल्ल्या विसंगती, विशमताय, आनी भ्रश्टाचारान गळयामेरेन बुडिल्ल्या गरीब, सामान्य जिणे जगपी भौसाक सदांकाळ पिडा दिवपी सत्तेची, पैशाची आनी बावळयांच्या बळाची गुरमी चडिल्ल्या चांडाळ लोकांले मुखवटे कडसरावन तांचे खरें रूप दाखोंवक भौ. परसाईन व्यंग साहित्याचो माध्यम म्हूण यशस्वी उपेग केला.

ह्या वेंचिक संग्रहांत प्रामाणिक मनशाली पीडा आनी अरिश्टां वाचूंक मेळटात. आनी त्याचवेळार अशा वायट दशेक कारण जाल्ल्या स्वताक फुडारी म्हणपी लोकांलीय भेट घालून दिल्ल्या. व्यंग बरोवपांतल्यान सामाजिक बदल घडोवन हाडूंक केल्लो तो यत्न. अशा वेळार एक धारदार हत्यार आपणाल्याच रीतिन उपेगाक हाडिल्लो हो एक समर्थ साहित्यकार.

व्यंग लिखाणाची सगळ्यांत व्हड विशेशताय म्हळ्यार वर्तमानाचे आनी ताचे पयलीचे संदर्भाचे भान दवरप. वास्तवांत व्यंगाचे बुनियादी तत्व म्हळ्यार जें मुळांतूच चुकीचे आसा ताचो विरोध करप. चुकीच्या रीत रिवाजाचेर, नीत नेमांचेर, कायदे कानूचेर कांय बदल घडपाचे वेळकाळ प्रमाण गरजेचें आसता. समाजांत पातळिल्ली विशमताय, राजकारणांतली वाकडेपणा, नीतिमूल्यांचो इबाड, फुडाऱ्यांली फटिंगपणा सरकारी कचेरींतली दिरंगाय (लालफीत) हो सगळो व्यंग बरोवपाचो मसालो. पुर्विल्ल्या काळांत जिणेंतली सगळी मोख धर्माचेर निंबून आसताली. आयज तोच राजकारणांत देंवला. तेन्ना मनशाक जल्माक आयिल्ले पसून मरून वचेमेरेन आपणाल्या धर्माचे कर्मकांड पाळप चड गरजेचें आशिल्ले. अशें आसुनूय पुर्विल्ले धर्माचे आनी आयचे राजनीतिचे वरचडपणांत कांयच चड असो फरक दिसना. ताकालागून अशीय एक म्हण तयार जाल्या,- 'राजनीति ही थोडी वेळ चलपी धर्म आसा आनी धर्म हो खूबवेळमेरेन चलपी राजनीति आसा.' हालींचे आमच्या गणतंत्र प्रकारांत वयलेवयर त्या म्हणीक सप्रमाणीत अश्यो जाय त्यो देखी दिसून येतात वा खऱ्यानीच अणभवूंक मेळटात. प्रामाणीक मनशाक भोव कश्टांत जगचे पडटा आनी प्रामाणिकपणा आजकाल निर्बुद्धपणाची वा पिशेपणाची लक्षणा समजतात.

व्यंगकार आपणाल्या लिखाणांतल्यान उपरोधिकपणान वा कुचाळकीन जें कितें सांगतात ताकालागून विशेश तिडक मारली ना जाल्यारूय मन थोडे तरी कासावीस जाल्लेबगर रावना. मनशा भितल्ली गंभीरताय अथवा कडकपणा ह्या व्यंग लिखाणापसून गळून पडटात आनी थंय थोडीशी उचंबळीतपणा वा चळविचळताय उप्रासतात. ही सुरवात कालांतरान बदलत थंय सारासार विचार करपी बुद्धीची वाढ जाता. हालीच्या युगांत खंयच्याय समाजाच्या शक्तीचेर ताबो दवरपी लगाम हो राजनीतित आसता हे तो व्यंगकार जाणा. आयज समाजाक पुरायतरेन इबाडपी व्हाळ विधायकांल्या विसव-घरांपसून ते संसदभवन आनी मंत्र्याल्या घरांतल्यानूच उगम पावतात. देखून व्यंगकार भोवन भोवन राजनीतिच्या मुळाव्या तत्वांचेरूच सामके धपके घालीत आसतात. सदा सत्तेंत रावतल्यांक व्यंग इल्लेय आवडना. ताका ते केन्नाच येवकार दिनात. कारण व्यंग केल्ल्यान मनाक थोडें तरी तोंपता आनी तेच तांका नाका जाल्ले आसता. व्यंगकारांक भ्रश्टाचारी नीति अनीतीचे चाड नाशिल्ले, फटींग, आत्मकेंद्रित सुवार्थी लोकांक सुदारूंक वा बदलपाक शक्य ना जाले तरीय ते निर्शेनात. तांचे फाटबळ सदांच नीतिमान आनी प्रामाणीक तशेंच वायट रीतरिवाजां विरुद्ध झुजपी लोकांफाटल्यान

समर्थपणान उबें आसता. अशेतरेन व्यंगाची शक्ती खरेंपणान वागपी, भलायकीचें आनी जागरूक समाजाच्या निर्मणीक मोलादीक हातभार लायता.

खरें म्हळ्यार कायदो आनी न्यायाधीश दुश्टलोकांक सजा दिवपाक आनी गिरेस्त लोकांक वायट मार्गापासून पयस दवरूंक यत्न करीत आसता. जाल्यार आमच्या देशांतल्या कायदेकानूंत, नेमांत अशो काय पळवाटो दवरल्यात तांचो फायदो घेवन समाजांतले वायट प्रवृत्तीचे लोक आनी राजकारणी सगळे तरेचे वायट घडोवन आपणू स्वता मात चालाकीन कूस मारून वतात. अशा पळवाटांचेर ध्यान दिवपाखातीरुच व्यंग भाशेची गरज भासता.

हुशार मनीस आपणाली सत्ता आनी मत्ता हांच्या आदारान व्हडविकायेचो आव हाडून आपणाक जाय तशें भौसाक बागोवन दवरता. तांची प्रामाणीक आनी बाबडेपणाचोय गैरफायदो घेवन आपणाल्या जिणेंत उदरगत सादता. समाजाविशी वेगळी वागणूक आनी स्वताखातीर वेगळे नीतनेम तयार करुन घेवप ही ताची मोख आसता. अशा वेळार व्यंगकार तांची व्यंगातल्यान सतत खबर घेता ते तांका सामके ताळ्यार हाडूंक. देखीक,- जसो शेतकामती एकादल्या कावळ्याक जीवे मारून ताका उंच बडयेच्या नेमकार उरफाटो हुमकळावन ती बडी आपणाल्या शेतांत मदेवर्ती सुवातेर उबी करता. नेन्ना ताकालागून पिकिल्ले धान इबाडपी हेर सवणी भियेवन रावतात आनी शेतभाताचे लुकसान शेकातळां रावता.

*म्हज्या मनांतलें :* ह्या पुस्तकाच्या मांडावळीत निर्देश केल्ल्याप्रमाण भौ. परसाईल्या दोनूच पुस्तकांतल्यान वेंचिक ललित लेखांचे अणकार करून हे पुस्तक बांदला. पंदरा सोळा वर्सां पयली बरयिल्ले ह्या वेंचिक बरोवपांतले व्यंग आमच्या महान देशांतल्या खंयच्याय भागांत आजूय लागू पडटा. इतल्या खातीरूच तांची वेंचणूक केली. व्यंग हे चड करून तात्कालिक म्हळ्यार त्या त्या वेळेच्या व्यक्ती आनी घडणुके संदर्भाक धरून आसतात. दिसाळें जशें दुसऱ्या दिसा निरुपयोगी (रद्दी) जाता तेचतरेन व्यंगांतली गमजाबी तीन-चार दिसानी शिळें जाता आनी उपरान्त काळसंदर्भ विरयत जावन शेणून वता. जाल्यारूय कांय कांय नालायक सरकार, भ्रश्ट अधिकारी वा राजकारणी वा फटकिरो समाजसेवक हाच्या पाडकरणीन गळसणीक लागिल्ल्या आमच्या आयच्या गणतंत्र देशांत जाय तितले विशय वर्सांवर्सांनी व्यंग करूंक मेळटात. फकत ते बारीक साणेन नियाळटलो आनी सामान्य लोकांमेरेन ते आपणाल्या सहजतायेन, सरळ, सोप्या भाशेंत पावयतलो ताठमानेचो मात जाय.

स. जोशीले व्यंग लिखाणा इतलेंच तोडीक तोड आनी बेसबरें कुचिइटेन उपाट भरिल्ले बाब पसाईले लेख म्हज्या वाचनांत जेन्ना आयले तेन्नाच तांनूतलें वेंचीक लेख कोंकणी वाचकांक मेळोवन दिवपाचें धारायलें. ताका आता दोनेक वर्सां जाल्ली आसपाक फाव. विशय तरेकवार आसुनूय दोशांयली बरोवपाची तरा आनी सांगपाची मोख एकूच दिसली आनी ती म्हळ्यार सगळें कितें व्यंशोकतीन, अतिशयोक्तीन, प्रसंगाप्रमाण विनोद करीत अशा सगळ्या खासा प्रकारान उकते करप. हांव एक बुदवंत ह्या म्हज्या अणकारीत पुस्तकाक

मेळिल्ल्या यशापासून उमेद घेवन तशाच तरेचें आनीक पुस्तक छापून उजवाडाक हाडपाची तळमळ केन्नाच्यान मनाक लागून राविल्ली. बाब भालचंद्र गांवकार हाणी फुडाकार घेतिल्ल्यान हें एक आनंददायी पुस्तक तुमच्या हातांत दिवंक पावलो.

ह्या पुस्तकाच्या मांडावळीत दाखयिल्ल्या दरेक लळित (व्यंग) लेख हो मूळ हिंदीतल्या त्या त्या लेखाचो जिस्ताजिस्त, न आठयतां वा रूप बदलतां निरायेन केल्लो अणकार आसा. सगळेंच पुस्तक आसा तशें अणकार केल्लो जाल्यार तांतूतलें खूबशें लेख हे काळ आनी व्यक्ती हे संदर्भ हीण जाल्ल्यान ते आयज वाचतल्यांक रसहीण आनी घडये वाज हाडपी जावंक शकता आशिल्ले देखून तांका कडसरावन दवरचे पडले.

*रीण निर्देश :* सर्गेस्त हरिशंकर परसाई हांचे लागीचे एक नातेसंबंदीक आनी तांच्या पुस्तकांचे सगळे हक्क सुवादीन आशिल्ले भौ. प्रकाशचंद्र दुबे हाणीं कांयच मोबदलो घेनासतना मांडावळीत निर्देश केल्ल्या दोन पुस्तकां पुरायतरेन वा तांतूतले वेंचिक लेख कोंकणीत अणकारीत करून ताचें पुस्तक छापून प्रकाशीत करूंक मान्यताय दिल्ल्यान हें पुस्तक कोंकणी रसिकांच्या हातांत दवरपाचे शक्य जालें. देखून हांव तांचो सदाच ऋणी.

पुण्याचे मे. रेशनल प्रिंटर्स हाणी हे पुस्तक बरेतरेन अक्षर जुळोवणी करून आनी मुखपृश्ट सोबीत रीतिन तयार करून थोड्या वेळा भितर हें पुस्तक छापून दिलें. त्या खातीर तांचे भोव उपकार मानतां.

बाब भालचंद्र गांवकार हाणी म्हज्या विनंतीक पाळो दिवन हांवे तयार केल्ली हातबरपावळ तपासून उत्तम रीतिन संस्कारीत केली. शिवाय विस्वासाचो आदार दिवन हें पुस्तक तांच्या 'मित्र प्रकाशना' वरवी प्रकाशीत करपाची जापसालदारकी आंगार घेतली. ताचेसावन तांचे उपकार मानचे तितले थोडेंच.

निमाणें हें पुस्तक बरेतरेन छापून उजवाडक येवंक पावले ते परममेश्वराल्या कृपेन. ताचे उपकार अनंत.

भौ. परसाईलें कांय खुसखुशीत व्यंग लेख वाचतना म्हाका खोस भोगताली. तांतूतल्यो कांय गजाली वा प्रसंग हांवेय म्हज्या जिणेंन पळयिल्ली आनी अणभविल्ली लेगीत. त्यो रचना कोकणीत अणकार करतना जी खुशी म्हज्या मनाक भावली ती अप्रूप आसली. हांतुंतलो विचारांचो, कल्पनांचो, येवजणीचो आनी मांडणीचो जो जो उत्तम भाग आसा तो मूळ बरोवप्यालो आनी अणकारीत भाशेंत कांय उणविकाय दिसल्यार ती म्हजी.

ही साहित्य निर्मणी कोंकणी वाचकांक आवडटली अशी आस्त बाळगितां.

प्रभाकर नाडकर्णी



# प्रकाशकाचे वतीन

'वेंचिक परसाई' हें श्री. प्रभाकर नाडकर्णी हाणीं मूळ हिंदीतल्यांन अणकारून कोंकणीत हाडिल्लें पुस्तक उजवाडाक हाडटाना आमकां मनां - काळजांत सावन खुशालकाय भोगता. आमगेल्या प्रकाशनाचेवतीन उजवाडाक येवपी श्री. प्रभाकर नाडकर्णी हांगेलें हें तिसरें पुस्तक जाल्यार आमगेल्या प्रकाशनाचें सतरावें पुस्तक आसा. हाचे पयलीं तांगेलीं सगलीं मेळून पांच पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत तातूंतलीं तीन पुस्तकां अणकारीत आसात.

बरो अणकार करप ही एक कला. ती सगल्यांक जमताच अशें ना. हाकाच लागून चडशे लोक अणकार करपाचे भानगडीक पडनांत. एक म्हळ्यार अणकार करप्याक दोनूय भासो बरे तरेन कळपाक जाय. त्या भायर साहित्यकृतीविशीं गरजेची जाणविकाय ताका आसपाक जाय. कांय जाणांक जायत्यो भासो कळटात पूण साहित्याचें सौंदर्य कळटाच अशें ना. असल्या मनशाकडेन बरो अणकार जावप शक्य ना. बरो अणकार करपाक जायते कश्ट घेवचे पडटात. त्या खातीर अणकार करपी हो मूळ बरोवप्याइतलोच सर्जनशील आसचो पडटा. बरें साहित्य संवसारांतल्या त्रिंगड विंगड भासो उलोवपी लोकांमेरेन पावोवचे खातीर बरो अणकार करपाची गरज आसता.

अणकार बरो जातलो जाल्यार अणकार करतल्यान जायत्यो गजाली मतींत दवरच्यो पडटात. एक म्हळ्यार मूळ साहित्यकृतीची धांटणी आनी कथानक अणकारप्यान जशाक तश्शें अळंग रितीन दुसरे भाशेंत हाडपाक जाय. तशें करपाक तो सुफळ जालो जाल्यार अर्दो अणकार ताच्या पदरांत पडिल्लेभशेन जाता. जायते फावट सांस्कृतिक संदर्भाचे आडखळीक अणकारप्याक तोंड दिवचें पडटा. कांय उतरांक सांस्कृतीक संदर्भ आसता. त्या उतरांक अणकाराचे भाशेंत फावोशें उतर मेळटाच अशें ना. कांय कांय प्रतिमा लेगीत जाय तश्यो अणकारपाक मेळनांत. अशा अणकार करप्याक सरयेवयलो नाच करचो पडटा. ताचो मागीर मात्सो लेगीत तोल गेलो जाल्यार अणकाराचे तीन-तेरा जांव येतात.

दर एके भाशेची मांडावळ वेगळी आसता. उतरां वापरून वाक्यांची रचणूक करता आसताना लेगीत विंगड-विंगड भासांमदीं जायतीं वेगळेपणां आसतात. अणकारप्याच्या भाशेंत सहजताय आसपाक जाय. ही सहजताय येतली जाल्यार अणकारप्याक भासांचें खोल गिन्यान आसप गरजेचें आसता. अणकार करता आसताना कठीन उतरांखातीर शब्दकोशाचोय व्हडलोसो उपेग जांयना. कित्याकतर साहित्याची भास ही प्रतिकांची भास आसता.

जायते फावट साहित्यांत भाशेची गांवगिरी तरा, प्रादेशीक तरा वा एकाद्रया विशिश्ट वर्गाची बोली अश्यो एकेच भाशेंत कितल्योश्योच विशेशतायो आसतात. ह्यो विशेशंतायो अणकारांत तिगोंवक मेळटाच अशें ना. असल्या भाशेचें सौंदर्य अणकारांत ना जावन वचपाचो भंय आसता.

अणकार ही एक निर्मिती प्रक्रियाच आसता. अणकार करता आसताना अणकारप्यान मूळ साहित्यकृती आत्मसात करून ती परत वेगळे भाशेंत सांगपाची आसता. ती सांगता आसताना तातूंतल्या दर एका उतराक, दर एके वाक्याचे रचणुकेक पर्याय आसूंक शकतात. साहित्यकृतीच्या सौंदर्याक धक्को लागूंक दीं नासताना भितल्लें किदें काडून उडोवपाचें, किदें दवरपाचें, किदें बदलपाचें तें अणकारप्याक कळटा. कितल्याश्याच आडखळींक तोंड दिवन अणकारप्याक अणकार करचो पडटा. जायते फावट स्वतंत्र साहित्यकृतीची निर्मिती करप सोपें आसता. पूण अणकार तितलो सोपो नासता. अणकारांत मूळ साहित्यकृतीचें सौंदर्य जशाक तशें उरताच अशें ना. जेन्ना आमीं एके शिसलेंतलो चेर दुसरे शिसलेंत वोत्तात तेन्ना ताचो इल्लो तरी परमळ उडून गेल्याबगर रावना. अणकाराचेंय तशेंच आसता.

हालींच्या तेंपार कोंकणीत व्हड प्रमाणांत अणकारीत साहित्य तयार जावपाक लागलां. तातूंत श्री. प्रभाकरबाब नाडकर्णी हांचें नांव मुखेलपणान घेवचें पडटा. हेर भारतीय भासांतलें साहित्य कोंकणीतल्यांन अणकारीत जावपाची खूप गरज आसा. पूण कोंकणी भाशेंतल्यांन तें फावो तितल्या प्रमाणांत जांयना. श्री. प्रभाकरबाब नाडकर्णी हाणीं हिंदीतलें जायतें साहित्य कोंकणी भाशेंत हाडून कोंकणी साहित्याक जायतो हातभार लायला. देखून ते तोखणायेक पात्र थारतात.

प्रभाकरबाबांक कोंकणी भाशेचो मोग खूब. देखुनूच पुण्यांत रावन लेगीत तांगेल्या हातांतल्यांन कोंकणीचीच सेवा घडटा. अशीच कोंकणी भाशेची सेवा आनी चडांत चड अणकाराचो वावर तांच्या हातांतल्यान घडून अशी देवालागीं प्रार्थना.

किटोलें - बेतोडें

फोंडें - गोंय

प्रकाशक



# मांडावळ

I भौ. परसाईले मूळ हिंदी 'काग भगोडा' ह्या पुस्तकांतले-



II भौ. परसाईले मूळ हिंदी 'ठिठुरता हुआ गणतंत्र' ह्या पुस्तकांतले-

# व्हड हावेसाचो सायब

देशाच्या दुर्दशेचेर भाशण दिवंक आमकां चार जणांक त्या संस्थेन आफयिल्ले. विशय आशिल्लो, ''देशाची वर्तमान दशा''. जाल्यार भाशण करतले आनी आयकतले अशे जमिल्ल्या सगळ्यांक 'वर्तमान दशा' म्हळ्यार सामकी इबाडिल्ली परिस्थिती हें ते खात्रीन जाणा आशिल्ले.

आमी सुवातेर पावले उपरान्त धा मिनिटां- ''शेक हॅंड' करपातूच वेळ घालयलो-'वेरी ग्लॅड टु मीट यू' म्हणत रावले. ताका उलटी जापूय मेळटाली-'द प्लेजर इज माईन.' (तुमका मेळन म्हाका खोस भोगली-सुख ते म्हजेच हय काय न्ही). देशाची दुर्दशा आयकूंक लोक कितले बरे बरे भेस आंगार चडोवन आयिल्ले. म्हजो एक इश्ट त्या संस्थेचो वांगडी आसलो. ताणेय खासा नमळायेन म्हळें,- ''ग्लॅड टु मीट यू'- इट्स ॲ प्लेअर एण्ड प्रिविलेज.'' हांवे ताका मातशें बगलेक व्हरून स्पश्टूच विचाल्लें,- ''भायर भेट जाल्ल्या वेळार तूं अशेतरेचे काय उलयना. आतांच तुका कितें जाला काय म्हणटा?''

ताणेय जाप दिली,- ''माचयेवेले रामलीळे भायर बी रावण 'सीता हरण' करता काय कितें?''

जमिल्ल्यांत एकट्यान म्हजी नदर अचकीत ओडून घेतली. ताच्या भाग्यांत ह्या गजलींत मुखेल पात्र जावपाचें आसलें. सगळ्यात उठून दिसपी भेस ताचोच आसलो. मुमुरखे हांसपाचों अभ्यास हेरांपरस ताणेच चड केला अशें दिसताले. अशा हांसपांत खरे पणाचो एक धोको आसता. आपणाल्या अर्द्यार हाडिल्ल्या मिशांतल्यान निमाणेचो एक केस धरून तो निखळावपाक सारखो यत्न करतालो. सामको कासावीस जाल्लो असो दिसतालो, जशें कितें तो केस ताच्या ओठांतल्यान तोंडांत भितर रिगपाक पळेतालो.

आमी सगळ्यानी नेटान आमच्या देशाची दुखदिणी दशेची वर्णना केली. जशी जशी ताची खोच लोकांच्या ध्यानांत आयली म्हणटकीर ते ताळ्यो वाजयताले. तांचो कार्यक्रम फळादीक जातालो. जाल्यार देशाची वायट अवस्ता जर मातशीच उणी आसतासली तर हो कार्यक्रम इतलो येसवंत जायनासलो. हांवे चिंतलें,- ''म्हज्या अभागी देशा, तू कितलो

विचित्र आनी त्याचवेळार कितलो महान. काय लोकांलो कार्यक्रम सफळ जावपा खातीर स्वतालीच दुर्दशा अशी करून घेत आसा.

तशें ते सगळे आनंदभरीत जाल्ले. पूण धादोसकाय जावपाच्यो तराय वेगळ्यो आसल्यो ते सामान्य मनशावरी खूश नाशिल्ले. चड आनंदीय जाल्यात अशें दाखोवप अन्नाडिपणाचें आसलें आनी अशावेळार नाखूश जाला अशें दाखोवपबी असभ्यपणाचें जातासलें. आमच्य सारख्यालें उमेदीचें हांसप दोन वा केन्नाकेन्ना अडेच दातबी दाखयल्यार पुरेशें जाता. मुख्यमंत्री आयिल्ल्यावेळार तेंच उमेदीचे हांसप चार दांत लायकीचें जाता. जमिल्यांतले बरेच जण दोन वा अडीच दातांचों हांसो दाखयत, हात मेळयत म्हणटासले,- ''इट वॉज वंडरफुल ! मोस्ट इंटरेस्टिंग.'' (खरेंच अपरूप आनी मनभुलायणो कार्यक्रम जालो)

तो मनीस मिश्यावेलो केस ओडीत मुखार आयलो. ताणे आमचें चौगालेय हात हातात घेवन म्हळें,- 'मोस्ट इंटरेस्टिंग ! शॉर्ट एंड स्वीट (लहानसोच आनी मनभुलायणो कार्यक्रम जालो)

लोकानी आपले भीतर उलयतनाबी एकमेकांकडेन कबुली दिली,- ''कार्यक्रम बेस बरोजालो. जेवणाक बशिल्ले तेन्नाबी देशाचीच भासाभास चलताली जमिल्यामदले कांयजाण बरेच भावूक जाल्ले. एकट्यान म्हळें, ''रीअली अवर कंट्री इज गोईंग टु डॉग्ज (देश खरोच नश्ट पावत आसा.) दुसऱ्यान म्हळें,- आय से वुई आर दि मोस्ट फॉलन पीपल.'' (आमी खुबूच पाड पडिल्ले लोक आसात). तिसरो मदेच उलयलो,- ''रिअली दि होल कंट्री इज स्टार्विंग'' (सगळो देश भुके कंगाल जाला)

म्हाका पयले खेपेक ध्यानांत आयले तें म्हळ्यार तळिल्ली मासळी आनी सालादा सांगातान देशाची 'दुर्दशा' इतली सुवादिश्ट आसता. रवानगी वेळार ताणें मुजरत सांगलें,- ''इट वॉज वंडरफुल ! मोस्ट इंटरेस्टिंग !!''

तो मनीस अजुनूय मिशावेल्या केसाक लागून कुवाड्यांत पडिल्लो अशें दिसलें. घडये वीस पंचवीस वर्सांपसून तो केस ओडून काडपाच्या यत्नातूच घुस्पून रावला काय कितें? तितल्याच कश्टांत एकट्यानीच तो न्हयंक पाट काडूंक शकता आसलो. आमका संबोदून ताणें म्हणें,- ''मोस्ट इंटरेस्टिंग ! शॉर्ट एण्ड स्वीट !!

फुडाराक केन्नाय आमी हांगासर खंयच्याय 'दुख्ख परगटावपी' सभेंत हजर रावतले आनी खोंचीक भाशण करतले. तेन्नाय ह्या लोकांतल्यान कोणी म्हणटलो, ''मोस्ट इंटरेस्टिंग ! शॉर्ट एण्ड स्वीट !!

अदमासान एक म्हयन्या उपरान्त तोच मनीस पर्थून म्हाका कॉफी हाउसांत मेळ्ळो. मिशीवयलो केस निग्वळावन काडूक ताका अजून जमूक नासलें. यत्न सतत चालूच दवरिल्ले. चड उमळशीक दाखयत ताणे म्हजी भेट घेतली, आनी म्हळें, ''आकाशवाणीर पयर तुमची

कविता आयकली. बेस बरी आसली.

हावे गंभीर जावन म्हळें,- ''ती एक काणी आसली''

ताणे म्हळें, ''काणी? व्वा, व्वा, म्हळ्यार बेसबरी आसूंक फाव.'' शॉर्ट एण्ड स्वीट !

हांगाथंयची फकाणा झडल्यो उपरान्त जेन्ना ताचो 'स्टॉक' (साठो) सोपत आयलो तेन्ना ताणे म्हळें, ''सांग आनी कसल्यो गजाली घडल्यात?''

म्हजोय फकाणांचो साठो सोंपला म्हूण परगटावपाक हांवे म्हळें, ''आता तुमीच सांगात.'' ताणे सुरूवात केली, ''कितें सांगू सायबा, देशाची परिस्थिती ह्या वेळार खुबूच नाजूक (दुबळी) जाल्या.''

आमच्या देशाच्या सद्याच्या वायट दशेर उलोवन ताणे म्हाका अर्दोअदीक मारूनूच उडयला. हांव सगळें सुस्थितींत आसाशें समजतालो जाल्यार ताका मात देशाच्या इबाडिल्या अवस्थेची जाणीव आसली. हांव भियेलो. आमच्या देशाच्या वायट परिस्थितीविशी जो कोण खंतीन उलयता तो भेष्टावणीचो 'चिकटू' (दुसऱ्याक दसपी असो) आसता. जगाचे वायट परिस्थितीविशी सांगतले अजून चड भेश्टावणीचे आसतात. कांय वर्सांपयली फकत व्हियतनामविशी बातम्यो सांगपी एका मनशाली भेट जाल्ली. तो आतां शिवाय आपणाविशी विशय सोडून हेर गजाली सांगना.

हावें थारायलें. एक म्हळ्यार हांवे आतां हाका कडसरावचें; आनी दुसरें म्हळ्यार ताका गंभीर जावंक दिवपाचें ना. सगळो विशय हांसपार-मस्करीर व्हरपाचें. जाल्यार कोणाक कशें खबर तो अकस्मात सामाजिक जालो. जेन्ना केन्ना मेळटालो ताचें एकूच सांगणें आसतालें, सद्यांक आमच्या देशाची परिस्थिती खुबूच इबाडल्या.

आतां मात हें खूप जालें. हावें जगाच्या नकाशांचीं पानां उकती केलीं आनी ताचो देश खंय आसा म्हूण सोद घेतलो. खंयच दिश्टीक पडलो ना. म्हजो भूगोलाचो अभ्यास फुकट गेलो. निमाणे हाचो देश आसा तरी खंय? खंयच्या देशाविशी ताचें चितप आसलें? घर आनी 'क्लब' हातुतूच जाचो संवसार आस्पावला ताचो देश कितें न्हाणी घरांत आसतलो काय म्हणटा? आमचो सगल्यांलो देश जर ताचोय आसा तेन्ना ह्या देशार कसलें नवें संकश्ट येवन पडलां? बाजारांत कितें विदेशी सोरो मेळना काय हाचो रांदपी नोकरी सोडून गेला?

हाचेपयली तो एके सरकारी संस्थेत 'मॅनेजर' आसलो. दोन तीन वर्सांपयली ताका नोकरेंतल्यान 'कम्पल्सरी रिटायरमेंट' - (सक्तीची निवृत्ती) मेळली. व्हड भ्रश्टाचारीक मर्यादेन कडसरावन दवरपाक नियमाप्रमाण केल्या वावराक 'कंपल्सरी रिटायरमेंट' अशें म्हणटात. कचेरीतलो शिपाय वा कारकुनाक भ्रश्टाचार करतना धरल्यार ताका 'डिसमिस' म्हळ्यार नोकरेंतल्यान काडून उडयतात. तांका बंदखणीनूय धाडूंक शकतात कारण ताणे फकत पांच-

धा रूपयेच लांच घेतिल्ली आसता. जाल्यार व्हड अधिकारी जेन्ना पांच-धा लाखाची लांच घेता वा अफरातफर करता तेन्ना सरकाराक ताचेर मुजरत ध्यान दिवचें पडटा. तें सरकार ताका हात जोडून सांगता,- ''बाबारे, आतां मेरेन तुवें पयशे दाबिल्ले अमाप जाले; आतां पुरो कर आनी उरिल्ली पिराय आरामांत घालय, तेच बऱ्याक पडटलें.'' तो सरकाराकडेन दयेची भीक मागता- 'कम्पल्सरी रिटायरमेंट घेता आनी बाकी जिणें मान मर्यादेन आनी मजेंत घालयता. शिपायान बी लाखांत पयशे केल्यार ताकाय नोकरेवेल्यान 'डिसमिस' करचेनात. जाल्यार ताका मानान 'कंपलसरी रिटायरमेंट' घेवंक सांगतले.

हो मनीस बेसबरो आनी भोवमान जिणें जगतालो-बंगलो, कार, आनी बेहिशेबी पयसो आडको जमयिल्लो. ताचें नाद, छंद, बरेंच आसलें. जाल्यार हाली ह्या देशाविशी ताका चिंता लागून राविल्ली. देशाविशी चड आवड आसपबी वायट आसता. ती एकवेळ दसली म्हणटकीर ती सुटून सुटना. तो जायत्या लोकांमदें मिरयता आनी सगळ्यांकडेन देशाचे नाजूक-दुबुळेकायेचे अवस्तेविशी सांगत आसता अशें म्हज्या कानार आयिल्लें. जे ताका वळखताले तांच्या म्हणण्याप्रमाण एक तर ताची तकली फिरल्या वा देशाक खरेंच वायट दीस आयल्यात.

अकस्मात एके दिसा तो म्हज्या घरां पावलो. कारींतल्यान देंवलो तेन्ना हांव ताका वळखलोच ना. तो सामको बदलिल्लो. कोट, पातलूण, टाय, हो पयलींचो पोशाक सोडून ताणे सादा वस्त्रां आंगार चडयिल्लीं. म्हळ्यार पायजमा, कुडतो आनी वयर जाकीट घाल्लें.

हांवे विचाल्लें, ''आरे बाबा, हें कशें कितें घडलें ?''

मातशें उडत्या भाशेंत ताणें जाप दिली, ''हांव आतां पुराय बदलला. सामको देशवासी जाला.''

१५ ऑगस्त १९४७ दिसा अशेंच सामूहिक रूपांत घडिल्लें. तिरंगो जसो वयर चडलो तेन्ना कांय लोकानी लांब कालसांव सकयल देंवयलें आनी त्या जागेर धोतर न्हेसले. वीस वर्सां उपरान्त पर्थून दुसरे खेपेक ही पतलून कडसरायली गेली. 'राष्ट्रवादी'ची फॅशन अजून गेलीना म्हणपाचे.

ताणे सांगलें, ''देशाक बदलपाचे गरजेचें जाला !''

हांवे म्हळें, ''कसलो बदल ? आमी वयलो पोशाक बदलतात तशें ?''

तो गंभीर जालो, म्हळें, ''फकाणां सोडून दी. देशाची परिस्थिती सद्यांक नाजूक आसा.''

हांवे म्हळें, ''ते म्हाका दिसता. ती अजून इबाडिल्ली जाल्यार आमी नागडे रावपाचे काय म्हणटा ?''

ताणे म्हळें, ''सदाच फाकाणां करीत रावपाची तुमची संवय म्हाका पसंत ना. हांव एक म्हत्वाच्या विशया संबंदीत उलोवंक आयला.''

हांवे म्हळें, ''एक खेप निटायेन सांगात म्हळ्यार जालें. तुमच्या मनांत आसा तरी कितें ते तर कळूं दीं.''

ताणे सांगलें, ''अशें पळेयात. देशाची.......''

ताचें उलोवणें हांवे मदेंच आडायले. म्हळें, ''आतां मात देशाविशी कांयच उलोवनाकात. तुमचे खासा काम कितें तें सांगात.''

ताणे सांगले, ''हांवे संसदेच्या वेंचणूकेक उबो रावपाचे नित्शीत केलां.''

फाटल्या दोनतीन म्हयन्यापसून देशाची परिस्थिती कित्याक नाजूक जाल्या ते आतां म्हज्या ध्यानांत आयलें. हांवे निमगिलें, ''तुमी कित्याक अशें थारायलें...?''

ताणे सांगलें, ''देशांत बदल घडोवन हाडूंक जाय. तो आमचेकडसून कांय अपेक्षा करता. आमी बी भारतमातेचीं भुरगीं आसात.''

नकळत म्हज्या तोंडातल्यान उतरां भायर सरली, ''हे म्हाका खबरूच नासलें.''

तो नवल पावलो, ताणे म्हळें, ''मस्करी नाका म्हज्या भावा, हाव खरेंच गंभीरपणान सांगता, ''आतां म्हाका सामके 'पब्लिक लायफांत' म्हळ्यार भौशीक जिणे येवपाचें आसा.''

हांवे सुलूस दिली, ''पूण तुमी सामके उलटे काम करीत आसात. दरेक जाण आदी 'पब्लीक लायफांत' येतात आनी उपरान्त वेचणुकेंक उबे रावतात. तुमी पयले वेंचणुकेक उबे रावतले आनी उपरान्त भौशीक जिणेक आपणायतले.''

ताचेकडेन ताचेर जाप तयार आसली ताणे म्हळें, ''आयज देश चड ताकतिकेत आसा.''

म्हाका व्हड प्रस्न पडिल्लो. हाणे अकस्मात अशी कशी थारावणी केली. विचारान्ती हांवें कल्पना केली घडये तशेंच घडिल्लें आसूंक जाय-

एका दनपारा जेवणावेळार ताचे घरकान्ने सांगातान भासाभास घडिल्ली आसत. घरकान्नीन सांगिल्लें आसूंक जाय,- ''आमचेकड़ेन बंगलो आसा, मोटारगाडी आसा, दागदागिनेबी आसात. आतां चड मोलादीक वस्तु घरा घेवन येयात.''

हाणे विचाल्लें आसत,-''कितें घेवन येवूं?''

घरकान्नीन सांगलें आसत,- ''अशी एक वस्तू, जाकालागून मानरेस्पेद वाडटलो; पयशाचो हुसको ना.''

हाणे चिंतून सांगलें आसत,- ''बरें, ह्या वेळार 'लोकसभा'च घरां घेवन येता.''

घरकान्नीन उमेदीन म्हळ्ळें आसत,- ''हय, मुजरत घेवन येयात. आमी ती 'फ्रिजांत दवरूंया. चोप्रा सायबाच्या बायलेली बरी खोड मोडटली. हांव तिका सांगीन,- ''तिच्या घोवाक सांगून विधानसभेक आफोवन घेयात. कशें? कितल्याक मेळटली लोकसभा?

हाणे सांगलें आसूक जाय, ''घेवपाचेंच आसा म्हणटकीर पयशाचो कित्याक हिशेब लावचो? फांटी सवायेंत मेळटालें सद्याक मातशें म्हारग जालां.''

घरकान्नीन सांगच्याक फाव, ''कशेंय मेळूंदी, पूण मुजरत घेवन येयात.''

ताचे उपरान्तूच हाका आपणाल्या देशाची आनी ताच्या नाजूक परिस्थितीविशी जाणीव जाल्ली आसूक फाव.

हांवे ताका समजायलें, ''तुमचे कडसून भौसाली कसलीच सेवा घडली ना. साबारजाण तुमका वळखनात. ताकालागून तुमी यशाची उमेद कशी काय बाळगितात?''

तो म्हजेपरस चड समजून, उमजून आसलो, ताणे सांगले, ''तें सगळें म्हाका खबर आसा, आमच्या देशांत वेंचणुको म्हळ्यार नाटकां आसतात. आमचो देश अन्नाडी लोकांचो भरणो. खरें विचाल्यार आमी 'प्रजातंत्रा'क लायक नात. वोट पदरांत पाडून घेवपाचे तरेकतरा आसात. सगळी तयारी करून दवरल्यात,'' निमाणेचे वाक्य उलयतना ताणे एक दोळो मोडून म्हाका शिटकावणी दिली.

हांवें दुबाव दाखयलो, म्हळें, ''जाल्यार जैत मेळूंक अदमासान दोन लाख वोट जाय.''

रोखडेच ताणे म्हायती दिली, ''व्हय, व्हय तें सगळें सविस्तर सांगता, अशें पळय, हो विभाग स लाखाचो. हातूंत ना म्हळ्यार चार लाखांचे मतदान जातलें. तांतूतलें पन्नासेक हजार मतदार भियेत भियेत मतदान केंद्रांत घुसतले. आनी भयान कांचवेल्ले अशें जावन मेळत थंय शिक्को मारतले. हे लोक दर एक कचेरीक पोलीस कचेरी समजतात- 'अवर्स इज अे बॅकवर्ड कन्ट्री - आमचो देश मागासलेलो. देखून तीस हजार वोट चुकून म्हज्याच निशाणीचेर पडटले. आतां मुखार कशें घडटलें तें सांगता.....

हांवें मदेंच ताका थांबयले, ''कांयच सांग नाकात. तुमी खरेंच प्रजातंत्राची खुबी जाणून घेतल्या. भया सावटांत घडपी मतदानाचेर जो भरवसो दवरता ताका यश खात्रीन साथ दिता.''

तो खूश जालो. आनी ध्यान दिवन मिश्यावयलो केस ताणून काडपाच्या यत्नांत कांय वेळ गुल्ल जालो. ते काम करतानाच ताणे म्हळें, ''सांग आतां जायतशी सगळी तयारी जाली काय ना? फकत प्रचार मोहिमेची अर्दी जापसालदारकी तुमी आंगार घेयात कितें?''

जापसालदारकी हांवे घेतली खरी पूण तशें करूंक जमले ना. घडलें तें वेगळेंच. ताका प्रचार-पत्रिकेंत छापपाचें आसलें तें अशें- 'जनतेंत नांवाजिल्लो सेवक. पूण म्हजेकडसून

आपशीच बरोबप घडले आनी ते म्हळ्यार,- ''जनतेंत नांवाजिल्लो भ्रश्टाचारी.'' घडिल्ली चूक हांवे ताका सांगलीचना. आनी मुखार प्रचार वावरापसून हांव पयस रावलो.

ताणे झूज दिली पूण ताचें डिपोजिट जप्त जाल्लें. जेन्ना तो मेळ्ळो हांवे विचाल्लें, ''आरे म्हज्या भावा, हे अशें कशें घडलें? तुजो हिशेब सामको भरवशा लायक आसलो.

ताणे सांगले, ''भौसान धोको दिलो.''

हांवें विचाल्लें, ''म्हळ्यार ह्यावेळा भौस भियेलोना म्हणपाचें.''

ताणे सांगलें, ''व्हय, तशेंच दिसता. ते दिसा तुवें क्लबांत सांगिल्ले तेंच बरोबर आसा अशें दिसता, - 'वुय आर मोस्ट फॉलन पीपल'- (आमी खरेंच नतद्दश्ट लोक आसात);- 'दी कंट्री इज गोईंग टु डॉग्स' (देश खरोच नश्ट पावत आसा) आमी समजतात ताचे परस . जनता भोवनश्टी आसा आनी त्या तिडके सरशी तो मिश्यावेलो केस ओडूंक लागलो.



# उपोशणकार

वर्स १९६० तली गजाल. एका शाराच्या नगरपालिकेचो अध्यक्ष ते वेळा गोवर्धनबाब आसलो. ताणे आपणाल्या समाजसेवेविशी नामना जोडिल्ली. ताच्या कार्यकाळांत नगरपालिकेंत जायत्या अधिकारपदाचेर ताणे आपणाल्याच नातेवाईकांच्यो नेमणुको केल्ल्यो. नगरपालिकेची सगळी मक्तेदारी वा कंत्राटदारांचे वेव्हार ताच्याच नातेसंबंधीकांक मेळटाले. त्याच शारांत एक व्हड ठोक व्यापारी सेठ किशोरीलाल रावतालो. तो बरो धर्मिक आसलो आनी बाब गोवर्धनाल्या कृपेन ताणे मागयिल्ली जायती पार्सलां जकात भरल्याशिवाय ताच्या दुकानांत येवन पडटाली. सबावीकपणान तांच्या दोगांयमदली इश्टताय मोगाची आसली हे वेगळें सांगपाची गरज नासली.

एक दीस बाब गोवर्धनदास सेठ किशोरीलाला वांगडा बशिल्ले नवो जकात इन्स्पेक्टर केन्ना त्रास दिता म्हूण शेठजीन तक्रार केली. बाब गोवर्धनान म्हळें,- ''म्हजेंकडेनूच तक्रार केली तें बरें जालें. सेवकवर्गाविलें आरोप म्हाका स्वता आयकून घेवंक आवडटा. खरें प्रमाणीत जाल्यार तांका शिक्षा करीन.'' हांगाथंयची फकाणीं सोपली म्हणटकीर बाब गोवर्धनान म्हळें, ''सेठजी, देवादयेन तुका सगळें कितें मेळ्ळा-पैसो आडको, दबाजो धू-पूत आनी सुखी संवसार. मात एक उणेपण दिसून येता.''

सेठजीन विचाल्लें, ''तें कसलें ?''

बाब गोवर्धनान सांगले, ''म्हाका अशेंच एक ध्यानांत आयले. तू अजूनमेरेन अमर जालो ना. ते घडुकूंच जाय.''

शेठजीन ततगिन्यानाचो आदार घेवन विचाल्लें, ''तें कशें घडटलें? ह्या संवसारांत कोण अमर जाला? कोणी आसूं दी-जगांत आयलो तसो वतलो-तो राजा आसूं दी, भिकारी आसूं दी वा फकीर....''

बाब गोवर्धनान सांगलें, ''शे, शे. तशें न्हय रें. म्हज्या सांगणेचो अर्थ इतलोच-तुजें नांव अमर जावन रावचें. तुज्या मरणा उपरान्तबी तुजें नांव हांगा कायम रावतलें.''

शेठजीन सामकें भोळेपणान विचाल्लें, ''तें चालूच आसतले. म्हजो चलो बापायलें नांव लायतलो कांय ना? आनीक म्हळ्यार दुकाना फुडल्या पाटयेर म्हजें नांव घालें म्हळ्यार जालें.''

बाब गोवर्धनान रोखडेंच म्हळें, ''तें सगळे फावोशेंआसा. पूण म्हजे सांगणें मातशें वेगळें सार्वजनिक रूपांत अमर जावन रावपाचें.'' शंबर वर्सा उपरान्तूय लोकांल्या जिबेर तुजें नांव घोळूं दी आनी भौस तुजी तोखणाय करीत रावं दी.''

सेठजीन बाबडेपणान सांगलें, ''म्हाका अमर जावंक जाय पूण हें घडटलें कशें? हावें भौसाली उदरगतीची कसलीच कामां केली नात.''

ताका मदेंच थांबोवन बाब गोवर्धनान सांगले, ''आरे इश्टा, तो सगळो हुसको म्हजेर सोडून दी पळोवया. हांवें अशी कितें हिकमत सोदल्या जाकालागून थोड्याशा खर्चांत ह्या धतरेर तुजें नांव अमर जावन रावतले,'' मात्सो थांबून ताणे मुखार सांगलें, ''आजाद मैदानांत म्हात्मा गांधीलो एक पुतळो बसोवपाचो नगरपालिकेन थारायला. पुतळ्याचो खर्च अंदाजान तीनचार हजार जायत. तुवेंच तो पुतळो विकतो घेवन नगरपालिकेक भेट दिल्यार उपकारतले. पुतळ्याच्या आल्ताराचेर तुजें नांव व्हड अक्षरांत कोरांतिल्ले आसतले. गांधीजीक जाणटा तो तुकाय जाणटलो. गांधीजील्या नांवा सांगातान तुजेंय नांव घेतले. भौस श्रद्धेन मानो बागयतलें.'' आतां मात शेठजी येवजणेंत अडकलो.

बाब गोवर्धनान नेट लायलो; ''पुतळ्याचो उक्तावणीचो सुवाळो दबाज्यान आनी भैयासायबाल्या हातानूंच करुंया. भैयासायबाक तू वळखता आसतलोच. कॉंग्रेस पार्टींत ताचेंच म्हणणें चलता. जाय ताका विधानसभेचो वांगडी वा मंत्रीबी करची तांची तांक आसा. तुजेर खूश जाले म्हणटकीर येवपी वेंचणुकेत तुका विधान सभेंत धाडूंक शकतले. घडये मंत्री पदार बी बसयत. जाण्टयानी सांगुनूच दवरला,- ''आपणालें काम खासा आशातरेचे आसूंक जाय जाकालागून हो जल्म सुदारतलो, आनी भविश्यांतलो जल्मूय.''

सेठजीन निर्णय घेवंक आता उशीर लायलोना. ताणें सांगलें, जशी तुजी इत्सा. म्हाका मान्य आसा. पुतळ्याची ऑर्डर दियात. खर्चाचे पयशें हांव फारीक करता.

पुतळो तयार जालो. आजाद मैदानांत थारायिल्ल्या सुवातेर ताका अल्तारेर बसोवन उपरान्त एक आयसपयस कपडयान धापून दवरलो. बाब गोवर्धनान भैय्या सायबाकडसून उक्तावणीचो दीस आनी वेळ नित्शीत करून घेतलो. ताणें पुतळ्याभोंवतणी एक चौकोनी गराद/कठडो घालून दवरलो आनी भितर सरपाच्या वाटेन एक आडो लायलो.

उक्तावणीच्या आदल्या दिसा सकाळी बाब गोवर्धन एक कारागिराक घेवन गेलो आनी ताका प्रवेश दिकान आल्तारा खालच्या भागांत अक्षरां कोरांतूक लायलें- ''बाब गोवर्धनाल्या

प्रयत्नान हो पुतळो ताच्या कार्यकाळांत ह्या सुवातेर उबो केलो-दिनांक....." अक्षरां कोरांतूक सुरुवात जाल्ली मात थंयसर शेठजी येवन पावलो. ताणे विचाल्लें, "कसलें कितें कोरांतूप चल्लां?" ताणे कारागिराल्या हातांतल्यान कागद ओडून घेतले. वाचल्या उपरान्त ताचें मुखामळ तांबडें गुंज जालें. संतापाभरांत बाब गोवर्धनाक ताणें निमगिलें, "हे जें तूं करता ते योग्य न्हंय पुतळ्याचो खर्च तुवें केल्लो काय हावें?" बाब गोवर्धनान शांतपणान सांगलें, "आरे इश्टा, तुजें नांवबी कोरिल्लें आसतलें."

सेठजीन तिडकेन विचाल्लें, "खंय कोरतलो?"

बाब गोवर्धनान आल्ताराची फाटली बाजू दाखयत म्हळें, "हांगा ह्या जाग्यार."

सेठजीन तिरसटपणान म्हळें, हय, हय, जाणे पयशे मेजले ताचें नांव मागशीबाजून आनी जाणे दमडीय खर्च केली ना ताचे नांव दर्शनी भागांत. आडांतल्यान भितर रिगले म्हण्टकीर लोक तुजें नांव पयलें घेतले.

बाब गोवर्धनान समजायले, "अखेरीक हांव नगरपालिकेचो अध्यक्ष आसा-ह्या शाराचो पयलो नागरिक. म्हाकाय थोडो मानसन्मान आसा."

शेठजीन म्हळें, "तें सगळें हांव जाणा. म्हाका निर्बुद्ध साबीत करपाचें तितलें सोपेंना. आतां हांव कितें सांगता ते आयकय. हांगा अशें आड्या सामकार म्हजें नांव कोरांतिल्लें दिसूंक जाय. तशे घडचें नाजाल्यार हो पुतळोच उखलून म्हज्या घरा घेवन वचन."

बाब गोवर्धनान हार मानली. ताणे मुखेल प्रवेशासामकार सेठजीलें नांव कोरांतूक लायलें आनी आपणाले नांव फाटल्याबाजून. अजून कातीवकाम चालू आसले तेन्ना एक मनीस भैयासायबाली चिठी घेवन आयलो. बाब गोवर्धनान ती चीट वाचून मुमुरखो हांसलो आनी चीठ शेठजीकडेन मुखार केली. तांतून भैय्यासायबान बरयिल्लें,- "म्हज्या अणभवाप्रमाण उक्तावणीक आफयिल्यालें नांव आनी ताच्या सांगातीन हेर जणाले नांव कोरांतप चुकीचें आसा. देखून मुखेल उक्तवणीकर्त्यालें नांव दोळ्यांत भरपासारखें व्हड आनी वेगळे आसूंक जाय. प्रवेश दरवट्यांतल्यान भितर सरलो म्हणटकीर पळेंतल्यांक सगळ्याआदीं उद्घाटन-कर्त्यालें नांव नदरेक भरूंक जाय.

बाब गोवर्धनान विचाल्लें, "आतां कितें करचें?" ताच्या मनांत आयलें चिठीचो बैसबरो उपेगकरन शेठजीक अपेशी थारोवचे. जाल्यार शेठजी अविचळ रावन सांगले, "आरें आतां कितें करचें काय म्हूण म्हाका विचारता? पुतळ्याचें मोल हांवे फारीक केले काय भैय्यासायबान? ताचें नांव ह्याबगलेक घाल", इतलें सांगून तो थंयच्यान गेलो.

बाब गोवर्धनान खंती मनान नांवां कोरून घेतली. उपरान्त दुसऱ्या दिसा सकाळी उक्तावणीचो सुवाळो. रातभर जागो रावन ताणे आपणाक जायतशी वेवस्ता करुन घेतली.

व्हडलो सोबिवंत माटोव घालो, बसकेची वेवस्ता लायली आनी पुतळ्याभोंवतणे भोव सोबीत सजावट केली.

उद्‌घाटणाच्या मातशें पयली शेठजी थंय येवन पावलो. सरळ पुतळ्यामुखार वचून उबो रावलो आनी अचकीत अजाप पावलो, जशें कितें ताच्या तकलेर वीज पडली. ताच्या ध्यानांत आयलें ते म्हळ्यार रातभर काम करून प्रवेशद्वार बंद केला आनी फाटले वाटेन आतां नवीन प्रवेशदार बसयला ताका लागून बाब गोवर्धनाले नांव सामके दोळ्यांत भरता. आनी शेठजीलें नांव फाटल्यावटेन रावलां. ताणे उलो दिलो, "बाबा गोवर्धन, मातशें हांगासर येयात."

भियेत भियेत बाब गोवर्धन शेठजीसरीं पावलो. शेठजीन खर आवाजांत सांगले, "आरे पर्थून तुंवें म्हजेकडेन फटिंगपणा केली. तुज्या हलकटपणाक वा बेयमानीक कांय शीमा आसात काय ना? रातोरात तुंवें फाटल्यावटेन प्रवेशद्वार तयार करुन घेतलें."

बाब गोवर्धन शेठजीक समजावंक लागले....... अशी एक रीत आसा....म्हळ्यार म्हणटात न्ही...... म्हापुरुशाले सामकार सरळसरळ वंचूनजो. आतां पळोवंक येवपी भौस आदी फाटल्या दारान येतले उपरान्त बगलेक वचून मुखार पुतळ्याचें दर्शन घेतले."

"....... आनी तुजें नांव पयलीं वाचतले. हें पळय बाब गोवर्धन, जो मेरेन मुखेलदार म्हज्या नांवा सामकार जायना तो मेरेन हांत हो सुवाळो घडोवंक दिवचोना. नाजाल्यार आत्तांच हांव हो पुतळो घरां घेवन चल्लो, "शेठजीन सभोवंतणे जमिल्ल्या सगळ्यांक कळचे अशा व्हड आवाजांत म्हळें. भुरावळ वाडत आसली - खूब लोक पुतळ्या लागसार पाविल्ले. ताणी हांचो दोगांयलो वाद आयकलो.

तेद्यावेळार भैय्यासायबाली कार येवन थांबली. तो सरळ पुतळ्यालागसार पावलो, म्हळें, "बाबगोवर्धन आतां कळाव कित्याक लायतात?"

शेठजीन स्पश्ट सांगलें, "भैय्या सायब, प्रवेशदार जोमेरेन पुतळ्याल्या तोंडावटेन करचेनांत तोमेरेन हो सुवाळो घडूंक दिवचोना. आनी अन्यावाखातीर आतापासुनूच भूक हरताळाक बसतलो."

बाब गोवर्धनानबी स्पश्टतायेन म्हळें, "ना, ना, प्रवेशदार आतां आसा थंयूच आसतलो. तेखातीर हांवूय उपोशणाक बसता पळय."

भैय्या सायबान परिस्थिती ध्यानात घेतली, ताणे सांगले, "तुमी दोगुंय चुकतात. हे प्रवेशदार हे बगलेन जाय जंय म्हजेनांव पयलींदिश्टीक पडटा. हांगाच्यो म्हत्वपूर्ण कामा हावे केल्ली आसात. हजारानी लोक जे जमल्यात ते म्हजेखातीर; तुमचेवयल्या मोगान न्हय. आनी हे कोणे म्हजें नांव बगलेक कोरांतून दवरला. आत्ताचें आतां प्रवेशदार हेवटेन बसयात."

आतां लडाय तिकोनी जाली. शेठजी आनी बाब गोवर्धनाली परीक्षेची वेळ आयली. दोशूय जण आपापणाल्या नित्शयाचेर अडून बशिल्ले. दोगांयनी म्हळें, ''ना, शक्य ना, तशें घडुकूंच दिवचे नात.'' ते आयकून भैय्यासायब माचयेर गेलो आनी जमिल्ल्या भौसाक संबोदून म्हळें, ''मित्रानों आनी साथिदारानो, अकस्मात एक नैतिक प्रस्न उबो रावला, तो म्हळ्यार प्रवेशदार कोणाल्या सामकार आसपाचो? शेठजीलो, बाब गोवर्धनालो आनी तुमचो सामान्य सेवक हांव हांचेमदीं. प्रत्येकाले सांगणे एकूच प्रवेशदार आपणाल्या नावा मुखार जाय. आमची तिगांलीय मागणी खरेपणांक धरून आसा. खरेपणाचे बरेच चेरे आसतात. एकटो एकवटेन पळेता आनीक दुसरो दुसऱ्यावटेन जाल्यार महत्वाचे आसता तें कोणाले सत्य वरचड आसा. प्रस्न कठीण पूण तो इतलो कठीण ना जो अहिंसात्मक रितीन सोडवणूकेक शक्य जायना अशेंय ना. ताकालागून आमी तिगायजणानी ह्याच सुवातेर आमरण उपोशण करपाचे सोपूत घेतल्या एक दुसऱ्याचेर, नीतिक धरून, मनाचेर दबाव हाडून एकमेकांलें 'हृदय परिवर्तन' (मनांतल्या विचारांत बदल घडोवप) करूंक यत्नशील रावतले जाका हेर दोगांयल्या मनांत बदल घडोवपात सफळताय मेळटली ताचेच नावासामकार प्रवेशदार बसयतले. तुमचें कर्तव्य इतलेंच मित्रानो, ताकतिकेन तुमी एक शांतिसमिती तयार करात. ताचें आदी आमच्या गळ्यांत फुलांचे वळेसर घालात आनी ह्यामाचयेर दिवलींत तुपांतल्यो वाती पेटयात. उपरान्त अखण्ड 'रामनाम' जपाची सोय करात. शांतिसमितीचें पयलें कर्तव्य आसतलें तें म्हळ्यार ताणी ह्या उपोशणाविशी बगोबेग सगळेकडेन पातळावप. उपासाचे नीतनेम आमी बरोबर पाळतात काय ना हाचेर तेळणी करप.

कोणाल्या हातान मोसंबी रस घेवन उपोशण सोडटलो हे आमच्यांतल्या प्रत्येकाकडसून शांतिसमितीन सुरवेकूच खात्री करून घेवप हें म्हत्वाचे तशें गरजेंचेंय आसा. म्हजेविशी सांगपाचे म्हळ्यार आयजमेरेन हांवे अंदाजे त्राहत्तर वेळा आमरण उपोशण केल्ल्यात आनी मुख्यमंत्र्याशिवाय कोणाल्याय तांचे सकयल्या पावंड्यावेल्या मनशांकडसून मोसंबी रस केन्नाच घेतलो ना तेन्ना मित्रांनो, आमी लोक सत्य आनी न्यायाक लागून जिवाची बाजी लावन बसल्यात. तुमीय आपापणाले कर्तव्य युराय करतले अशी आस्त बाळगिता.''

त्या माटवाखालां तिगूयजाण उपोशणाक बसले. फुलांवळेसर तांच्या गळ्यांत पडले. तुपावाती जळूक लागल्यो आनी भजनाक सुरुवात जाली- ''सगळ्यांक संपत्ती दी भगवान तारेन पयस पयस म्हायती पसरायली. पत्रकार आयले आनी फोटो घेवन गेले. दर दिसा सकाळीं शांतिसमितीचे अध्यक्ष दरेकाक विचारताले, ''सांगात तुमचें मन बदल्लें?'' जाप मेळटाली, ''ना, दुसऱ्याक विचार.'' चौथ्या दिसा तिगांलीय प्रकृती इबाडिल्यावरी जाली. जाल्यार कोणाल्याय मनांत बदल घडलो नासलो. पांचव्या दिसा मुख्यमंत्री स्वता येवन पावलो. तो थेट शेटजीकडेन गेलो आनी ताच्या कानांत उलयलो, ''हे पळय, आतापसून एक वरां भितर तुवें उपास सोडलो ना जाल्यार सरकारी कचेरींतल्या शिपायांच्या वर्दीक

लागपी कपड्या पुरवठ्याची ऑर्डर-जी तुका आज़फाल्या हातांत पडटली ती मेळची ना हे ध्यानांत दवर.

उपरान्त तो बाब गोवर्धनाकडेन गेलो आनी म्हळें, ''एक वराभितर तुजें 'हृदय परिवर्तन' जालें नाजाल्यार तुजी नगरपालिका भंगून उडयता.''

उपरान्त थोड्याच वेळांत भौसानी आयकलें,- शेठजी आनी बाब गोवर्धन हांचे विचार बदलल्यात आनी ताणी उपोशणांतल्यान मागार घेतल्या. तांचे मताप्रमाण आता प्रवेशदार भैय्या-सायबाल्या नावा सामाकारूच बांदूक कांयच आडमेळे नात... उपोशणकार तिगांयनी मोसंबी रस घेतलो आनी ताचे उपरांत भैय्या सायबाल्या गळ्यांत फुलांवळेसरांची गच्च रास पडली.



# एक दीक्षांत भाशण

(विश्व विद्यालयांत दीक्षांत सुवाळ्याचे दीस चालू आसात. एका विश्वविद्यालयांत एका मंत्र्यान केल्लें दीक्षांत भाशण हांवे आयकल्लें. भाशण जशेंच्या तशें दिला.)

मोगाच्या विद्यार्थी मित्रानों,

ह्या सुवाळ्याक विद्यार्थ्यांपरस पोलीस चड संख्येन हाजीर राविल्ले पळोवन म्हजें मन आनंदीत जालां. फकत वीस वर्सांत आमी कितली उदरगत केली ! जगांत खूब पुर्विल्या काळांतली विश्वविद्यालयां आसात. जाल्यार थंयसर लेगीत एका विद्यार्थ्या फाटल्यान एक पोलीस राविल्लो खबर ना अशा उदरगतीचों भौमान सरकाराक मेळटाच त्याचवेळार ताचो कांय वाटो तुमचोय आसा. हांव त्या दिसाची कल्पना करीत आसता जेन्ना तुमच्या दरेक मनशाल्या बाथरूमांत एक पोलीसशिपाय आसतलो. शासन आनी विद्यार्थ्यांनी परस्पर एकेमेकांक साथसंगत दिल्यार तो दीस उजवाडा येवंक खूब वेळ लागचो ना. तशें घडल्यार उपकुलपतिच्या आसनार पोलीस थानेदार बशिल्लो दिसतलो. तुमी ज्या दिकेन प्रगति करीत आसात ताची हांव तुस्त करतां. सरकार बी त्याच वाटेन वचत आसा हेय तुमी जाणात. विश्वविद्यालय आनी पोलीसविभागांची जवळीक सादूंक सरकार पुराय तरेन यत्न करतलें आनी ताचो भरवसो हांव ह्या पवित्र प्रसगांर दितां.

मोगाच्या विद्यार्थ्यानों, आतापासुनूच तुमी कारणाभायर बोवाळ घालूंक आनी नाकाजाल्ले आड्डप करीत आसात. इतलें उतावळें जावप बरें न्हंय. तुमकां सोपें जावपाखातीर हांवे म्हज्या भाशणांत 'हूटिंग' करूंक-म्हळ्यार बोबाट घालूंक उपेगाक पडपी संद मुजरत दवरल्यात. ती ती वेळ आयली म्हणटकीर तुमी तेन्नाच म्हज्या शिटकावणीखातीर जायतितले व्हडान 'हूट आउट' करात.

हांव कोण गिन्यानी वा म्हापुरुश ना हे आदीच सांगता. आतां ह्या दिक्षांत भाशणाक म्हाकाच कित्याक आफयला हो प्रस्न उप्रासता. ताचो जाप सादीसरळ आसा. ह्या वेळेक बी म्हाका आमंत्रण नाशिल्ले जाल्यार हांव तुमचें 'ग्रांट' बंद करतां आसलो. ताकालागून तुमचे शिक्षण बंद पडटासलें. तुमचें भविश्य काळखांत भरसून वचपाक जायना. अशें चिंतून ह्या

सुवाळ्याक हाजिर रावलो. तुमी आनीकूय गोंदळ घालूंक लागल्यात. घडये तुमीं 'हूटिंग' करपा मनस्थितीत आसात अशें दिसता. म्हाका ताचे वायट दिसना. ताचेसावन सहन शक्तीचो अभ्यासूय वाडत आसता. म्हज्या सारख्यांक दरेक सुवातेर शिटकावणेपासत मेळिल्ल्या बोबाट्याक धिटायेन तोंड दिवचें पडटा. अशिक्षित भौसाल्या अशतरेच्या हुयेलानी म्हाका उबगण आयल्या. तुमचेसारखे शिकिल्ले म्हाका 'हूटिंग' करतात ते पळोवन हांव चड 'रिफ्रेशिंग' (उमेद) अणभवता. ही म्हजी तुस्त करपी बाब कारण ह्याचवेळार म्हजे सहकार मंत्री. हेर आनीक मंत्री आनी गवर्नर ह्या सगळ्यांक अन्नाडी भौसाकडसून जायतो बोबाट, आड्डपान शिटकावणीचो अणभव मेळत आसा. जाल्यार म्हाका मात विश्वविद्यालयांतून तो अणभव मेळटा. ताचे सावन हांव वयल्या पांवड्यावेलो अशें समजता.

गडबड-गोंदळ, तरेकवार आवाजान आनी शिटकावणी दिवंक काडिल्ले हुयेल ह्या बाबतीत तुमची क्षमताय हांव जाणा. हांवे कोगिळेक विचारिल्ले, ''आगो भयणी, तू रुखार लिपून कित्याक गाता? ताणें सांगलें,'' पयलें हांव शारांत गातालें. जाल्यार विश्वविद्यालयांतल्या विद्यार्थ्यांनी 'हूट आउट' केलें आनी शाराभायर धावंडायलें. आनीक गजाल सांगता. मोर हांगा ह्या माचयेटर नाचतालो. पूण तुमी ताका ल्हान गुंडे, फातोर मारून रानावटेन घालयले. आतां ह्या खिणाक देवालो गुरू बृहस्पती जरी भाशण करूंक उबो रावलो जालो तरीय 'हूटआउट' करपाचे तुमी सोडचेनात हेंय तितलेच खरें. उपकुलपतीन तांका एक खेप आमंत्रण दिवन पळोवचे. हांव सर्त लावन सांगता ते आमंत्रण नाकारले. हांव जें तुमचे मुखार उलयतां ती म्हजी धिटाय समजात. म्हज्या धिटायेचे कारण म्हळ्यार हांव बृहस्पतीसारखो गिन्यानी ना. गिन्यानी भिजूड आसता. अविद्या ही साहसाची आवय आसता. आत्मविस्वास तरेकतरेचे आसतात. पयशाचो, शक्तीचो, गिन्यानाचो. जाल्यार निर्बुद्धपणाचो आत्मविस्वास हो सगळ्या पावंड्यावेलो आसता.

आतां तुमी माचयेर ल्हानसान फातोर भिरकावपाक लागल्यात. म्हजो कार्यक्रम पाश्चिमात्य देशांत घडपी अशाच तरेच्या कार्यक्रमा साथीन तुळणा करता तेन्ना धादोसकाय भोगता. आशावेळार थंय माचयेर तांतया भिरकायतात. पूण आरे देवा, भारतांतल्या विद्यार्थ्यांक ल्हानसान फातरांचो उपेग करचो पडटा. कारण तुमी तांतया विकत घेवंक शकनांत. देशाची आर्थिक दुर्दशा आनीक वेगळी कशी आसूक शकता? संद मेळटकी दरवेळा तांतया भिरकावपाक तीं विकतीं घेवचीं पडटात. जाल्यार, तुमका म्हूण सांगता, अशें निर्शेल्लेशें जावन रावपांत कांयच अर्थ ना. म्हजेर भरवसो दवरात. आमीच देशाची उदरगत करीत आसतात. तांतया विकती घेवपाची शक्त तुमचेंसर बेगीन येतली. तुमी पळेत रावात. हांव सोपूत घेवन सांगता म्हज्या पिरायेंत तुमचेकडसून म्हूण न्हय, तुमच्या फुडारच्या पिळगेकडसून म्हजेर तांतया मुजरत उडोवन घेतलो. ताचे खातीर म्हाका अजून शंबर वर्सां मंत्री रावचें पडले तरी कांयच वायट दिसचें ना.

जुवान दोस्तानो, ताळी वाजोवपाची एक संद तुमी घालयली. आसूंदी. अजून मुखार ध्यानांत दवरांत. तुमच्यांतले कांयजण चलयांच्या फाटल्यान रावन बोकडाले आवाज काडीत आसात. बऱ्यो तरनाट्यो चलयो जनावरालीं बोली काडतल्या कडेनूच मोग करतात हे हांव जाणा. म्हजो स्वताचो चलो एक तरनाटो फाटल्यान वचून सुण्यालो आवाज काडटालो. हालीच तांचे, एकमेकां मोगा उप्रांत, लग्नबी जालें. घरांत म्हजो चलो 'भौं, भौं' करता आनी सूनबाय 'म्यांव, म्यांव' म्हणटा. ताकालागून आमच्या कुटुंबांतले वातावरण सुखाचें जालां.

तरण्या मित्रांनो, देश आपणाविशी व्हड आस्त बाळगून आसा. देशाचे भविश्य तुमकाच घडोवपाचें आसा. तुमी विचारतले, ' तें खरें, पूण आतां सद्याचें कितें?' वर्तमानाची तुमी चिंता करची मातय गरजना. ताका आमी इबाडीत आसात. वर्तमान स्थितीक वायट केल्लेबगर तुमी भविश्य कशें तयार करतले? तुमका भविश्यांत कितेंय बरें करून दाखोवपा खातीरूच आमी सद्यस्थिती इबाडून दवरतात. तुमच्याखातीर अशें करप आमची जापसालदारकी आसा. कांयच इबाडिल्ले नाजाल्यार फाल्या तुमका कसलेंच काम उरचेंना. ते वेळार तुमी बेश्टेच जावन रावतले आनी ताकालागून हो आमचो देश सामको रसातळाव वतलो.

तुमी तरूण आसात; क्रांतीकारी आसात. तुमचे क्रांतिकारी चळवळ हांव चड ध्यान दिवन पळेत आसता. जेन्ना तुमी बस कंडक्टर वा सिनेमा गेटकीपर विरोधांत क्रांतिकारी उचंबळाय दाखयतात तेन्ना म्हाका खोस भोगता. अशा तरेची आंदोलना चलत रावलीं म्हणटकीर आमी सुगूर म्हण वा निश्चिंत आसतात. त्या लोकांविरुद्ध सदांच चळवळ चालू दवरपाखातीर हांव तुमचेकडेन मजतीचें मागणें मागता. ज्या दिसा तुमी बुनियादी तत्वांचेर उचांबळून उठतले ते दिसा आमी मुळांसयत मातयेभरवण जातले. ताचेखातीर तुमी खरेपणान क्रांतीकारी जायात. म्हळ्यार कंडक्टर, गेटकीपर, प्यून हांचे विरूद्धच झूज दियात.

आतां निरोपाच्या वेळार तुमका एक संदेश दितां. प्रत्येक मनशाक जिणेच्या सत्याक धरून रावंक जाय आनी ताकालागून आपणाले कर्तव्य पार पाडपाक जाय. म्हज्या जिणेची सत्यताय वा मोख मंत्री जावन रावपांतूच आसा हे हांव जाणा. ह्या खरेपणाक हांवे केन्नाच कडसरायले ना. हे सत्य घट्ट धरून रावपाक हांवे प्रामाणिकपणा, धर्म-हांचो सगळ्यांचो त्याग केला. सत्याखातीर व्हडांत व्हड त्याग करचो पडटा. हांवें ते केलें आनी सत्य म्हजेपसून केन्नाच पयस गेलेना हेय तुमका खबर आसा. खंयच्याय पार्टीची मंत्रीमंडळ आसू दी हांव तांचोच जावन रावतां. अशेच तरेन सत्याक दाढेखालां धरून रावचें पडटा. तुमी म्हजो देखदिणो आदर्श आपणाययात. तुमच्या विश्वविद्यालयाच्या जिणेंत पदवी घेवप हेंच सत्य समजून ते नित्शीत करून घेतले म्हणटकीर पेपर ''औट'' वा नकल करप अथवा अध्यापकांक मारपेट लेगीत करूंक फांटीफुडें पळोवपाचें ना. सत्यामुखार हेर कसलेंच म्हत्वाचें उरना.

म्हजो दुसरो संदेश असो. तुमी विद्यार्थ्यांनी राजनीतित भाग घेवंक नजो. ना जाल्यार आमका राजनीति सोडची पडटली. तुमी खऱ्यानी चरित्रवान जायात. तशें घडले ना जाल्यार

आमका सदाचारी जावचें पडटले. चारित्र्यवान जावपाची पिराय आतां आमची रावली ना. तुमी त्यागी जायात. तुमी त्याग केलो नाजाल्यार तो आमका करचो पडटलो. तुमी प्रामाणिक रावात. म्हळ्यार आमी प्रामाणीक रावचेपासून वांचतले. नाजाल्यार ह्या अशा म्हातारपणांत प्रामाणीक रावप म्हाकर्मकठीण. अशा घडणुकेंत आमच्या सारख्यांल्या मनांत दुखखाची कड सोसची पडटा ते तुमच्यासारख्या नेणटे वयांतल्या तरूणांक उमजुचें ना. तुमी देशाचे खरेखुरे बरे पूत जायात हीच म्हजी इत्सा. तुमी तशें जाले ना जाल्यार आमका तशें जावचे पडटलें. आनीं तशें घडपाचें म्हातारपणांत फावचे ना. जुवान दोस्तानो आतां तुमचेरूच भरवसो आसा. देशान तुमचेर विस्वास दवरलोना म्हणटकीर ताका आमच्यासारख्यांरूच विस्वास दवरचो पडटलो, आनी ते बऱ्याक पडपाचे ना.

म्हज्या दोस्तानो, ह्याच सुवाळ्यांत तुमच्या सांगातीन म्हाकाय कांय कायद्यांतली 'डॉक्टरेट' पदवी, खंयच्याय परीक्षेंत पास जाल्लोबगर म्हाका ती भोवमानासयत मेळत आसा. ही एक समाधानाची परंपरा समजात. खरें सांगचे म्हळ्यार परीक्षेंत यश ना. मेळतल्यांक अशेतरीच आदरासयत पदवी मेळटा. तुमचेंप्रमाण आयज हांवूय विद्यार्थी जाला. म्हज्या मनांत म्हज्या विद्यार्थीदशेंतले कांय सुखाच्यो यादस्त्यो उप्रासल्यात. कोण एक कवीन म्हळां, विद्यार्थी वेळेचें जिणे ते सगळ्यांक ओडलायणीचे डॉक्टरेट पदवी मेळोवपाची इत्सा म्हज्या भुरगेपणांतूच धरिल्ली. जाल्यार म्हज्याबुद्धीन तशी साथ दिलीना. इत्सा आतां पुराय जाल्या. हांव मंत्री नाशिल्लो जाल्यार कायदेविशयाचो 'डॉक्टर' कित्याक म्हाका कंपाऊंडर बी कोणी करीनाशिल्लो हे हांव निश्चितायेन जाणटा.

ओम् शांतिः शांतिः शांतिः



# बेईमानीची शीम

आंगावेलो पोशाक घालतां घालतां मोटवो जाता, हे हांव केन्नाच विसरून गेल्लो. कितल्याश्या वर्सांपसून अशेतरेचे घटिचार घडलें नाशिल्ले. अन्दू कलसांव शिवलें आनी फुडारच्या वर्साकूच तें घरकान्नील्ल्या पोन्न्यासाडयेक देग लावपाक हाडलें. अशां लोकांत म्हजी गणटी जायनासली. दुडुवांकारांत आनी मध्यमवर्गीयांत होच फरक आसता. श्रीमंत मनीस जेन्ना आंगार कलसाव मोटवे जाता तेन्ना तो तें फुडल्या पिळगेक सांबाळून दवरता. जाल्यार मध्यम वर्गीयांत 'फाल्याखातीर' म्हूण कांय दवरपाचे आसना. ताकालागून त्या कालसांवाचो कपडो बायलांल्या साडीची देग सोदीत रावता.

शिंया दीस सुरू जाले आनी हांवे एक शेरवाणी- (पांयघोळ सदरो वा लाँग कोट) भायर काडून आंगार चडयलो. पूण ताचें एकूय बटण लागना. अशें ध्यानांत आयलें. म्हजो बापूय दर्जीक घरां आफोवन कपडे शिवंक दितालो तेन्ना ताची सक्त ताकीत आसताली,- मात्शें वाडत्या कुडीचें माप घे. पूण जालें कितें म्हजे कपडें शिवून घेवपाची जापसालदारकी म्हजेरूच येवन पडली. प्रत्येक वेळा दर्जीक म्हाका मुजरत सांगचे पडटाले. सद्याच्या लांबाय रुंदायेच्या मातशें उणांक माप घे. आपणाली भलायकी दुसऱ्याचेर निंबून आसता, तां मेरेन तो घमेंडीत आसता. आनी जेन्ना स्वतारूच येवन पडले म्हणटकीर तें दुबळें जाता. ज्यांका मोटो जावन रावचे आसा ते दुसऱ्याचेर निंबून रावपाची वेवस्था करतात, जशें फुडारी लोक भौसाचेर, साधू भक्तांचेर, प्राचार्य (प्रिन्सिपाल) व्हड हावेसाच्या विद्यार्थ्यांचेर आनी म्हालगडोसायब आफीसांतल्या सेवक वर्गाचेर.

म्हाका असले कसलेंच पद मेळ्ळे ना. जाल्यारूय मोटो जावपाची इत्सा मेल्ली नासली. जेन्ना केन्ना भोवंडेर भायर सरतां, हांव रेल्वे प्लॅट फार्मावेल्या वजनमाप यंत्राचेर उबो रावतां आनी धा पयशे 'स्लॉटां'त घालून वजनाचें तिकीट मेळयता. तिकिटा फाटल्यान भाग्यफळ छापिल्ले आसता आनी ते खरें म्हळ्यार धा पयशा बदलाक एक तरेची खुशामती आसता. ह्या देशांतली यंत्राबी आशेभगतपणा करूंक जाणा. फकत धा पयशांत त्या तिकिटार अशें कांय छापिल्ले आसता..... देखीक सांगता,.....' तुमचे विचार बरे वयल्या पांवड्यावेले आसात, ते प्रमाण तुमचो वावर आसतलो आनी ते फळादीक जातलें.....!'' हांव म्हणटा, '' आरे

बाबानो केन्नातरी खरें सांगात. तुमची अशी काय पत आसा जी फकत धा पयशाक......!!"
मशीनाच्या मताचेर हांव भरवसो दवरना. आनी अशीं यंत्रा जायत्या सुवातेर उबी केल्ल्यो आसतात. तांच्या लांबोडी खाचांत धा पयशे घालात आनी ताचें बदलांत तुस्तीचे एक दोन वाक्यां पदरांत पाडून घेयात.

त्याच कारणाक लागून हांव म्हजी पुस्तकां पुरस्काराखातीर धाडून दिना. साहित्यनियाळ करतल्यांल्या घरांनी भुरशींबाळां जल्माक येतूच आसतात तरीय तांका एकादलें परबीचें कार्ड धाडूंक म्हाका जमना. ताचो परिणाम म्हजें वजन वाडपांत जाता जाल्यार ते खंयच्याय मशीनांतून आयिल्ल्या कार्डार नोंद-जायना. आयच्या काळांत वजनापरस ताच्या नोंदीक चड म्हत्व आसा. त्याच कारणाकलागून हुशार लोक दुसऱ्याल्या मांडयेर बसून आपणालें वजन कडटात आनी चड वजनाचें तिकीट आपणाल्या बॉल्सांत घालतात.

हे वेळेक खऱ्यांनीच म्हजें वजन वाडलां. आतां मशीनची धांदल चलपाचीना. अहंकाराच्या जाणीवेन कुडींत बेसबरी उर्बा उप्रासली आनी ताकालागून आंगावेलो कुडतो पिंदून उडोवन थंड उकत्या आंगान रावचें अशें दिसलें. जाल्यार ताची म्हाका लज दिसली. वजन वाडोवप हे भुरगेपणाचें लक्षण. कोणी जाण्टेंलो आयच्या काळांत कित्याक म्हूण मोटो जातलो? लोक कितें म्हणटले? पसरकाराल्या दुकाना सामकार पिशवी हातांत घेवन रांकेत उबो रावन मनीस सुकून वता. ताचो नंबर लागता तेन्ना मोल वाडिल्ले आसता आनी घांसून हाडिल्ले पयशे उणे पडटात. सादारण मनीस बी आतां परदेशी आगबोटीचें वेळापत्रक ध्यानांत दवरूंक लागला. अमेरीकेसून आगबोट आयली म्हणटकीर तांतूत आमचेखातीर गंव आसता; जपानासून आयली जाल्यार तांदूळ आसता. अमेरिकेतल्या बोटिवेल्या खलाशांल्या संपाक लागून भारतीय जनता हुसक्यांत पडटा. भूकबळीन आमच्यांत एकतरेची 'अंतरराष्ट्रीय' उमेद भरल्या. हांगा दुकाळ पडता जाल्यार दरेक भारतीय स्वताक 'विश्वमानव' समजतलो.

ही वेळ कितें मोटो जावपाची आसता? हांव शर्मिन्दो जावन कुडांतूंच लिपून रावता जशी एक गुरवार बायल. म्हज्या देशवासी लोकानों, म्हज्या निलाजरेपणाचेर माफी मागतां. भारतमाते क्षमा कर. तुजो एक पूत फोफसो जाला. तिसऱ्या पंचवर्सुकी योजनेंतलो हांव एक फट आंकडो आनी तो तुमका फटयत आसा. म्हज्या देशांतल्या पुर्विल्या अन्नमंत्र्यानो तुमचे मुखार हांव शर्मिन्दो आसा. तुमची अन्नपुरवठो वेवस्ता आसुनूय हांव मोटो जालो, तुमच्या अर्थनीतीचो अपमान केलो, देखून हांव गुन्यावगार समजता.

शाबुद्धी शेणिल्ल्यान दुबळो जावंक कळाव लागता, आनी किडकिडीत आसता ताका दुबळो म्हणयेत. म्हज्या फोफशेंपणची आतां वेवस्था लावंक जाय. शेरवानीची शिवण सोडची पडटली. हांवें तशें म्हज्या धाकट्या भावाक सांगलें. तोय आनंदभरीत जालो. आनी वाड्यार जितल्या लोकांक चत्राय दिवपाचें शक्य आसलें तांका हांव फोफसो जाला म्हूण सांगून

आयलो. आतां म्हाका भंय दिसूंक लागला,- लोक येवन म्हणटले, ''आरे, आयकलें खरें काय म्हणटा? तूं बेसबरो फोफसो जाला खंय? ते विशीं तुका परबी दितां. ईश्वर साब जणांक अशेचतरेन मोटे करूं दी.''

जाल्यार तिनसांजमेरेन हांवे म्हजी लजेश्टताय जिखली. फोफशेंपणांत आनी लजून रावपां कसले आसता? हांव मोटो जाला हाचो अर्थ म्हजें आंग फोफशें जालां. ताचेसावन है कोणी मोटो जालो नामूं? कोणे म्हाका इल्लिशी जरी चत्राय दिली म्हणटकीर हांव फोफशेंपण सांगत सुट्टां. मित्रांपंगडांत कोणी शिंयाविशी उलयलो ताका मदेंच थांबोवन हांव सांगत ''व्हय आतां शिंयादीस सामके तोंडार आयल्यात. आनी म्हजे गरम कपडे आंगार ताणूं लागल्यात, बटना लागनात.'' दोन तीन दिसा उपरान्त ही खबर चोयवशीन पातळली. एक जाण्टेलो नातेवाईक अचकीत म्हज्या घरां पावलो, ताणे म्हळें, ''म्हज्या पुतान सांगलें त बरो फोफसो जाला म्हूण येवजिलें. एक खेप येवन तुका पळोंवचे!''

अशक्ताय म्हाका संवकळीची जाल्ली. आंगलटीन सडपातळ रावपातूंच अभिमान बाळगतालो. दळदिरे ऋषीमुनी मोटे जालेनात. ते सगळे बारीक चणीचे आनी रागीट आसले. कोणी तांचे पांय पडले ना जाल्यार स्राप दितालें. जाल्यार हांवतसो दुबळो नासलो, न तिडखोर. हांव आसलो 'अजानुभुज'- म्हळ्यार धोंपरामेरेन हात पावपी; आनी 'आकंठ टांग'- म्हळ्यार उकुड्डो बसल्यार धोंपर गळ्यामेरेन पावपी. चिंतितालो, भुजांचो आनी पायांचो चडावत भाग कापून बाकी शरीरांत भरवण केल्यार बरें दिसत काय म्हूण. कदीमकाळांत सोबीत अस्तुरी खातीर शल्यचिकित्सा घडच्याक फाव, जाचेसावन ह्या आंगाचो भाग कापून जाय. त्या आंगाक दसून दिलें. ताका प्रमाण दिवचें म्हळ्यार कवि बिहारीली हे पद्यचरण पुरोशें आसा,- ''कटिकोकंचन काटि कै कुचन मध्य धरि दीन.'' म्हळ्यार देवान कंबरेचो कांय भाग कापून छातीयेर दसलो ताचे सावन दोनी भाग बराबरीचे जालें. आनीक तरेची सर्जरी तयार जाल्या. तांतून सुरीशिवाय पोट कापूंक येता. वर्तमान सभ्यतायेत अशा रगतहीण शल्य चिकित्सेन खूप उदरगत केल्ल्या. जोधा-बारा पोट कापूंक शकता ताचे पोट धोलये जाता. कापिल्ले सगळे पोटाचे भाग सगळे कापणाऱ्याल्या पोटाक येवन दसतात. अशा गिन्यान मेळपी विद्यालयांत म्हाका प्रवेश मेळ्ळोना. नाजाल्यार हाव ती विद्या शिकून हांवूय धोलयो पोटाची जातासलो.

खरें म्हळ्यार आमचें पुराय तत्वगिन्यान मनशा शरीराक मारक अशेंच आसा. त्या कुडीची सेवा सामकी हीण मानली. दोनतीन वर्सांफांटी एक मठाधीश स्वामीन ही गजाल बेसबऱ्या रीतिन समजायिल्ली. तो बरो वांटकुळो आनी आंगारूपान गोरोगोरो आसलो. बसकेर बसून ताणे ह्या मनशा कुडीचेर तुच्छतायेन उपाट भरिल्ले प्रवचन केलें. ताचेसावन हांव स्वताल्याच देहार दुस्वास करूंक लागलो. तो स्वामी भोवबरो उपदेशक आशिल्ल्यान लोकांल्या मनांत जिणेतल्या उत्तमांतले उत्तम वस्तू वा विशयांर तिरस्कार जागयतालो. तो सांगतालो, 'हो,

देह म्हळ्यार मळ आनी मुताची खाण, हो घाणयारो देह मिथ्या आसा, नाशिवंत तसो खिणांत भंगून वचपी असो आसा. पिशे लोक ताका सुवादीक, चमचमीत, गोडधोड खावयतात; ताचेर अत्तर फवारतात. पूण ते विसरतात एकदीस ही कुडी मातयेंत भरवण जातली आनी ताका किडे पट्टले. इतल्यांत तांचो सेवेकरी केशर घाल्लो बासुंदीचो पेलो घेवन आयलो आनी स्वामिजीन रोखडयारोखडो तो घटाघटा पिवन उडयलो. म्हज्या पापी मनांत संशय उप्रासलो, जाल्यार बगलेक बशिल्ल्या भगतान म्हाका समजायलें, ''आरे भावा, स्वामिजी सुवादीक बासुंदी खाता तो किडें आनी अती ल्हान जंतू हांका खावपाखातीरूच आपणालो देह बरो पोसवल्लो आनी अदीक चविश्ट करता. अशातरेचे मढे खाल्ल्यान बारीक जीवजंतूंक भोवखोशी मेळटली-हांचीच येवजणी करून स्वामिजी बासुंदी खातात. श्रद्धाहीण मात समजतात स्वामिजी सत्वाचे तितलेंच खातात पूण ते किड्यांखातीर सुवदिश्ट 'डिनर' तयार करपाच्या वावरांत आसात ते मात जाणून घेतात. तोच उपदेश आज उपंगाक आयलो. स्वामिजीलें जेवण जर पयल्या दर्जाचें आसल्यार म्हजेंय खाणेपिणे हे आपशीच दुसऱ्यादर्जाचें जाले. ताचे सावन म्हाका खोस भोगली. हांव नाकाशिल्ल्या हांवकारापसून वाचलो म्हणपाचें. जाल्यार मेळिल्ली खुशी लोकांनी केल्ल्या प्रस्नांक लागून नानपश्यात जाली. ते विचारताले, ''कसलो धोलयो जाला! कितली मजा आसा!'' हांव कसली कितें म्हूण जाप दितांसलो? एक खेप सांगलें, भलायकीचें राखण करतां. स्वामीजीन पुस्तकांत बरयिल्ले प्रमाण वागत आसा. तांतूत सांगला-वेळेवेळेचेर जेवंक जाय, सूर्यास्ता उपरान्त च्या पिवंनजो, चड रातमेरेन जागे रावनयो, सादा हलके अन्न खावंक जाय, सोरो पिवंक नजो, धुंदी येवपी जिनसा खावनयो, तिखट, मसाल्याचें खाणे वर्जप आनी मनांत वायट विचार घोळूंक दिवंनयो....अशें अनेक.

कोणाकूय आनंद जालोना. लोक म्हणटाले,-''मस्करी रावंदी-खऱ्यानीच सांग असो गरगरीत वाटकुळो कसो जायत आसा''-असो प्रस्न कोणे म्हज्या फाटकुळेर विचारिल्ले जाल्यार तो कडसरावन वतासलो. ते आपापसांत उलयताले,- हांव हाली हांवपणान वागता. त्या म्हणणेक हांव भियेलो. जेन्ना हांव दुबळो एक शिवड आसलो तेन्ना कोणेय प्रधानमंत्रीक प्रस्न केलो ना हांव सडपातळ कित्याक आसा म्हूण. कोणीय आमच्या देशांचे संविधान वाचला अशें दिसना. तांतूत नागरिकांल्या कर्तव्यांत बारीक सडपातळ रावपा बिशी बरयला कांय ना हाचे कोणाकूय म्हायती ना. आमी सगळ्यांनी दुबळे रावप एक नियतीचो नेम मानला. कोण फोफसो जाता आनी हजारों तर्जनीबोटां ताच्यादिकान दाखयतात. लोक समजताले हांव गांजा सोरो हांचे 'स्मगलिंग करता' वा एकादल्या संस्थेचो चिटणीसजावन वर्गणी खायत आसा, नाजाल्यार खंयच्यान तरी काळो पयसो घेत आसा वा लांचखोरी करुंक दलाल जाला. फकत रोटी खावन कोणी धोलयो जायना, जाल्यार वर्गणी आनी लांच खावन-पचोवन खात्रीन फोफसो जावंक शकता. बेयमानीन केल्ल्या पयशांतून तट्टटीतपणा दिवपी तत्वां आसात.

गेल्ल्या कितेक वर्सांत घोलयो वा फोफसो जाल्या लोकांनी अशीय एक परंपरा घाल
दवरल्या. आनी ती म्हळ्यार सरळ सादा मनीस (प्रामाणीक) मोटो जावंक भियेता, भलायकी
रावंक ताका धीर जायना.

एका इश्टान म्हाका सांगलें, ''गेल्या कितेक वर्सापसून जांगेले धोंद वाडला, जांचे च
तांबडेगुज जाल्यात, जांच्याकुडीर मांस चडला, जांगेली चरबीची जाडीवाडल्या तांच्य
जेवणांतल्या अन्नाचे प्रयोगशाळेंत चिकित्साय केली आनी उपरान्त जें ध्यानांत आयलें
नवलायेचें आसलें. हे लोक धान्य, कडधान्य अजिबात खांयनात,-तांचे खाणे म्हळ्या
वर्गणी, लांच, काळोपयसो, दुसऱ्यालो कश्टाचो दुडू, वा हेरांलो हडप केल्लो पयसो आडक
असलें कितें कितें. ताकालागून जो कोणी फोफसो दिश्टीक पडलो म्हणटकीर काय प्रस्न उ
रावतात. स्वताल्या मेहनतीन, प्रामाणिकपणान कमायिल्ल्या पयशांत कोणी वांटकुळो जांवव
शकता हाचेर कोणीच विस्वास दवरचे नात.

बेयमानांवरी म्हज्या आंगार इल्लेशें मांस चडला. आरे म्हज्या दुस्मानानों, एक वैज्ञानिक
सत्य म्हजें सामकार आसा. हांव फोफसो जाल्ल्यान दुबळो जाला. तेन्ना म्हजी बदनामी
करूंक अशी भांगरासारखी संद तुमका केन्नाच मेळची ना. आतांच ताकतीक करात. म्हजे
कसलेंच खरें ना. आनी चारेक दिसानी हांव सडपातळ जातलो. तेन्ना तुमी स्वताले तळवे
चिड्डित रावतले तर स्वताली बोटां मोडीत रावतले.



# रामसिंगाली ट्रेनींग

रामसिंग दर दिसा म्हज्या घरा येता आनी म्हाका सामकार बसोवन एकवर मेरेन अखंडीत गाळी संवता.

शेजारचे विचारतात, ''आरे, तो पिसो जाला काय कितें ?''

हांव सांगता, ''ना.''

तेन्ना ते म्हाका बळयां उपदेश करतात, ''एक तू तरी ताची मारपेट कर ना जाल्यार आमीच ताका वेवस्तीत बडोवन आमचो शेजारधर्म पुराय करूं काय कितें?''

हांव हांसून ते निभावन व्हरता. जाल्यार तेच सगळेजण म्हाका भिजूड वा निर्बुद्ध म्हूण समजून घेवपाच्या तयारीत आसात. रामसिंग कितें म्हाका फकत सवे घालीत रावना. एके रातीक तो म्हज्या घरांत गांजाच्यो दोनचार कळ्यो दवरून वता. दुसरे दिसा फांतेडेक येवन म्हज्या घराची पुराय झडटी घेवन उपरान्त रूमालान म्हजे हात बांदून गिरफ्तार करता.

रामसिंग म्हज्या धाकट्या भावावरी मोगाचो. तो बऱ्याभाशेन मनान सुदारत आसा ते पळोवन हांव खोसभरीत जाता. ताकालागून नोकरेंत तो वयल्या पदार चडत वतलो अशी म्हजी एक सादी आशा. आठ धा दिसा पयलींची गजाल. रामसिंगालो व्हडलो भाव त्रासिल्लो असो जावन म्हजेसरी आयलो, आनी म्हळें, ''रामसिंग सद्या रजेर आयला हे तुका खबर आसा?'' तो कसलो इन्स्पेक्टर? निखटो आवटो जाला, आवटो, कळ्ळें? ताणे आमचें घर सगळें मात्यार घेतला. कूड बंद करून घेता आनी कितेक वरां एकसारखो तरेकवार गाळी दिता. अशेंच एक खेप हांव बंद जनेलातल्या बुराकांतल्यान पळेलें तेन्ना तो म्हजो आजो, बापूय, हांचे फोटो तशेंच वणतीर हुमकळत आशिल्ल्या देशाचे फांकीवंत फुडारांल्या फोटोकडेन पळेत थांबनासतना एकसारखो मेजूक येना इतलें सवे घालतालो.

एक दीस म्हजो चलो बाबूल्याल्या अभ्यासाकडेन ताका ध्यान दवरुंक सांगून हांव म्हज्या कामाक भायर सरलो. पर्थून आयलो तेन्ना म्हज्या व्हडल्या चलयेन सांगलें, ''रामसिंग काकालें मातें फिरला अशें दिसता. बाप्पा, तू भायर सरलो ना सरलो आनी बाबूलो खेळूंक गेलो. तो दमून घरा आयल्या उपरान्त तो बाबूल्याक धपकायतना दिसलो,- ''एक आणो दी ना

जाल्यार तुज्या बापायक सांगून शिक्षा दिवंक सांगीन. आमीय गमतीन बाबूल्यावरवी ताक एक आणो दिलो. गम्मत म्हळ्यार ताणे तो आपल्याकडेनूच पातलूणा बॉल्सांत दवरू घेतलो. तो तरेकवार दंगोमस्ती करता. भुरग्यांकडसून उदक मागून घेता आनी मातसो जर कळाव जालो म्हणटकीर व्हडान किळांचता,- ''रोखड्यारोखडें उदक घेवन यो. तू कोण स्वताक समजता? सात वर्साखातीर बंदखणीत धाडून दीन.''

''आरे मित्रा ताणे म्हाका नाका संवसार करून दवरला. कितें करूं? ताका विचाल्यार ताची जाप थारिल्ली आसा. हांसत हांसत म्हणटा, ''भविश्यांत समजतलें. आतां कांयच उलोव नाका.'' म्हजी तर खात्रीच जाल्या,- तो आतां पिशांरच पडला.

रामसिंगाक हांव ताच्या भुरगेपणापसून वळखता. बेसबरो चलो आसलो वागणुकेंत शीळवंत, प्रामाणिक आनी नमळायेचो. दुसऱ्याच दिसा हांवे भेट घेतली आनी विचाल्लें, ''आरे, रामसिंग, तुंवे बऱ्योच कटकटी तयार करून दवरल्यात खय?''

ताणे काकुळटेक येवन सांगले, ''व्हडल्याभावान म्हजेंविशी बऱ्योच कागाळी तुजसर केल्यात अशें दिसता. म्हाका समजावपाची गरज ना, इतलेंच सांगता. एक म्हयन्यापर्यंत कोणीच म्हजेकडेन उलोवपाचें ना. म्हजी तकली सामकी जाग्यार आसा कळ्ळें? आनी कोण सांगता हांव पिसो जाला म्हूण?''

हांवे विचाल्लें, ''तशें आसल्यार, ताका नाका जाल्लो वावर तू कित्याक करता?''

ताणे घटिचार सांगले ते ताच्याच उतरांतल्यान सांगता.

म्हज्या भावा, हांव सांगता ते नीट आयक. हांव नवीन इन्स्पेक्टर म्हूण शाराभायल्या ठाण्यांत हाजीर जालो. देखदिणो सदाचार. आनी सेवाभाव तेन्ना म्हज्या मनांत घोळटाले. एक दीस लागसारच्या गांवातल्यान एक चलो आयलो आनी कालच्या रातीक तांच्या घरांत चोरी जाली म्हूण सांगलें. रोखड्यारोखडें तपासकामांक हांव भायर सरलो आनी त्या गावांत पावलो. त्या घराच्या आंगणात एक म्हातारो मात्यार दोनी हात दवरुन मान सकयल घालून बशिल्लो. म्हाका पळोवन उबो रावलो आनी भियेत, भियेत ताणे येवकार केलो, ''या, या, सायबानू.''

हांव लागसारच्या खाटल्यार बसलो आनो खबर काडूंक सुरवात केली. हांवे विचाल्लें, ''हं आता सांग तुमच्याच घरांत चोरी घडली न्हंय?'' तो वोग्गी राविल्लो पळोवन

हांवे पर्थून विचाल्लें, ''आरे बाबा, तुमच्याच घरांत चोरी घडिल्ली न्हंय?''

ताणे सांगलें, ''सायबानू, तुमी म्हाकाच विचारिल्लें कांय कितें?''

हांवें म्हळें, ''व्हय, तुकाच विचारिल्लें.''

म्हाताऱ्यान सांगलें, ''पूण सायबानू, म्हजें नांव-ए साल्या म्हाताऱ्या-अशें आसा. म्हजें नांव बाबा न्हंय.'' ताच्या सांगण्याचो अर्थ म्हाका कळलोच ना. तेन्ना ताणे दोनूय हात जोडून सांगलें, ''हुजूर, माफी मागता. म्हजेपसून चूक घडल्या. म्हजो चलो अजून नेण्टो आसा. कामानिमिन्ता भायल्या गांवा आसलो. नाजाल्यार ही तक्रार पोलीसांत केन्नाच दाखल जायनासली आनी तुमकाय कश्ट पडनासले. म्हज्या चल्याल्या चुकेक क्षमा करात.''

हांव चड हुसक्यांत पडलो. निमाणे हाच्या मनांत आसा तरी कितें? हांवे म्हळें, ''तुमचें उलोवणें अजापाचें म्हणपाचें. आँरे, चोरी घडिल्याची तक्रार पोलिसांत मुजरत करूंक जाय. अखेरेक आमी कित्याक आसात? चोरीचो सोद घेवन तुमचो माल तुमकां पर्थून मेळोवन दिवप हे आमचें कर्तव्यूच आसा. आतां फकत चोरी केन्ना जाली आनी कसले जिन्नस तशें कितले पयशे चोरयेक गेले इतलेंच सांग.

म्हातारो पर्थून वग्गी जालो. उबे राविल्ल्या भौसाकडेन ताणे कांय अर्थाअर्थी नदरेन पळेलें. तेघावेळार ताचो चलो घरांतल्यान दुधान भरिल्लो पेलो घेवन आयलो. हांवे तो नाकारलो. तो म्हातारो कासावीस जालो आनी नमळायेन म्हळें, ''सायबानू दूध पियात.'' हांवे सांगलें, ''ना, ते शक्य ना. हांव आतां ड्यूटीर आसा. हे वेळेर तुमी दिल्ली खंयचीय वस्तू घेवपाचो ना. सादे सुपारे कुडको लेगीत ना.''

हांवे खर आवाजांत सांगिल्लें आयकून सभोंवती जमिल्ल्या लोकांनी आपसांत एकमेकाकडेन रहस्यभरीत तशेंच नवलायेच्या नदरेन पळेलें. तेच वेळार दोळ्यानी कांय सुनशाबी केल्ल्यो. म्हज्या दरेक उलोवणेचेर ते अजाप जाताले आनी रोकड्या रोकडी चत्राय दीत एकमेकाल्या कानांत फुतफुत्ताले.

हांवे म्हाताऱ्याक सांगलें, ''बाबा तू लेगीत ह्या खाटल्यार बस कसो? तुमी जाण्टे आसात अशें कित्याक म्हूण उबे रावल्यात?'' हे आयकले मात तो म्हातारो अजून दोन पावलां फाटीं सरलो, भोंवतणी जमिल्ले कांयलोक हळूच आपसांत उलयले ते म्हाका कळ्ळेच ना. हांव हुसकेंत पडलो. निमाणे हो भौस इतल्या घुस्पागदळांत पडलो कसो? हे लोक म्हज्या प्रस्नांक जाप कित्याक दिनात? आनी आपापसांत एकमेकाल्या कानाक कित्याक लागतात? हे सगळे कुवाडेच जावन राविल्ले.

म्हाताऱ्यान पैरणीच्या बॉल्सांतल्यान कांय चलनी नोटा भायर काडल्यो आनी हात फुडे करून म्हजेमुखार धरीत म्हळें, ''हुजूर, आमचे कडसून खरेंच व्हड चूक घडल्या, हो चलो अन्नाडी आसा. हांव अशातरेचो पोलीस रिपोर्ट केन्नाच करिनासालो. ताचे सावन तुमका त्रास जायत आसा आनी तुमच्या कामांत आडमेळी येत आसात हे हांव जाणा. ते खातीर नुकसान भरपाय दिवची पडटा तेंय खबँर आसा. देखून हे पन्नास रूपये घेयात आनी म्हज्या चल्याक माफी दियात. हाचे फुडार असली चूक केन्नाच घडची ना अशें उतर दितां.''

कांय वेळाखातीर हांव अपेशी थारिल्लो. हांवे पर्थून सांगलें, ''हे पळेयात, तुमचें सांगणें म्हाका अजिबात कळना अशेंजाला. एक म्हळ्यार तुमी खरेंच निर्बुद्ध आसात वा हांव एक सपन पळेत आसा. हांव पयशे कित्याक म्हूण घेवूं? म्हज्या कामाखातीर सरकार म्हाका पगार दिता. तेन्ना कोणे दिल्लो एक पयसोय घेवप हांव गुन्याव समजात.''

म्हज्या सांगण्यांवेल्यान तांचेर विचित्र प्रभाव पडला अशें दिसले. त्या म्हाताऱ्याली बाबडेपण आतां उणी जाल्ली. ताचो चेरो उमेदीन पर्जळला अशें दिसले. ताणें गांववाल्यांक निमगिलें, ''अजून तुमच्या मनांत दुबाव आसा?''

एक सुरांत सगळ्यांनी म्हळें, ''ना.''

अचकीत म्हाताऱ्यान हुकूम केलो, ''मागीर पळेंत कितें रावल्यात?''

म्हाका कसलें कितें कळचें पयलीच त्या गांववाल्यानी म्हाका बळ्यां धरलो आनी दोरयेन म्हजे दोनूंय हातपांय घट्ट बांदले. म्हाताऱ्यान पंगडातल्या एक मनशाक सांगलें, ''धावत वच आनी शाराच्या इन्स्पेक्टर सायबाक निरोप दी. आनी ताका मुजरत सांग,- ''हांगा एक फटींग वा दरोडेखोर पोलीसाली वर्दी घालून आयाला, आनी आमी ताका बांदून दवरला.''

हांव किळांचलो, ''आरे, आरे हांव खरें सांगता. हांव फटींग ना, दरोडेखोरबी ना. आरे हांव पोलीस इन्स्पेक्टर आसा.'' म्हातारो मदेंच उलयलो, ''तू पोलिस इन्स्पेक्टर ना इतली आमची खात्री जाल्या.

तुंवें खंयच्यान तरी हो गणवेश चोरला आनी फटींगपणा करूंक हांगासर पावला. जाल्यार तू आमका फटोंवंक शकचो ना. हांव पोलिसांक वळखना काय कितें ? तांका पळेत पळेतूच हांव ल्हानाचो व्हड जालो. तू जशें वागता, उलयता तशें पोलीसालें आसना. नित्शितायेन हांव जाणां तू एक फटकिरो मनीस. कळ्ळें ?''

हांवे विचाल्लें, ''जाल्यार अशे तरेचो संशय म्हजेर कित्याक म्हूण ?''

म्हाताऱ्यान स्पश्ट सांगलें, ''तुज्यांत पोलीस ऑफिसरालें एकूय लक्षण ना. तांचो हांवें कितेक वर्सांपसून अणभव घेतला. कोणेय म्हाका, ''रे म्हाताऱ्या'' ह्या नांवाशिवाय आफयलें ना. तुंवे म्हाका 'बाबा' म्हूण आफयले तेन्नाच म्हज्या मनांत संशय मूळ धरिल्लो. उपरान्त तुवें दूध पिवंक नाकारले. खंयचोय पोलीस ऑफीसर अशें न्हयकार दिना. आनीक म्हळ्यार तुवें पयशेय घेतले नात, पोलीसलोक पयशे घेनात अशी केन्नाय तांची वागणूक आसता? आरे, भियेवनूच आमी पोलीस रिपोट करिनात. तशें केल्यान पोलीच पार्टी येता आनी लुकसान भरपाय वसूल करतात. आनी तू मात सांगता एक पयसोय घेवचो ना. आनी चोरयेचोय सोद घेतलो? असलो ऑफीसर हांवे अजूनमेरेन पळेलो ना. देखून तू खात्रीन एक फटींगूच दिसता. जाल्यार म्हज्या पुता, तुका तें सोंग वठोवपाक जमले ना आनी सापडलो. आतां खरे पोलीस येतले आनी तुका धा न्हंय, परंत पांचवर्सांखातीर तरी बंदखणीत धाडटलें.''

कितें सांगू म्हज्या भावा, हांव थंयसर बांदिल्या अवस्थेंत सांजमेरेन पडून रावलो. रात पडली तेन्ना शारांतल्यान म्हजो एक सहकारी इन्स्पेक्टर थंय पावलो. ताणे त्या म्हाताऱ्याक वीस पंचवीस सवें आयकयले. निमाणे विचाल्लें, ''आरे म्हाताऱ्या, हाका कित्याक म्हूण बांदून दवरला? सांगता काय ना? सवे, गाळी, आयकून म्हाताऱ्याक खोस भोगताली. ताणे सांगले, ''सायबानू, आमीय हाका तेच सांगताले. म्हज्या पुता, आतां कळ्ळें पोलीस ऑफीसर ह्या सायबासारखें कशे आसतात ते? आनी तू, म्हाका 'बाबा, बाबा' करीत रावलो.''

रामसिंगान म्हाका सांगलें, ''म्हज्या भावा, अशी वायट अवस्ता जाली उपरान्त हांवें चिंतिलें म्हजे पोलीस शिक्षण अजून अर्दवट रावला. ताका लागून भौस म्हाका 'फटींग' म्हूण समजतात. आतां हांवे एक म्हयन्याची रजा काडल्या आनी उरिल्लें 'ट्रेनिंग' घरां बशिल्लेकडेन घेत आसा.

हांवे म्हळे, ''रामसिंग, आमच्या वायट नशिबान आमचे दोगांलें बापूय ह्या संवसारांत हयात नात. ते जीवंत आसताशिल्ले जाल्यार तांचो उपेग करून तीनचार दिसांतूच तुका असलें शिक्षण पुराय करूंक फावताशिल्लें. आसूं दी. आतां हांव आसा न्हंय. तू दर दिसा म्हजेर तांचो अभ्यास कर. ताचे सावन तुज्या कामांत हांव उपेगाक पडलो हाची म्हाका खोशी मेळटली. ते वेळेपसून रामसिंग म्हाका गाळी घालता आनी ताचेर हांव हांसत आसता.



# चमच्याली दिल्लीची भोवंडी

चमचो म्हळ्यार वरिश्टांचे कसलेय काम करपी मदतनीस. दरेक म्हत्वाच्या मनशाल्या म्हऱ्यांत एकादलो चमचो आसताच. ज्यांगेली परिस्थिती बरी आसता ते एकापरस चड चमचे आपणालागी दवरतात. सगळे देवदूत हे देवाले चमचेच. सैतानान ईश्वरालो चमचो जावंक न्हयकार दिलो देखून ताका सर्गातल्यान काडून उडयले. देखदिवची म्हळ्यार जशें नाकाजाल्या चमच्याक वेंचणुकेत तिकीट दिनात.

सगळ्यांत व्हड चमचे राजकारणांतल्या फुडारी लोकांले आसतात. जगांत जितले बदल जाल्यात ते म्हापुरुशांल्या कारणांक लागून, तशें न्हय जाल्यार दुसरे कारण तांचे चमचे आसत. जेन्ना केन्ना हे चमचे आपणाल्या अक्कल-हुशारीन काम करतात तेन्ना खुबूच संकश्टा उबी रावतात. ताका लागून प्रत्येक व्हड मनीस जगाच्या हिताची कामां हातांत घेता आनी आपणालो चमचो खंयच्याय तरेन तांतून रचताली बुद्धी वापरचो ना हाची काळजी घेता.

म्हज्या अंदाजान, आयच्या वगतार राजनीतिच्या वाठारांत अदमासान पांचेक हजार तरी चमचे काम करीत आसात. तांचे आनीकूय सान चमचे वा चिपटां तांच्या वावरांत गुल्ल आसतले. सगळी हीणता, फुकटेगिरी, निजीलाब अशेतरेन आपणाल्या फुडाराल्या भरवशाक ते लायक जावन रावतात. त्या भायर ताच्यांत सेवा अदीक एक प्रकारची अजापाची शिस्तीची भावना रूजिल्ली आसता. चिपटाक वा ल्हान चमच्याक जर जनसेवा पद जाय जाल्यार तो सरळ फुडाऱ्याकडेन वचना. तो आदि मुखेल, चमच्याकडेन गाराणी घालतलो, उपरान्त व्हडलो चमचो फुडाऱ्याक सांगून हातासकयल्यालें काम मार्गाक लायतलो. अशेतरेन फुडाऱ्यालो सगळो जगाचो संबंध फकत चमच्यावरवीच घडटा. कांय वेळ उलटून गेलो म्हणटकीर ताचो विस्वास असोय तयार जाता म्हळयार ह्या जगांत म्हज्या चमच्याशिवाय हेर कोणीच रावनात. रचताले जग अशेतरेन ल्हान करून जगपांतूच त्या फुडाऱ्यांक सुख भोगता. पूण ताच्या व्हड्यार सुखाचें वजें इतलें कांय वाडटा की ताचे सावन ते व्हडें फुडाऱ्यासयत बुडटा. जाल्यार चमचे मात पेंवत पेंवत तडीक लागतात, आनी हेर एकादल्या फुडाऱ्याले चमचे जावन रावतात. फुडारी मरतात परंत चमचे अमर आसतात. मजेची गजाल म्हळ्यार चमचो जसो जसो जाण्टो जाता तसो तो फुडारी म्हूण वावुरता. आनी ताचे ल्हानसान चमचे

वा चिपटां आतां उदरगतीक पावतात म्हळ्यार ते व्हड चमचे जातात. उपरान्त तेच व्हडचमचो फुडाऱ्यालें व्हडें बुडोवन स्वता तडेक लागतात. परत कांय चमचे जिवीतभर फकत चमचे जावन रावपांचें नेम पाळटात आनी वीस-पंचवीस फुडाऱ्यांक बुडोवपाचें पुण्य पदरांत पाडून घेतात.

चमचो जावप तितलें सोपें ना. एक बरो चमचो जावपाक कितेक वर्सां लागतात. भारतीय प्रजातंत्राच्या नशीबान स्वातंत्र्य मेळ्ळें उपरान्त रोखड्यारोखडे जायतितले चमचे तयार जाले. ताका कारण चमच्यालीं उपजप मुळांत स्वातंत्र्य झुजावेळारूच सुरू जाल्ली. त्या काळांत फुडारी जन आपणाल्या फुडारच्या चमच्यांक बंदखणीत धाडपाक यत्न करताले. तेन्नाचे फुडारी लोक चळवळी वेळार एक अंदाजो बांदताले. हे वेळार सरकार सक्ती-जुलूम जबरदस्ती उणे करतले, बंदखणीची शिक्षा उण्या दिसांची आसतली आनी चार वणती भितल्लें जिणे इल्लें आरामाचें आसतलें. हे ध्यानांत घेवन ते चडांत चड चमच्यांक बंदखणीत धाडपाचे घाट घालताले. सद्याक जशें वेंचणुकेवेळेर तिकिटाची मारामारी चलता तशीच पुर्विल्ल्या काळांत बंदखणीत वचपा खातीर सर्त लागताली. भारत देश स्वतंत्र जालो आनी गणतंत्रूय जालो तेन्ना दरेक फुडाऱ्याक एक शिकिल्लो आनी अर्दोच तयार जाल्लो चमचो मेळ्ळो. ताकालागून भारतीय गणतंत्र सामको स्थीर जालो. आशिया आनी आफ्रिका खंडांतल्या कांय देशांत स्वातंत्र्यझुजा वेळार चमच्यांलीं निर्मणी जाली ना. त्या, त्या देशानी प्रजातंत्र तिगून रावले नां. साम्राज्यवाद आसूंदी वा प्रजातंत्र आसूंदी ते दोनूय चमच्याल्या घडणुके बुनियादेचेर उबी आसतात.

चमचो बेसबरो हिकमती आसता. आपूण फुडाऱ्यालो भरवशाचो, तांच्या आपूलकाय लायकींचो, तांच्या उतरांक पाळो दिवपी म्हूण सगळेकडेन आपणाविशी बातम्यो पातळायता. तो फुडाऱ्या सांगातीन जंय थंय दिश्टीक पडटा. तांची बॅग वा पत्रवेव्हाराचें गाठोंडे घेवन सांबाळीत उबो आसता. तांच्या फाटल्यान रावन मुमुरखो हासता फुडाऱ्याल्या गळ्यांत फुलांचो वळेसर पडलो म्हणटकीर हो खासावीस जाता. फुडारी मुखार चलता तसो हो तांका वाट मेकळी करता. तांच्या भोवंडेवेळार तांच्या सांगाताक आसता. माचयेर फाटल्यान वोग्गी बसून रावता. फुडाऱ्यातल्या घरां वासरेंत बशिल्लो दिसता आनी ना म्हळ्यार रांदपा कुडामेरेन रिगिल्लोय दिसता. लोक तेळणी करतात आनी निजाचो लाब करून घेवपी काय लोक आपणाल्या कामाक होच मनीस फावोसो अशी खात्री बाळगतात. ताकालागून समाजांत चमच्यालें मोल वाडटा. लोक ताका च्या पिययतात, पाना विडो खावयतात, आनी तो आपणाल्या, 'दादासायबाली तोखणाय करीत आसता'-म्हाका विचाल्लेंबगर दादासायब कितेंय करीना म्हूण तो सांगूक विसरना.

जेन्ना चमचो म्हणटा- 'राजधानीक वचूंक जाय', वा 'दादासायबान आफयला' ती एक खऱ्यांनीच घडटा अशी वेळ आसता. मागीर ते कसलेंय, कितेंय काम आसूंदी. सगळ्या वाठारांत बोवाळ पडटा तीनचार दुकानांनी बसून वा चारपांच सुवातेर च्या पितना तो सांगत

आसता- 'म्हजेबगर दादासायबालें कसलेंच काम केन्नाच पुराय जायना.' उपरान्त तो एक दोन थारिल्या जाग्यार बसता आनी थंयसर ताचेकडसून काम करवून घेतल्यांली रांग लागता.

दरेकजण विचारता, ''सायबानू, दिल्लीक केन्ना वतले?''

तो सांगता, ''आयज नाजाल्यार फाल्या. कालूच वचपाचो आसलो. परंत आयज एक मीटिंग आसा.''

''म्हज्या भावा कशेंय करून म्हजें काम घडूं दी. हे पळेयात ताका आतां खुबूच दीस जाले !!''

''व्हय, व्हय. हे वेळेक खात्रीन पुराय जातले. खरें म्हळ्यार गेल्या खेपेकूच पुराय जावपाचें पूण तेन्ना सेक्रेटरी भोंवडेर गेल्लो. आतां दादासायब स्वता मंत्र्याली भेट घेवन तुज्या प्रस्नांची तड लावन घेतलोच.''

ल्हानसान चमचे आता नेटान कामाक लागतात. आनी गरजवंतांक ह्या व्हडल्या चमच्याकडेन घेवन येतात. आनी प्रत्येकाक हो भरवसो दिता-पृथ्वी आपणाभंवतणें घुंवता हे जर सत्य आसा तेन्ना नित्शितायेन आपणाल्या दादासायबा भोंवतणें भोंवत आसा. उपरान्त सहजतायेत तो सांगता, ''राजधानीत रावची आनी जेवण-खाणाची वेवस्ता आसा म्हळ्यार दादासायबाल्या घरांतूच राबीत करता. जाल्यार मुख्य कचेरी खुबूच पयस आसा देखून टॅक्सीचो खर्च चड आसता. त्या इशाऱ्याक लोक पाळो दितात आनी ताका आपणाकडचे कांय पयशे प्रवास खर्चाक दितात.

अशेतरेन चमचो जायती कामा आंगार घेता-कोणाले परमीट हाडपाचें आसता, कोणाक नगरसेवक जावपाचे आसता. कोणावेलो कोर्टांतलो खटलो काडून घेवपाचो आसता, कोणाली लुकसानभरपायविशी आपापसांत जुळोवन घेवपाचें आसता, कोणालें वेंचणुकेंतले तिकीट खात्रीचें करचें आसता, अश्यो जायत्यो गजाली. दादासायबा खातीर बी तांका उपेगाक पडपासारख्यो विरोधी गटांतल्यो उणविकायो, कांय कारस्थानां तशेंच फुटीरतेच्यो काणयो तयार केल्ल्यो आसतात. अशतरेच्या कंबर कसून केल्ल्या तयारीन तो रेल़गाडीत बसता.

दादासायबाल्या घरांत हो चमचो झेतांत पावलां मारीत, आवाज दीत भितर रिगता. ताका कारण त्या घरात आपूण येवन रावपाचो अधिकार कोणाकूच पसंद ना, हेय ताका खबर जाला. फुडाऱ्याल्या घरांतले नातेवाईक वा तांचे सेवेकारी सदाच दुस्वास करतात. हजारांत एकद्रोच चमचो सभागी आसता जाचेर फुडारी मोग करता आनी ताचें कुटुंबातले लोकबी आपणायतात. चमच्यांकबी ताची जाणीव आसताच देखून तो आपणाल्या मनाक बळकटाय दिवंक तशेच आपूण ह्या घरपोच एक घटक आसा अशें आजूबाजूच्यांक कळच्याखातीर तो पावलांमारीत घरात रिगता. नोकर दुसरेवटेन तोंड करून हासतात, उपरान्त ताचेसर रागान पळेतात तशें घरकान्न म्हणटा, ''घे, आतां हो पर्थून आयलो.''

चमचो बळयां त्या घरांत आपणाक जुळोवन घेता. फुडाऱ्यान ताका आफयलें आसना. आनी तो बेश्टोच येवन हाजीर जाला हाचेरूय तो आडमेळे घेना. चमचो आतां आपणाल्या कामाक लागता. ताची बडबड सारखी चालू आसता. कांयवेळा फुडारी ताचें म्हणणे आयकून घेता. केन्ना कोणी घरांतलो ताका सुनशा दिता. जाल्यार जायत्या वेळार फुडारी वोग्गी रावन ताचे सांगणे आयकता. तो वासरेत बसल्यार चमचोय थंय येवन पावता. तो व्हरांड्यांत पासय मारता ताचे फाटल्यान चमचोय येवन उलयत रावता. तो न्हाणीघरांत घुसलो तरीय हो चमचो भायर उबो रावन कितें कितें म्हायती सांगता. फुडारी टॉयलेटांत आशिल्या वेळार तो ओठ बंद करून आसता ताका कारण ताचेवेले संस्कार. जाल्यार चमच्याल्या सांगण्याचेर 'हं, हं' म्हणत हयकार दिता. फुडारी केस फणीन विंचरता आनी फाटल्यान रावन उब्या उब्यान चमचो कितें कितें सांगत आसता-

- गुप्तागटाचे लोक सिंधी लोकांर आपणाली पकड बसोवंक पळेताले. हांवे स्पश्ट सांगलें, अजून तुमचे बरेच 'क्लेम' बाकी आसात. मातशें समजून घेयात. ते दिसापसून तांची थंय दाळ शिजना.

- दादासायबानू, ह्या वगतार हिरमानीक नगरपालिकेंत धाडून दियात. आमचो खात्रीचो मनीस समजा.

- ते दिसा जैनालो पंगड मेळिल्लो. हांवें सागलें- दादासायबान सांगले म्हणटकीर ती फातरावयली रेग.

- साबूरामलें लायसेंसचे काम मदेंच हुग्कळत पडला; दादासायब ते फाटल्यान पडला.

- हे वेळा पी. सी. सीत व्हड तुफान उठ्ठलें. रामसिंगाली चवकशी चालू आसा न्हय. वांगड्यांत फूट पडल्या अशी खात्रीची म्हायती कानार आयल्या. अर्देअदीक आमका साथ दितले.

- आयज काल थंयचो कलेक्टर गुप्ता गटाली चड पाठराखण करता. ताची बदली घडूंक जाय. ते लोक करवसूलीचें कारण दाखयत तुमचें नांव इबाडपाक यत्न करीत आसात.

- सद्याक दोतोराल्या घरां बाबमिश्राली ऊठबस वाडल्या. दोतोराली इल्ली सांसपणी केली तो विरोधीगटांत मेळ्ळो जाल्यार-म्हाका संशय येता. आमच्या वाठारांत तुमी एक भोवंडी मारप सामकें गरजेंचे जाला.

अशेतरेन चमचो उलयतूच आसता आनी फुडारी आयकत रावता. ताचे आपणाले हातांतलें कामबी चालू आसता. नोकर च्या हाडून दवरता आनी परथें वताना चमच्याल्या मनांत एक विचार झळकता. तो नोकराक उलो दिवन सांगता, ''आरे हो कसलो च्या घेवन आयलो? दादासायबाक मातसो 'कडक' च्या पिवंक आवडटा हें तुका खबर ना काय म्हणटा. हो कप घेवन वच आनी दुसरो हुनहुनीत कडक च्या घेवन यो पळोंवया.''

खरें म्हळ्यार दादासायब कडक च्या पिनात. केन्ना एक घोट पितात इतलेंच ते म्हणटात, ‘बरो आसा, रांवदी.’

चमचो सांगता, ‘‘ना, ना, रावदी कशें? आरे असो पळेत रावला कितें. हो च्या कप घेवन  वच.’’ आनी तो कप घेवन वचूं काय नाका ह्या विचारात नोकर दुबावांत पडला. नाका नाका म्हणटा आसतना लेगीत चमचो स्वता हातान कप उखलता आनी नोकराल्या हांतांत दिता, म्हणटा,- ‘तकुा अक्कलूच ना; कडक च्या घेवन यो पळोवयां.’’

चमच्यालें थोडे नाटकी वागणे पळोवन फुडाऱ्याली घरकान्न, भुरगीं सेवेकरी सगळे वग्गी रावतात. बाबासायबबी मान सकयल घालून सहन करता. चमच्याक दवरून घेवपाक भोव बरी धिटाय लागता.

तीनचार दीस रावन फुडाऱ्याकडसून रेलप्रवासाचो खर्च घेवन चमचो रेलगाडींत बसता. ताच्या गाठोड्यांत सगळ्यांखातीर आशा आनी आश्वासनां भरिल्ली आसात.



# सदाचाराचें तावज

एका राज्यांत भ्रश्टाचारान धुमशेण घाल्याचो चोंयवशीन बोवाळ उठलो.

राजान दरबार आफयलो, आनी सांगलें, ''सगळ्या सुवातेर भ्रश्टाचार पातळून आसा अशें आमचे रयत बोबाट करतात. आयजमेरेन म्हाका तशें काय दिश्टीक पडलें ना. तुमका खंयबी दिसल्यार बेगोबेग म्हाका कळयात.''

दरबारी लोकांनी सांगले, ''म्हाराजाकूच दिसलें ना म्हणटकीर आमका तें कशें कितें दिसतले?''

राजान सांगले, ''न्हय, तशें ना ते, कांय वेळा म्हाका जें दिसना तें तुमकां दिसूक शकता देख दिवची म्हळ्यार,- म्हाका वायट सपना केन्नाच पडनात जाल्यार तुमकां त्यो दिसूंक फाव.''

दरबारी लोकांनी सांगलें, ''व्हय म्हाराज, वायट सपना पडटात पूण निखटें सपनांतल्यो गजाली.''

राजान म्हळें, ''आसूंदी, तरीय तुमी सगळ्या राज्यांत भोवंडी मारून सोद घेयात आनी भ्रश्टाचार खंय दिसता काय पळेयात. जंय खंय नदरेक पडलो म्हणटकीर ताचो नमूनो म्हाका दाखोंवक मुजरत घेवन येयात. तो कसोकितें आसता ते म्हाकाय पळोवपाचें आसा.''

एका दरबारीन सांगलें, ''म्हाराज, तो आमका दिसचो ना. हांवे आयकल्या प्रमाण तो खुबूच बारीक आसा. तुमची व्हडविकाय पळोवपांतूच आमच्या नदरेक इतली काय सवंय जडल्या तेन्ना बारीकसारीक गजाली दिश्टीक पडनात. अचकीत भ्रश्टाचार पडलोच जाल्यार तांतून तुमचेंच पडबिंब दिसतलें. ताका कारण आमच्या दोळ्यांबुबुळांचेर तुमचीच आकृताय थीर जाल्या. सरकार, पूण आमच्या राज्यांत एक खासा ज्ञातीचे लोक रावतात. तांका 'जाणकार' म्हणटात. तांचेकडेन काय खास 'अंजन'-म्हळ्यार ते एक तेलांत वा तुपांत मेटिल्लें वखद आसता आनी तें दोळ्यांक भायल्यान लायलें म्हणटकीर तांका बारीकांतलें बारीक जिन्नसबी दिसूंक लागतात. म्हज्यामत्तान म्हाराज, तुमी अशा जाणकाराकूंच राज्यांतलो भ्रश्टाचार सोदून काडपी वावराक लावन दियात.''

राजान खासा 'जाणकार' लोकांक आफोवन तांका सांगलें, ''आमच्या राज्यांत भ्रश्टाचार फोपेला अशें म्हज्या कानार आयला. जाल्यार ते खंय आनी केन्ना घडटात तांचो पत्तोच लागना. तुमी वचून तांचो सोद घेयात. मेळलोच जाल्यार ताका धरून म्हजे सामकार घेवन येयात.

जाणकार लोकांनी त्याच दिसापासून सोदकामाक सुरूवात केली. दोन म्हयन्या उपरान्त ते राजदरबारांत हाजीर जाले. राजान विचाल्लें, ''मानेस्त बुदवंतानो, तुमचें सोदकाम पुराय जालें काय म्हूण विचारता.''

''ना म्हाराज.''

''कितें तुमका भ्रश्टाचार दिसलो?''

''व्हय, म्हाराज. खुबूचकडेन मेळ्ळो''

राजान हात मुखार केलो, म्हळें, ''घेवन येयात आनी म्हाका दाखयात.''

जाणकारानी सांगलें, ''म्हाराज, तो हातापकडींत येवंक पावना.'' सरळ साद्या मनशाल्या गिन्यानी इंद्रियांक कळूंक कठीण असोच आसा. तो सामको 'सूक्ष्म' आसा. तो 'अगोचर' म्हळ्यार सामान्य दिश्टीक दिसना. जाल्यार तो राज्यांत सगळेकडेन आस्पावन रावला. तो पळोवंक मेळना जाल्यार अणभव मात घेवंक शकतात.

राजा हुसक्यांत पडलो. ताणे म्हळें, ''आरे बुदवंतानो तुमी म्हणटात तो 'सूक्ष्म' आसा, 'अगोचर' आसा, 'सगळ्याकडेन आस्पावन आसा'. अशें आसत जाल्यार हे सगळेच गूण ईश्वराकूय लागू आसात. म्हळ्यार भ्रश्टाचार ईश्वर म्हूण आमी समजुचें काय कितें?

जाणकारांनी सांगलें, ''म्हाराज, आयज भ्रश्टाचार म्हळ्यार ईश्वरुच जाला.''

एक दरबारीन विचाल्लें, ''मागीर तो आसातरी खंय? ताचो अणभव कसो आसता?''

जाणकारांनी सांगलें, ''तो सगळेकडेन आसा. तो ह्या राजवाड्यांत आसा तसो तो ह्या शिंवासनांत बी आसा.

''शिंवासनांत आसा?'' म्हणत राजा किळांचून शिंवासनातून उठलो आनी पयस वचून रावलो.

जाणकारानी सांगलें, ''व्हय म्हाराज, शिंवासनात आस्पावन आसा. फाटल्याच म्हयन्यांत ह्या शिंवासनाक रंग, दुरुस्ती केल्ल्या हिशेबाचो आंकडो जो तयार केला तो सामको फट आसा. तो दुपटीन वाडयिल्ल्या खर्चाचो आंकडो आसा. अर्दो अदीक पयसो मदल्या रायबाऱ्यानी खावन सोंपयला. तुमच्या पुराय शासन वेवस्तेंत भ्रश्टाचार उपाट भरून आसा आनीचड करून लांचेच्या रूपान तो वावुरता.

जाणकारांले सांगणें आयकून राजा अजून चड हुसक्यांत पडलो. आतां मात दरबारी लोकांलें कान भोव सादूर जाले. राजान म्हळें, ‘‘ही गजाल खुबूच चिंतेची बाब म्हणपाची.’’ हो भ्रश्टाचार पुरायतरेन राज्यांतल्यान ना नपश्यात करचो आसा. म्हज्या बुदवंत मित्रांनो, तुमीच म्हाका सांगात हे कशेतरेन करूंक फावतले?’’

जाणकारानी सांगलें, ‘‘व्हय म्हाराज, आमी ताचेर बी येवजणी केल्या. भ्रश्टाचार मिटोवंक म्हाराजाल्या कारबारांत बरीच कितें वेगळी वेवस्ता करची पडटली. एकतर भ्रश्टाचाराच्यो जंय खंय संद उप्रासतात त्यो कडसरावच्यो पडटल्यो-जशें कामांचे कंत्राट आसता आनी कंत्राटदार आसता. कंत्राटदार म्हणटकीर तो अधिकाऱ्यांक लांच दितलोच तेंय तितलेच खरें. कंत्राटाचे काम कडसरायल्यार लांच दिवप बी बंद जातलें. अशा तरेच्यो बऱ्योच गजाली राज्यांत आसात. कसल्या कसल्या कारणांक लागून मनीस लांच घेता ताचो विचार करूंक जाय.’’

राजान म्हळें, ‘‘बरें, तुमच्च्यो सगळ्यो येवजण्यो म्हजेसरी दवरून वचात. हांव आमचे दरबारी सांगातीन भासाभास करीन. आनी जाणकार लोक वचूं गेले. राजा आनी ताच्या दरबारी जनानी तो अहवाल वाचलो. ताचेर जायती चर्चा जाली.

विचार करतां करतां बरेच दीस फाटीं पडले. राजाली भलायकी इबाडूंक लागली. एक दीस एका दरबारीन सांगलें, ‘‘सरकार, चिंतप करून करून तुमची प्रकृती पाड जावंक लागल्या त्या जाणकारांनी तुमका कठीण अशा लचांड्यांत घालून दवरला.’’

राजान सांगलें, ‘‘व्हय, म्हाका रातीन न्हीद पडना.’’

दुसरो दरबारी उठलो, म्हळें, ‘‘अशा अहवालाक उज्यांत घालून लासून उडयिल्लें बरें. ताचे सावन म्हाराजक बेसबरी न्हीद मेळटली.’’

बाबडो असो जावन राजान म्हळें, ‘‘पुणून करूं कितें? तुमीबी भ्रश्टाचार निपटावपी येवजणीचो अभ्यास केला न्ही, तेन्ना तुमचें मत कितें तें सांगा. कशेतरेन कामाक सुरुवात करचें तें सुचयात.’’

दरबारी लोकांनी एकमतान सांगलें, ‘‘म्हाराज ती येवजण एक भोव संकश्टूच आसा अशें समजा. सगळ्यांक कितलें अडचणीचे जातलें तशें दुख्खांकूय कारण जातले अशें आस. कारबाराची वेवस्ताच उलटीसुलटी जातली. जें चलत आयला ते बदलिल्यान नवी नवी भोव कठीण परिस्थिती उपजत रावतल्यो.

राजा विचारांत पडलो, ताणे म्हळें, ‘‘म्हाकाय तशेंच दिसता. जाल्यार हांतूतल्यान मार्ग कसो काडपाचो. म्हजो पणजो जादू जाणा जाल्लो. म्हाका ताचे बी गिन्यान ना. तुमीच खंयचो तरी उपाय सुचयात.

कांय दिसा उपरान्त दरबारी लोकांनी एक साधूक राजासामकार हाजीर केलो, म्हळें "म्हाराज एका गुहेंत तपस्या करतना हो दिश्टीक पडलो आनी ह्या म्हान साधकाक घेवन आयले. हाणे सदाचाराचे तावीज तयार केला. मंत्रोपचारान ताचेर यशाच्या खात्रीची तजवीज केल्या आनी ते हातार बांदिल्यान मनीस सामको सदाचारी जाता.

साधून आपणाल्या पिशवेतल्यान एक तावज काडून राजाक दिलें. राजान ताका विचाल्लें आनी म्हळें, "साधु म्हाराज, ह्या तावीजा विशी म्हाका फोडणिशी करून सांगा. हाचेसावन मनीस सदाचारी कसो कितें जाता?"

साधून समजायलें, "म्हाराज, भ्रश्टाचार आनी सदाचार हे मनशाल्या आत्म्यांत आस्पावन आसतात. भायल्यावटेन न्हय. मनशाक जल्माक घालतना ईश्वर कांयजणाल्या आत्म्यांत प्रामाणीकतायेची कळ बसयता पूण कांय जणाल्या आत्म्यांत बेयमानीची कळ दसता. कळ दाबली म्हणटकीर सदाचाराचे वा बेयमानीचे सूर भायर सरतात ताकाच आत्म्यालें आफोवणें म्हणटात. तांचें सांगणें प्रमाणेंत मनशालो वावर आसता. जांच्या आत्म्यातल्यान बेयमानीचो सूर आयकूंक येता ताका दाबून सदाचाराचो सूर कसो काय भायर सरतलो हो मुखेल प्रस्न. कितेक वर्सांपसून हांव ह्या गजालीचेरूच चिंतन करीत रावलो. हालींच हांवें हे सदाचाराचें तावज तयार केलें. आनी ते मनशाल्या हातार बादलें उपरान्त तो मनीस सदाचारी जालो. हांवे सुण्याचेर बी प्रयोग केलें. हे तावज ताच्या गळ्यांत बांदलें म्हणटकीर तो रोटीची चोरी करना. ह्या तावीजांतल्यान सदाचाराचे गाज भायर सरतात तीय एक मजेची गजाल. केन्ना कोणालोय आत्मो बेयमानीचो सूर काडटा जाल्यार तावीजांतली शक्त त्या आत्म्याचो गळो दाबता आनी प्रामाणिकपणाचो सूर आयकूंक येता. तेच सूर आपणाल्या आत्म्याचे उलोवप समजून तो मनीस सदाचाराकडेन वळटा. होच तर तावजाचो म्हत्वाचो गूण आसा, म्हाराज."

दरबारांत बोवाळ उठलो. दरबारी लोक उठून तो तावज पर्थून पर्थून पळेयत रावले. राजा खोसभरीत जालो, ताणें म्हळें, "म्हाका खबर नासलें, म्हज्या राज्यांत असोय एक चमत्कार घडोवन हाडपी महात्मा आसा. आमी तुमचे भोव उपकारी आसात. तुमी आमची संकश्टां पयस केली. सगळेकडेन आस्पावन राविल्ल्या भ्रश्टाचारान आमी त्रासिल्ले अशें जावन राविल्ले. जाल्यार आमका लाखापरस चड तावज लागतले. राज्यांत तावज तयार करपी कारखाने बांदपा खातीर ह्याच खिणाक आज्ञा दिता. तुमी ताचे वेवस्थापक पद सांबाळचें कितें? आनी तुमच्या देखरेखी खालां उत्तमदर्जेची तावजांची निर्मिती करची अशी विनंती करतां."

एका मंत्र्यान म्हळें, "म्हाराज अशातरेचे लचांड सरकारान कित्याक आंगार ओडून घेवंक जाय? म्हज्या मतान साधुकूच ताचो ठेको दिल्ल्यार बेसबरें जातलें. तो आपणाल्या मनशावरवी जायतितलें तावजां तयार करून दितलो. आनी ताकाच राज्यभर विकूं दी."

राजान त्या सुचोवणेक पाळो दिलो. साधूक तावीज निर्मितीचो ठेको मेळ्ळो. त्याच वेळेर पावकोटी रुपये कारखानो बांदूक आगामी रकम ताका दिली. लाखानी तावज तयार जाले आनी राजाल्या हुकुमाप्रमाण दरेक सरकारी सेवकान आपणाल्या हातार तावज बांदून घेतलें. अशेतरेन भ्रश्टाचाराचो प्रस्न सरळसरळ निकालांत काडिल्यान राजा आनी दरबारी लोक धादोसभरीत जाले.

एकेदिसा राजाली उत्सुकताय जागृत जाली. ताणे विचार केलो. हे तावज कशेतरेन काम करता तें पळोंवयां. राजा वेश बदलून एका कार्यालयांत पावलो. त्या दिसाक म्हयन्याची दोन तारीख आसली. त्या दिसा आंदीच फाटल्या म्हयन्याचो पगार सगळ्यांल्या हातांत पडिल्लो. राजा त्या कारकुनाकडेन वचून कांय कामाविशी उलोवणी केली आनी पांच रुपयाची नोट मुखार केली. तो कारकून रागार जालो, तोणे दम भरलो." आत्ता हांगाथावन रोखडे पांय काड; लांच घेवप पाप आसा." राजा भोव खूश जालो. तावीजान सेवेकरीक सदाचारी घडयिल्लो.

कांय दिसा उपरान्त आनीक खेप वेश बदलून राजा त्याच कर्मचाऱ्याकडेन पावलो. त्या दिसा म्हयन्याची तारीख आसली एकतीस, म्हळ्यार त्या म्हयनाचो अखेरचो दीस. राजान काम सांगलें आनी पांच रुपयाची नोट मुखार केली. ताणे ती घेतली आनी पैरणीच्या बॉल्सांत हळूच दवरली. तितल्यांत राजान ताचो हात धरलो, आनी म्हळें, "हांव तुमचो राजा. आरे, आयज तूं सदाचाराचे तावज बांदून आयलो ना कसो काय म्हूण विचारतां?" "तावज बांदला, सरकार, हे पळेयात", म्हणत ताणे खोमिसाची बाही वयर करून भुजार बांदिल्ली तावज दाखयली.

राजा गोंदळलो. मनांतल्या मनांत ताणें म्हळें, "आरे म्हज्या, हें अशेंकशें घडले? ताणे तावजाक कान लायलो. तांतूतल्यान कांय आवाजाचीं ल्हारां भायर सरताली-ती अशीं "आरे आयज एकतीस तारीख. जे मेळटा ते घे कशें !!"



# मुंडण

एका देशाच्या संसदभवनांत एक खेप बेसबरो बोवाळ घडलो. ताका कारण राजनीतिक धरून नासलें. जें घडलें तें अशें - एक मंत्री अचानक आपणाले तकलेवेल्या केसांचे मुंडण करून आयलो. कालमेरेन ताच्या मात्यार सोबीत लांबसार मुदयाळे केस दिसताले. परंत अचकीत कालच्या रातीकूच मुंडण केल्लें ध्यानांत आयलें. संसद वांगडी एकमेकांल्या कानांत फुतफुतलें,- ''आरे, हाका जालां तरी कितें.'' दरेकजण अनुमान बांदतालो. कोणे एकान म्हळें,- ''घडये ताच्या केसांत उयो जाल्यात आसूये.'' दुसऱ्यान म्हळें, ''घडये तकलेत चड विचार भरून घेवंक केसाचो भार उणो केला अशें दिसता.'' आनीक कोणे शेरो मारलो,- ''घडये हाच्या कुटुंबांत कोणतरी लाग्गीचो संबंदीक भायर पडला.'' पूण मजेची गजल म्हळ्यार ताच्या मुखामळार प्रसन्नताय पर्जळिल्ली कशी स्पश्ट नदरेक भरताली.

निमाणे एका वांगड्यान विचारलेंच-''अध्यक्ष म्हाराज, मानादीक मंत्र्याल्या कुटुंबांत कोण मरण पावला काय कितें? हे विशी आमका कळल्यार बरें जातासले.

मंत्र्यान जापदिली, ''तशें काय ना.''

वांगड्यांनीं आतां दुसरो अनुमान बांदलो.घडये तो आतां जें विधेयक पास करून घेवंक पळेता ताच्या विरोधकानी बळंया ताचें मात्यावेले पुराय केसांची कापणी केल्ली आसच्याक फाव दुसऱ्या एका वांगड्यान विचाल्लें, ''अध्यक्ष म्हाराज, मंत्र्यालें केसांचे मुण्डण जाला हे ताका खबर आसा काय कितें म्हूण विचारतां. तशें आसल्यार तें काम कोणे केले हे आमकां मातशें कळत?''

चेऱ्यार खंती भाव दाखयत मंत्र्यान सांगलें, ''म्हजें तकलेचे मुंडन जाला काय ना ते हांव सांगूक शकचो ना.''

कांय वांगडी किळांचत उठून उबे रावले, ''मुंडण जाला, आनी ते स्पश्ट सगळ्यांक दिसता.''

मंत्र्यान शांतपणान सांगले, ''सगळ्यांक दिसून कांयच घडपाचे ना: सरकाराक ते दिसूंक जाय. सरकार ते विशी चवकशी करतले आनी उपरान्त खात्री करून घेतले.

रोखडेंच एका वांगड्यान उल्लासभरीत जावन म्हळें, "ताची खात्री नित्शितायेन आत्तांच करून घेवंक येता. भोवमानेस्त मंत्र्यान आपणाल्या तकलेर स्वतालोच हात भोवंडायल्यार ताका ध्यानांत येतलें.

मंत्र्यान तितल्याच लगबगीन जाप दिली, "म्हज्या मात्यार हांव केन्नाच हात भोवंडावचो ना. सरकार ह्या विशयांत ताकतिकेन कायंच करूंक शकचे ना. जाल्यारूय हांव एक वायदो करूंक शकता, आनी तो म्हळ्यार - सरकार ह्या घडणुकेर बारीकसाणेन तपासणी करून सगळें सत्य संसदेमुखार कांय दिसा उपरान्त मांडटलें. जमिल्ले वांगडी एकासुरांत आड्डले, "असल्या तपासणेची गरजूच कित्याक? तकली तुजी हातूय तुजेच. आपणाल्याच तकलेर स्वताचेच हात भोवंडावंक मानेस्त मंत्र्याक अडचण कसली?

मंत्र्यान मुमुरखे हांसत सांगले, "हात म्हजे आनी तकली बी म्हजीच. जाल्यार आमचें सगळ्यालें हात परस्पर नीतनेमान बांदिल्ले आसात. म्हज्या तकलेर म्हजेंच हात भोवंडावंक हांव स्वतंत्र ना. सरकाराली कामाची एक रीत आसा. विरोधी लोकांल्या भेशटावणीक लागून हांव त्या नेमांचो भंग मातय करचोना. तेविशी ह्या सभेंत एक भाशण दिवपाच्या येवजणीत हांव आसा. आनी त्याच सांजेर संसदभवनांत मंत्र्यालें भाशण झडलें,-

'अध्यक्ष म्हाराज, आयजच्या सकाळच्या सभेंत कांयजणानी म्हजे मुण्डण जाला काय ना म्हूण प्रस्न विचारिल्लो. आनी तशें आसल्यार तो कोणे केलो हो उपप्रस्न केल्लो. हो प्रस्न खऱ्यानी कठीण असोच आसा. ताका कारण सरकार ताचेर खंयचेय तरेन ताकतिकेन निकाल दिवंक शकना. हांवूय सांगूक पावना म्हजे मुण्डण जाला काय ना तें. पुराय तरेन चवकशी जाल्याबगर सरकाराक नित्शितायेन सांगूक कशें फावतलें काय म्हणटा. आमचें सरकार तीन नामनेच्या व्यक्तीलीं एक सोदसमिती थारायतली. ती समिती म्हज्या मुंडणाविशी तपशिलान समजून घेतली. ताचो रिपोर्ट (अहवाल) हांव योग्य वेळार तुमच्या मुखार मांडीन.'

वांगड्यानी सांगलें, "आरे, ही कितें कुतुबमीनारची बाब न्हंय, जो शेकडों वर्सानी चवकशीक लागून उबोच रावला. ही सादीसरळ तुमच्या मात्यावेली केसाची बाब आसा आनी ते कसे वाडतूच रावतात. हाचो निकाल रोखड्यारोखडो जावंक जाय."

मंत्री हुशार, ताणे सांगलें, "कुतुबमिनाराक म्हज्या केसाची ओपार दिवन ताचो नाकाजाल्लो अपमान करपाचो अधिकार हांगाच्या वांगड्यांक ना, हे ध्यानांत पयले घेयात. म्हज्या मत्तान बुनियादी तत्वांचो संबंद जंय उप्रासता, थंय पुराय चवकशीबगर कितेंय सांगप फावोशें दिसना.

सोदसमिती बारीकसाणेन चवकशी करीत रावली आनी तोमेरेन मंत्र्याल्या मात्यावेले केस बेसबरें वाडले. मंत्र्यान सोदसमितीचो रिपोर्ट संसदेंत जाहीर केलो आनी संसद वांगड्यामुखार दवरलो,- अहवालांत स्पश्ट तायेन निकाल सांगिल्लो- 'मंत्रीजीलें मुण्डण जाल्लें नाशिल्लें.''

सत्ताधारी पक्षाच्या वांगड्यानी ताचो येवकार व्हडान हांसून केलो. विरोधीपक्षाकडून 'शेम, शेम' चो आवाज घुंवलो. ताणी आक्षेप परगटायलो, ''हे सगळें फटिंगपणाचें जालें, मंत्र्याले मुण्डण जाल्लें हेंय तितलेंच खरें आसलें.

मुमुरखे हासत मंत्री उठून उबो रावलो, ताणे सांगलें, ''ते सगळें विचार तुमचें, जाल्यार खरेपणाक साक्षीपुरावे जाय काय नाकात? प्रमाण दिल्यार आजूय हांव तुमचें सांगणें खरें म्हूण मानूंक तयार आसा.''

इतलें सांगून ताणे आपणाल्या काळे मुदयाळ्या केसावेल्यान हात भोंवडायलो, आनी सदनाच्या हेर प्रस्नांचे सोडवणुकेच्या वावरांत गुल्ल जालो.



# आर्विल्लें फॅशन

म्हज्या मोगाळ भावा, राज्यांतल्या कांय दादल्यांक खंयच्यान तरी काकणां आनी कुकूम धाडून दिलें आनी ताकालागून उचांबळीत जावन ते आतां उपद्रव दिवंक लागल्यात अशें मुख्यमंत्र्याले भाशण वर्तमानपत्रांत छापून आयिल्लें वाचलें. भारतांतलो दादलो आपणाले दादलेपण दाखोवंक जितलो उतावळो आसता तितलो तो स्वताली अक्कल आनी सारासार विचार दाखोवंक तयार जांयना. आजकाल जीं भाशणां हांव वाचतां ताचेर हांवे इल्लेय जरी लोकभाशेंत बरयलें आनी भौसानीं तें वाचलें जाल्यार देशाची एकता भंग पावता आसली असो म्हाकांच दुबांव येता. हाली साबारजाण इग्लंडच्या टोरी राजकीय पक्षावरी आपणालो अनुमान बांदीत आसतात. इंग्रजालें शासन कडसरायलें म्हणटकीर रोकड्या रोकडे भारतदेशाचे कुडके-कुडके जातले अशें टोरी पक्षाच्या वांगड्यालें म्हणणे आसताले. इंग्रजी भाशा कडसरायल्ल्यान देशाचे कुडके पडटले अशें भारतांतल्या टोरी पंगडातलें फुडारी सांगतात. छळवादाक आमचेकडेन बुनियादी तर्क आसनात. तर्कदुश्टतायेक मुळाव्या तत्वांची गरज भासना.

सद्याक म्हाका दुसरेंच एक कुवाडें त्रास दिवन रावलां. व्हड शारांनी राबीत करून कांय तरनाट्यानीं बरयिल्यो साहित्य रचणुको हांगा हांव बशिल्लेकडेन वाचीत आसतां. तांतूतलें बरेच जाण ‘मृत्युकामी’ म्हळ्यार मरणाची इत्साधरपी आसात अशें ध्यानांत येता-कोण म्हणटा आमी मेल्ल्यातूंच जमा, दुसरे म्हणटात आमकां मरचें आसा, आनी कोण सांगता आमकां मारून उडयले. एकान तर स्वताल्या मरणाची घोशणा केली आनी हांव धांवत धांवत शारांत ताचे घरा पावलो. आनी म्हज्या भावा हांवे थंय कितें पळयलें तें सांगता-तो साहित्य मळावेल्या काय लोकां पंगड जमोवन मौजमजा आनी फकाणा करीत आसा, ताचें वजन बेसबरें वाडलां, चेरो उर्बेन उपाट भरला आनी आंगार भेस उत्तम घाला. म्हजोजीव खासावीस जालो- ‘हें असलें कसलें मरण ज्याच्या नांवान मनशाले वजन वाडटा, संतुश्ट दिसता आनी दुडुवांकारबी जायत आसता. अशेतरेचें खुशीचें मरण मेळटा जाल्यार हांव शंबर फावटी मरूंक तयार आसा.

एका इश्टाक हांवें ते विशी विचाल्लें, ताणेय रोखडेंच सांगलें, ‘अशातरेन मरपी लोक पुर्विल्लेप्रमाण मरनांत. तांचे मरण हें आर्विल्लेतरेचें आसता. आधुनिकतायेची दोन लक्षणां

आसात सकयल म्हेळ, अशीर रुंदीचें पँट आनी वयर तकलेंत मरणाचे विचार. हांवे विचाल्लें "आरे म्हज्या भावा, हांच्या मेंदूत मरणाचे विचार कशेंकितें रिगले ते मात्शें सांगशीं?"

ताणे जाप दिली, 'जो स्वताक मेला अशें समजना तो आधुनिक ना, अशें तो समजता. आपणाक यंत्रानी भड्डिला अशी तांची विचारसरणी. कांय लोक अशेंय आसात जे मरणाक परदेशांतल्यान आयात करतात. देखीक-कांय परदेशी विमान कंपन्या कडसून हांचेखाती सदाच ताजें ताजें मरण येत आसता.

आरे म्हज्या भावा, अशी मरण इत्सा 'धरतल्यांली चिकित्साय हांवे केली आनी त्या यत्नांतून ध्यानांत आयलें तें म्हळ्यार अदीकतर लोक शारांतल्या यंत्रानी पिडिल्ले आसतात आनी तांका दिसता हीं यंत्राच तांका मारीत आसतात. चड सोद घेतल्या उपरान्त कळ्ळें-शेकड्यांतले नव्वद जाण हे खेडेगावांतले आसात. ल्हान शारांत वा व्हड गावांनी रावतले हे लोक मनांत म्हत्वाकांक्षा-वा चड हावेस धरून व्हड शारांनी आयिल्ले आसात. शारांतले उपाद्रे पळोवन ते आदी अजाप जाले आनी तशा अवस्तेंतूय तांका गांवाकडच्यो यादी येवंक लागतात-आवय दुवेंसान हांतूळणार पडली तेन्ना सगळो गांव घरा आंगणात एकठांय जाल्लो, बाप्पोलो भायर पडलो तेन्ना वाड्यावेले सगळे मसणवाटेर सामील जाल्ले, आपूण घरांतल्यान भायर सरलो म्हणटकीर गांवगिरे नमळायेन पांय पडटाले वा म्हजेकडसून चिट्यो वाचून घेताले अशें अनेक जाल्यार आरे म्हज्या भावा, ह्या व्हड शारांत कोण भेटीक येतात, एकमेकांक नमस्कार करिनात, इतलेंच न्हंय कोणी चीठ वाचून दाखय म्हूण बी विचारतात. म्हळ्यार आमी मेल्यावरीच. अशा यंत्र सभ्यतायेन आमका पुराय मारूनूच उडयला. देखूच दितां-एक गांवगिरो बैलगाडीन शारांत पावलो आनी स्टेशनांत रेलगाडी पळोवंक गेलो. ती रेलगाडी पळोवन ताणे हार मानली, स्वताशीच म्हळें, "शाब्बास ना बैल, ना घोडे, पूण सरपटत कशी धांवता!" परंत जेन्ना ताचे बैल दचकून थतरवितर धांवलें, तेन्ना तो किळांचलो, "आरे, आरे आमकां मारून उडयले ह्या राकेसान."

भोवतेक तरनाट्यानी अशा गांवगिऱ्या अन्नाडीपणाक लागून 'मरण' इत्सा धरली. तांची गावाकडची शिकवण ताका त्रास दिता. तांचे बैल भियेवन काचाबूल जाल्यात. ताणी गावंतूच रावन बायलांली साडी, पदराच्यो कथा, काणयो बरोवंक जाय आसले आनी गांवच्याच मास्तरा सांगातीन रावल्यार उपकारता आसले. आतां तेच अदीकतायेन आपणांक 'सुदारिल्ले' म्हणून घेवंक लागल्यात, जो यंत्रा सांगातीन जुळोवन घेता तो कसो कितें सुदारिल्लो जातलो ही ल्हानशी बाब मात ताच्या ध्यानांत येना.

आनीक गजाल ह्याच गावंठीपणाक जोडिल्ली आसा. गांवातल्या मुळाव्या शाळेंतलो एकद्रो चलो पयलो नंबर येवन सरपंचाल्या हातान बक्षीस घेता तो शारांत येवन पावता. ताणे एकूच आस्त बाळगिल्ली आसता-म्हळ्यार शारांत पांय दवरलो म्हणटकीर आपणाक उण्यांत

उणे उपकुलपतीपद मेळूंक जाय. आनी आतां तशेंतरेचे उपकुलपति जावंक लागल्यात बी. अशा म्हत्वाकांक्षेक कारण एकूच......' तो भुरगो शाळेंत पयल्या क्रमांकान पास जाल्लो.' जाल्यार शारांत तशें कायच घडना. तेन्ना ताचो जीव आकांताचो सतरवितर जाता आनी सहज तो म्हणटा 'आमकां मारले' आमचें जिणें निरर्थक शून्य आनी रितें जाला अशी ताका जाणीव जाता. त्याच झटक्यांत तो 'आधुनिक' जाता.

म्हज्या भावा, मरणाची इत्सा धरिल्ले 'आधुनिक' हे म्हाका भोव रूढिवादी, अन्नाडी अशें दिसतात. तांतूतल्यांक साबारजणांक आयचे जिणें आनी तांचे समस्याविशी बोध जायना. ते फकत आंगार चडयिल्या पोशाखाक आधुनिकताय समजतात. आनी वेव्हारबी तेचतरेन करतात. जशें एकादलो गांवगिरो तरनाटो शारांतल्या रस्त्याकडेनचे फुटपाथावेल्या फेरीवाल्याकडेन तयार पँट सवायेत विकत घेता आनी गावांत आयिल्यावेळार आंगार चडोवन स्वताकूच 'बाबूसायब' म्हणून घेत गांवभर मिरयता. जाल्यार कांय जणांक निर्शेणी, विफळताय वा आपूण फुकट गेला असो अणभव येता, ते फक्त अशांकूच घडटा जेन्ना जेन्ना कोणाली सोबीत, बरी सहित्य रचना छापून उजवाडाक आयल्या, कोणाकोणालो फोटो व्हड आकारांत जंयखंय छापून आयला, कोणाले नांव लिखाणाखालां आयलां वा कोणालो म्हयन्या पगार वाडला हे सगळें आधुनिक म्हणटल्यांक मरणाची चालना दिवंक पुरोजाता.

म्हज्या भावा गांवाकडचो भोव अन्नाडी, रानटी बी आसूंक शकता. ताका यंत्र भड्डून काडटा काय यंत्र चलोवपी पिसुड्डून काडटा हाचें मातय खबर आसना. मशीनूच मनशालें जिणें दळटा अशें कांय जाण ताका सांगतात तेन्ना तो किळांचून उठ्ठा. जीवित इबाडलां आनी ताका कुसट्टाण मारता म्हूण कोणे सांगल्यार तो नाकार रूमाल धरता. कोणे सांगलें शारांत जितल्यो अस्तुरी आसात त्यो सगळ्यो बाजारांत भोंवतना दिसतात आनी हॉटेलांत बसून सोरो पितात-ताकाय पाळो तो दिता. उपरान्त, तो ना आपणाल्या विभागांत चोयता, ना आपणाल्या घरांत.

आरे पूण, हांका अशेतरेन कोण सांगत आसता. म्हाका दिसता जगभर जांगेलो सभ्यतायेर कबजो आसलो तांच्या हातांतल्यान ते निसटत आसा. ताका खूप इबाडून, मनीसपणांतल्यान कडसरावन ते उपकाराक पडूं नजो अशें करून सोपोंवपाक पळेतात. एकाद्र्या घराचो कबजो मेळलो म्हणटकीर आदी तांतूत रावपी रागेभरीत जावन फरशी तोडून फोडून, वणतीचे प्लास्टर खरडावन, जनेलां आनी कवडां निखळावन तो नव्या मालकाक घर सोंपयता. जो ताबेंत घेवंक येता ताणे ते एकतरेची सजावट समजून आपणायल्यार ताची जाण आनी रुचीक कितें म्हणपाचें. जाल्यारूय आयज जगांत अशेंच घडत आसा. सभ्यतायेक वायठावन, ताचें वयली सालां काडून, ताका बुरशें, मळीण आनी कुसटाणीन भरून पुराय इबाडिल्ले सरूप दिवन सामकार हाडटात आनी ते आचरणांत घेतले बी ते सगळे एक सभ्यतायवेलें आर्विल्लो साज समजून मानान आपणायतात. जिणे आस्पावन राविल्ल्या आनी माणसुकी नाशिल्ल्या

अशा बाबतीत प्रयत्नानी झूज दिवपाचे सोडून आयज हो आधुनिक गांवगिरो ताका पसंती दाखयता.

म्हज्या भावा, म्हाकाय खूब तरेचे त्रास जाता. आकांताची सकंश्टा येतात. अन्यावाचो बी शिकार जाला. इतले आसुनूय मरणाची इत्सा जायना, ना जिणेक कुसट्टाण येता, ना तें वळवळपी किडो अशें दिसता, ना व्यर्थपणाची जाणीव जाता, ताचे सावन म्हाका एकतरेचें भय पडला. कारण मरणाची इत्साधरप ही एक आधुनिक फॅशन जाल्या. केन्ना केन्ना मायेस्तपणा, दुसऱ्यांविशी कळकळ, आनी दया मनांत उप्रासतात तेन्नाय संशयाक कारण जाता आनी ते म्हळ्यार हांव अजून सुदारणांक विरोध करपी परंपरावादी रावलां काय कितें? मनीसपणापसून पयस रावप हीच आयचो फॅशन जाला.

सद्याक अशाच तरेच्या प्रस्न सोडणूकेच्या हुसक्यांत दीस सरत आसात. ती एक बाब सोडल्यार बाकी सगळें खुशाल आसा.

बरें मागून,



# तो जो मनीस आसा न्ही.....!!

कुटाळकींत विटामिन आनी प्रोटीन आसतात. ताणे रगत निर्मळ जाता आनी ताकालागून आपणाली जिरवणीची शक्त सुदारता. कुचिश्टा केल्ल्यान आंगातली मांसपेशी पोसवल्ली अशें जातात. ते कारणान बळगें आनी स्फूर्ती वाडटा. साधुसंतांनी दुसऱ्याली निंदा करूंक मनाय केल्या. खरी जाल्यार ते स्वता खाशेली कुचिश्टा करून आपणाली भलायकी शाबूत दवरतात. 'म्हजेसारखो शिटूक आनी वायट असो कोण आसा?' ही संताली म्हण विनम्रतायेची वा पच्छतापाची खूण न्हंय जाल्यार ती एक शक्त वाडोवपी 'टॉनिक' आसा अशेंय म्हणयेत. कांय वेळा साधु बेस बरो बुदवंत आसता. आमी समजतात तो आत्म्याचो सोद घेत आसा पूण तो खऱ्यानी विटामिन आनी प्रोटीन खायत आसता.

आरोग्य विज्ञानाचें एक बुनियादी तत्व रुजोवपाचें काम हांवे केलें. आता दोतोरालें सगळे काम धरून थोडेशेंच बाकी उरलें- म्हळ्यार खंयचे तरेच्या कुटाळकींत कसलें विटामीन आसत. आनी ताचे प्रमाण कितलें अदीक प्रोटीन कितलें आसता हाचो ताणीं सोद घेवप.

म्हजे सामकार एक गिरेस्त बशिल्लो, ताणें म्हळें "तो अमूक मनीस सोरो पिता तें तुमकां खबर आसा?" हांवें ध्यान दिलें ना. ताणे पर्थून म्हळें, "तो म्हरे, सोरो पिता?"

कुटाळकींत उमळशीकाय दाखयली नाजाल्यार ती करतल्यांल्या तोंडार जोत्यानीं मारिल्लेवरी जाता. ताणे तीन खेप सांगून जालें आनी तरीय हांव वग्गी राविल्लो. देखून तीन फावटी ताका जोत्यान मार पडिल्यावरी जालें. आतां मात म्हाका ताची दया आयली. ताचो चेरो धवो फटफटींत पडिल्लो. हांवें म्हळें, "पिवंदी न्ही!"

तो गिरेस्त अजाप जालो, "ताणे म्हळें, "पिवंदी? अशें कशें म्हणटात?"

हांवें समजायलें, "व्हय, आमच्या पयलीं कोणीय ना ताचो बापूय आसा ना ताचें बरें मागपी.

तो सोरो पियेल्यान आमचें कायच लुकसान जायना इतलें मात खरे.

ताका तें आवडलेंना. आपलें म्हणणे परत परत म्हाका सांगत रावलो. म्हाका वोग्गी रावपाक जालें ना. हांवे एका फाटोफाट ताचेर प्रस्नांची सरबत्ती लायली. ताका विचाल्ले, "जेवणांत तुमी शीत चड जेवतात काय फुलक्यो चड खातात? खंयच्या कुशीन न्हिदतात? पायतणां घालतना डाव्या पायांत आदी घालतात काय उजव्यांत? बायले सांगातीन..."

आतां तो हीऽऽ हीऽऽ करून हांसूक लागलो. आरे, ह्यो सगळ्यो खासगीतल्यो गजाली, आनी ते विशी तुमचो कसो कितें संबंध येता?

हांवें म्हळें, ''तो अमूक अमूक मनीस कितें खाता-पिता ही ताची खासगी बाब न्हंय? पूण ते विशी तुमचो नित्शीत संबद आसा काय ना? एकाद्या दिसा कोणी ताच्या घरां रांदच्या कुंडांत घुसून कसलो दाळी रोस शिजला काय म्हूण खात्री करून घेतली आनी उपरान्त भायर येवन रस्त्याकडेन रावन व्हडव्हडान आड्डतले, अमूक मनीस खुबूच वायट चालणुकेचो आसा, आरे, तो उडदां डाळ खाता!!''

ताच्या मनावेलो ताण वाडलो आनी हांव मात एका हुसक्यातल्यान मेकळो जालो. आरे मित्रा सोडून दी अशा ल्हानसान गजालीक. वेदांत सोमरसाची तुस्त करपी ६०-६५ मंत्रां आसात. ते सांगतात- ''तुवें म्हाका अमर केला. सगळ्या धरतीक आपणाल्या हातापोशांत धरून आता रगडून उडोवंक शकता'', घडये ऋषीक मातशें अदीक चडिल्ली आसूंक जाय. इंद्रियां दाबून सुरक्षित रावंक वा ज्ञानेंद्रियाचो विस्तार दाखोवंक खयचीतरी धुंदी चडपी वखदाकाडो ताणी घेतिल्लो आसूंक फाव.



गिन्यानाचो विस्तार! व्हय, कांयजणाली बुद्धी उपाट भरून व्हांवतना हांवे पळेल्या. तो रिक्षावाल्याक पाना विडो खावयता, ओडूंक आपणाली सिगरेट दिता, आनी भाडें दामदुणो दिता. सोरो पिवन बेबदो जालो म्हणटकीर तो 'प्रोलेतेरियत'- म्हळ्यार गरीबांतलो गरीब जाता. कांय वेळार तो रिक्षावाल्याकूच गाडयेंत बसोवन आपूण रिक्षा चलोवंक घेता.

तसो होय एक गिरेस्त मनीस. हांवे अश्या काय मनशांक पळेल्यात जे शाबुद्धींत आसतना माणसुकेक धरून रावंक शकतात. रम सोऱ्याच्या 'किक' वरी तांची माणसुकी वयर सकयल जायत आसता. ताका माणसुकीचे 'फिट्स' येतात म्हळ्यारुय जायत. हांवे पायतणांचो वास दितकीर 'आंकडी' बरी जाता अशें आयकला. जाल्यार पायतणाचो वास घेतलो म्हणटकीर कोणाकोणाक माणुसकीचे फिट्स येतात. हांची प्रचीत हांवे घेतल्या. एका बुदवंतान आपणाली बुद्धी पातळायतना हांवे पळेला.एके सांजेर आमी आमचो आमीग रामशर्माल्या घरा जमिल्ले. आरे तो भोवमानेस्त राम शर्मा न्हय जो सकाळी दूध पिता आनी फांतोडेक भोवंडी मारुंक (मॉर्निंग वॉक) गेल्यावेळार निर्मळ हवो खावन नवोताल्ल जाता- हो आमचो आमीग स्टेट रोडवेज खात्यांत काम करता आनी ताचे घरां एकठांय जाल्ले. ताच्या एका मित्रान दीड 'पेगांतूच' आकांताची अक्कल परगटायिल्ली आमी पळेंलें. संत कबीरान सांगुनूच दवरला- मन धादोशी जालें म्हणटकीर कित्याक उलोवंक जाय'. पूण हांगा मात उरफाटेच घडलें- मन उमळशिकायेन भरलें आनी तो फड्यां इंग्रजीत उलयलो.' खाला वचून हॉटेलांतल्यान जेवण

ाकाच हाडपाचें आसलें. हांवे म्हळें, ''हाका आतां धाडपाक कायच अर्थना. घडये कांय वेपरीत घडत.''

ताणें म्हजें सांगणें आयकलें मात तो उसळ्ून उठून आनी सटसटीत इंग्रजींत उलयलो, ना म्हळ्यार ताची धुंदी मातशी वयरुच चडिल्ली, ताणें म्हळें, ''नो सर, नो सर, आय शेल ब्रिंग ब्युटिफुल मुर्गी!'' इंग्रजी भाशेची गमजा तर पळेयात. थोडेशेंच शिकला जाल्यार तो जेवणांतल्या जिनसाक 'सोबीत' म्हणटा. आनी जें कितें सोबीत दिसता तें खावन उडयता. हेय एक तरेन भाशेंरुपांत सुवाद घेवपासारखें. रुप पळोवन उमळशिकाय ना आयली तरी तोंडाक उदक सुट्टा. इंग्रजांनी म्हळें 'इंडिया इज अ ब्युटिफुल कंट्री' आनी ताणी सुरीकांटे घेऊन 'इंडिया'क खावन उडयलें. ताणीं अर्देअदीक खाल्लें तेन्ना देशी खवय्यांनीं म्हळें, ''तुमी लोकांनी 'इंडिया' खालें उरिल्लें 'भारत' आमका खांव दी''. इंग्रजांनी म्हळें, आतां आमका हागवण लागल्या देखून आमी परथें चल्ले. तुमीच आतां जें जें उरला ते खायात. ही गजाल सत्तेचाळीस सालांतली. आमी म्हळें, ''अहिंसक क्रांती घडली'. परदेशी लोकांनी म्हळें, ''हे फक्त ट्रान्स्फर ऑफ पॉवर घडले''- म्हळ्यार सत्ता तुमच्या हातांत दिली. जाल्यार खऱ्यानीच सांगचे म्हळ्यार ट्रान्स्फर डिश घडलें. जेवणाथाळी तांच्या मुखाल्यान हांचे मुखार आपशीच आयली. ते आमच्या देशाक युरोपी सभ्यतायेच्या 'सालादा' (Salad) सांगातीन खाताले. आनी आमचे गणतंत्र चलोवपी लोक आपणालोच देश मिचकुटाक लावन खातात.



परथून हांव राजनीतितूंच घुसलो. जांव दी. विशय सोऱ्याबाबत आसलो. ताच्या जाणविकेयीविशी जें कितें वयर भासाभास केली ते कोणेय अमलांत हाडल्यार ते जांचेतांचे जोखमीचेर आसतले. 'लुकसानेची' जापसालदारकी घेवपी 'कंपनी' नासतली पूण गजाल सोऱ्याची नासून त्या शुद्ध-सात्विक मनशाविशी आसली- तो म्हज्या सामकार बसून हेरांच्या वायट वागणुकेविशी चिंतीत आसलो.

हांव मातय चिंता लावन घेना म्हूण तो रागार तशेंच खंती जावन राविल्लो. म्हाका सामील करून घेतलेंबगर तो वोग्गी रावचो ना. आतां सोरो विशय सोडून तो बायलांचेर पावलो, ताणे म्हळें, ''आनी तो जो मनीस आसा न्ही ताचे अमूक अमूक बायलेकडेन बुरशे संबंध आसात.

हांवें म्हळें, ''शें, शें, हे खुबूच वायट जालें.'' हें आयकून ताचो चेरो मात्सो उजळलो, ताणे म्हळें, ''खरे सांगता.''

हांवे म्हळें, ''वायट इतल्याकूच म्हणपाचें,... म्हळ्यार...म्हळ्यार त्या बायलेकडेन आमचो कसलोच संबंध ना.''

आतां मात ताच्या चेऱ्यार निर्शेणी आस्पावली. ताणे मनांतल्या मनात चिंतिले आसूंक जाय हो मनीस कसलो तरेचो फातोर जाका सामके वयल्या पावंड्यावेलें 'स्कॅंडलांत मातय रुच दाखयना. तो उठून उबो रावलो आनी हांव विचारात पडलों- म्हळ्यार रेलगाडींत जनेलां

आसतात त्यो हवा आनी उजवाड येवपा खातीर अशें लोक समजतात जाल्यार वास्तवांत त्यो धांपच्या खातीरुच आसतात.

आनी अशे जायते लोक आसतात जे 'चरित्रहीण' जावंक आनी ते साध्य करुंक मनांतल्या मनांत विचार सांबाळून आसतात. पूण तशें घडूंक पावना आनी ते निखटे 'चरित्रवान' म्हणून घेत मरतात. परलोकांत बी तांचो आत्मो असमाधानी, उचांबळपी अवस्तेंत रावंक फाव आनी ते धरतीर रावन कोणाकोणाली लफडीं चलतात हे तांच्या कवडां, जनेलातल्या बुराकांतल्यान पळेत आसत.

खंयच्याय दादलो-बायलालें संबंध मनाक खटकता. ती अनैतिकता नासून आमच्या मनाक जाणवता ते म्हळ्यार- 'आरेरे, त्या जागेर आमी आसूंक जाय आसलें', इतलेंच. असले लोक जकात वसूल करपी अधिकाऱ्यावरी दिसतात. दरेकाक तो बारीकसाणेन नियाळटा आनी तांका आडोवन विचारता ''भितर कसलें कितें लिपोवन दवरला 'काय म्हणून!'' एक चलियेल्या बापायक कांय बऱ्याक पडपी लोक ताचे लागीवचून सल्लो दिसतात- ''त्या फटींग मनशाक तुमच्या घरां येवंक दिवनाकात. तो 'चरित्रहीण' आसा. खरें म्हळ्यार त्या दुबळ्यांलें तो एक तक्रारवजा सूर असता- ''आरे गिरेस्ता तूं आमका 'चरित्र्यहीण जावंक संदच दिना. तुज्या चलियेर मात्सो रागार जा कशें. म्हळ्यार आमकाय चरित्र हीण जावंक फावतले.''

ज्या मनशाल्या बायलेविशी 'वायट गजाली' तो मनीस जें कांय सांगतालो तो खरोच प्रामाणिक, दयाळू, त्यागी आनी गिरेस्त मनीस आसलो. तशेंच तो फटींगपणा करना, काळा बाजार करना, कोणालो विश्वासघात करीना आनी कोणालेय लुकसान केल्ले खबर ना इतलें आसुनूय ताची एके अस्तुरी सांगातीन दोस्ती आसा इतक्याच खातीर तो मनीस एकाएक वायट आनी नीती भायलो कसो?

आमचे हांगा खंयच्याच मनशाविशी मत तयार करून घेवंक एक सादा, सरळ हिशेब मांडतात. समाजांतल्या नीतिवान लोकांमदीं एक प्रस्न केन्नातरी उप्रासिल्लो आसूंक फाव आनी तो म्हळ्यार बरो, वायट तशेंच नीतिभायर वागपी लोकांविशी निर्णय कसो घेवप हाचोच. ताकालागून ते खुबूच येवजणेंत पडिल्लें आसूंक जाय. सगळ्यातरेन, सगळ्या गजालीर ध्यान दिवूनच मनशाविशी विचार करचो पडटा आनी उपटरांतूच निर्णय घेवचो आसता. तेन्ना ताणी सांगलें- खूब बोबाळांत पडू नाकात. घटिचार सरळ करून घेयात सगळ्या नीतनेमांक एक ल्हानशा घेराभितर आस्पावन घेयात.

अशा तरेच्या कठीण गजालीक सरळ करून घेवप म्हाकाय पसंत आसा. ताकाच 'सहज साधना' म्हणटात.



# सद्गुरुलें सांगणें

कोणालो फोन हजार रुपये देणें आसुनूय ताचें कनेक्शन तोडिनांत जाल्यार म्हजो फोन मात दोनशें रुपयांखातीर तोडलो, कडक शिस्तींत अशेंच घडटा. तांतून मानभोवमानाचेंय खूब आसता. फोन जोडल्याउपरान्त पयल्याच म्हयनाचें बिल पळेंलें आनी ताणे हाव सामको खासावीस जालो. कांय वेळा बिलाचेर बिल लाथ मारून वतात, उगडासाची चीट तोंडार थुकून वता आनी तरीय फोन घणघणत आसतात.

आमचो फोन तसो निलाजोर न्हय. तो घरात पावलो आनी ताणे मालकाली प्रकृती वळखली. बिलांचे वजें तो सोसूंक पावचोना हे तो समजलो. जेन्ना बिल आयलें तेन्ना ह्या अर्थहीण संवसारातल्यान शिस्तीन कूच केल्याचे ताणे नगारो वाजयलो.

कोणालो फोन हजाराचें देणें आसुनूय कापिनात. परंत सगळे मेळून दोनशें खातीर आमचो फोन कापलो. धा वर्सामेरेन इन्कम टेक्स भरनाशिल्लो लेगीन मानेस्तपणान मंत्री जावन रावता. आनी लिपयिल्ली ती बाब उकती जाली म्हणटकीर आणालो हासकुरो फोटो काडून घेता. धा वर्सामेरेन आयकर न भरिल्ल्या अशांक प्रधान मंत्रीबी लक्तुबायेन तांका- 'विसराळू' म्हूण संबोदता. आनी आमी? एक वर्स आयकर न भरिल्ले मात 'बेयमान' म्हणून घेतात.

सद्गुरुलें सांगणे इतलेंच- 'आरे पुता, जें कितें करता तें 'लार्जस्केल' म्हळयार व्हड प्रमाणांत कर. तो एकादो उद्योग आसूं दी वा बेईमानीचो वावर आसूंदी. पूण जें कितें करता ते कोणालो तरी आलाशिरो घेवन कर.



व्हडांल्या लचांड्यांत ल्हानसान मरतात. दिल्ली व्हड शार आसा. व्हड शारांतल्या व्हड धेंड्याल्या माथ्यार बिलाची बाकी देणें आसली. संसदेत बसपी दुसऱ्या म्हालगड्या वांगड्यांनी प्रश्न उठयलो- "अमूक अमूक जणाले फोन कित्याक बंद केले नात?" दूरसंचार विभागात बोबाळ उठलो. आनी ल्हानसान गावातल्या ल्हानसान लोकालें फोन कनेक्शन तोडलें.

गेल्या वर्सा विधानसभेच्या एका वांगड्यान तक्रार केली- एका मंत्र्यालो पिसाळिललो सुणो वाटवेल्यांक चाबता. ताचो परिणा म्हळ्यार म्हज्या घरामुखाल्ल्या पायर्णीतलें मर्तुकुडें

सुण्यापेटें सोदून सोदून मारन उडयले. ज्या व्हड मनशाल्या सुण्याविशी प्रश्न उप्रासिल्लो तो अजूनय येतल्या वतल्यांक चाबतेर आसा. राज्यकर्त्यांलो धपको जायत्या व्हड आनी शक्तवंतार घाल्लो आसता खरो पूण सामान्य मनशांक नकळ अशाअजापाच्या घटिचारान-व्हडांर पडपी फाटिवेलो धपको निसटता आनी तो दीन दुबळ्यांल्या फाटीर पडटा.

सद्गुरूलें सांगणें इतलेंच- म्हज्या पुता, तंत्र कसलेंय आसूं दी आपणाल्या फांटीर 'वॅसलीन' चोपडून राव. तुज्या फाटीवेल्यान निसटिल्लो धपको हेर खंयच्याय गरीबाल्या फांटीर पडूं दी.



आवाज बंद जावन शांत असो हो फोन मडें जावन पडला. ताच्या हड्डयार कान लायता पूण ताचो टर्रर आवाज बंद पडला. ओम शांति, शांति, शांति!! हो फोन म्हाका मेल्ल्या सुण्यावरी दिसता. हाता बचकुलात नकली धरून, तो शाबुद्धी शेणोन बसला. आरें पोरा, निमाणें तू डिपार्टमेंटच्या कर्तुबगारीच्या ट्रकामुखार कित्याक आयलो? गळ्यांत पट्टो घाल्लो अल्सेशियन आसता आशिल्लो जाल्यार गाडीचालक तुका वाचयता आशिल्लो न्हय! पूण तो तुज्यासारख्या निश्पाप दुबळ्या पेट्याक चिरडून गेलो.

ताचो जीव राखपाचें यत्न तशें हावें बरे भाशेन केल्ले. जाल्यार धर्मादाय आस्पत्रींत घडटा तशेच तरेन घडिल्लें. त्या दिसाच्या फलज्योतिश्यांतल्यान जें कांय वायटाचें घटिचार घडपाचें आशिल्लें तें हावें आदीच पारखिल्लें. तांतून बरयिल्लें- आपणाल्या मायेमोग करतल्यांचेर संकश्टांचो योग आसा. हांवे अंदाजो बांदिल्लो म्हाका तशी शिटकावणी मेळटली. दनपाराकूच टेलिफोन एक्सेंजांतल्यान आनी आफीसांतल्या म्हजी खुशाली मागपी सहकाऱ्यांकडसून फोनाचेर फोन आयले सांगताले, ''चार वरार तुजो फोन कापतले. तेन्ना रोखड्या रोखडो चेकान भरणा कर.'' परंत हांव मात जाप दितेर रावलो, म्हळें, 'कनेक्शन कट जांव दी''. जेन्ना पयशे उणे पडटात तेन्ना मनीस 'परमहंस' जाता. पैशाची अडचण ही खरो सन्याशी जावपाचो परिणाम घडयता. फोनाचेर फोन येतूच रावले, ''आरे भावा, जें कितें करचें आसा तें बेगीन कर.'' म्हाका दिसलें शाराचेर खंयचे तरी संकश्ट येवन पडला. हावे स्पश्ट सांगलें, 'म्हाका ताची चिंता ना जाल्यार तुमी कित्याक हुसक्यांत पडल्यात? वचूं दी, फोन कट करून तांका वचूं दी, परथे येवन जोडटलें''. म्हजेर अपुर्बाय करतले लोक समजल्लें हांव एक निर्बुद्ध, तारतीम नाशिल्लो मनीस आसा.

म्हजो एक पत्रकार मित्र फोन लावन बसला. ताचोय फोन तोडपाचें घडटालें ताणे भर दनपारां धावपळ करून पयशें जमा केले. ताचोय फोन कट जाल्यार म्हजी खंत अर्दी जातासली.

रूण ताणे आपणाल्या कर्तव्याक पाळ्ळो दिलो ना. सांजेर मेल्लो तेन्ना म्हाका सांगलें, "फोन कट जावपाविशी तुवें कांयूच पर्वा केली ना."

हांवे म्हळें, "आरे मित्रा, हांव सट्टो खेळपी वा ठोक वेपारी थोडोच आसा? आनी फोनाबगर म्हजें लुकसान थोडेंच जावपाचें आसा?

ताणे सांगले, "तरीय सांगता, फोन कट जावप ही बरी गजाल न्हंय."

हांवे म्हळें, "हावें ध्यानात घेतले ते म्हळ्यार तो एक मानसन्मानाचो प्रस्न. हो तुजो मध्यमवर्गीय 'रिस्पेक्टेबिलिटी'चो विचार जालो. त्याच कारणान भरदनपारां वोतांत पायतणां झिजयत रावलो."

आमच्या मानमर्यादेची कशी राखण करूं? कोणाकोणाली 'इज्जत'- ह्या देशांत सुखरुप आसा काय म्हणटा? साहित्य, कला, संगीत हांचे वयर वयर दिसपी मुखवटे कुशीन केल्यार मान मर्यादेच्या वाठारांत सुरूंग लायिल्लो दिसतलो. रसूलनबाई संगीत साधिका. तिच्या दादरा आनी ठुमरी गायकीचेर सगळेच अपरिमित खूश. तिका 'पद्मश्री' मेळळें, देखून मानसन्मानूय खूब. जाल्यार अहमदाबाद दंग्यावेळार तिचें घर जाळून उडयलें. कारण तिचें नाव 'रसूलन'बाई आसलें रामकली न्हंय. आनी ती थंयसरच्यान बेगोबेग पसार जाली आनी आपणालो जीव वाचयलो. नाजाल्यार दंगेकरी तिका मारूनूच उडयतासलें. तिच्या गळ्यांतलें 'दादरा' आनी 'ठुमरी' बी मरून वताशिल्ले. जिका गायकी गळो आसा ती रसूलनबाई रामकली आसना. आता फाटोफाट आमच्या देशांत हिंदू ठुमरी, मुस्लिम ठुमरी आनी सीख ठुमरी आयकूंक मेळटली. अकाली दादरा आनी द्रमुकदादराबी आसूंक शकतले.

सद्गुरुलो उपदेश इतलोच- "आरे, मानमर्यादा रांव दी कुशीन. चोंयवशीन पळय, सफळतायेच्या चान्यांत रातीचे घुघूम उलयत आसात."



तुमी कितलेय पर्वा नाशिल्ले शें-म्हळ्यार भय, चिंता नाशिल्ले अशें वागलें तरीय मानमर्यादेचे राखणदार तुमची फाट सोडचे नात. जशें घेतले आसात तशें त्याग करतलेय आसात. कोणी म्हजो फोन नंबर मागल्यार, सद्यांक फोन इबाडला, भोवंडीर वचपाचो आसा, अशें सांगुकूय जाता. म्हाका मेळूंक आयिल्यांक आनी ताणी तुमच्या फोनांत कांय गडबड असा अशें सांगल्यार हांव शांतपणान सांगतासलो, 'ना, म्हजो फोन कट जाला; हावें बिला पयशे वेळेर भरलेनात'. खरी म्हायती खबर आसुनूय कोणी म्हजेर दया दाखयत.' "तुमी भोवंडीर भायर सरिल्ले आसतले", तेन्ना हांव तीच जाप दितासलो, 'ना, फोन कट जाला'. ते निराश जावन येवजिताले- आरे तुजो मान दवरपाखातीरुच यत्न करताले. तुका तें मान्य दिसना, तेन्ना पड खळग्यांत. कुटुंबातले लोक भितल्लेभितर रागार जाताले. म्हणटाले, "आरे कोणी जर आमचो

फोन इबाडला म्हूण सांगत आसल्यार, तू मात फोन कट केला म्हूण मुजरत कित्याक सांगूक जाय?

परंत तांतुतूय एक हिकमत लिपल्या. सद्गुरु सांगता- आरे पुता, अपमानाची बाब आदीच उकती कर म्हळ्यार भोवमान आपशीच मेळटलो. जोत्यान मार पडिल्ली गजाल जितली लिपोवन दवरतले तितलीच निंदानालस्ती पातळतली. आनी ती स्वता जावन सांगत रावल्यार नांव इबाडत रावतल्यांनी सेवेची गरज पडपाची ना नाचेसावन स्वताची व्हडविकाय शाबूत रावतली.

हांवे आनीक हिकमत लडयली.जेन्ना केन्ना 'कट' जाल्याचो विशय उलोवणेंत येतालो. हांव एक दुडुवांकार मित्रालें नाव जोडटालो- 'पळेलें मूं, बाबडो अमक्या तमक्यालोबी फोन 'कट' जाला. अशें काय जणांक सांगून जालें. उपरान्त एकदीस तो बाबडो रागार जावन म्हाका तापयलें- म्हजो फोन तोडला म्हूण जाय ताका कित्याक सांगत सुटला?

हांवे म्हळें, 'फक्त तुमचो न्हंय म्हजोय फोन तोडला म्हूण सांगता.

ताणे सांगलें, 'आरे, तू तुजेंच सांग न्ही! म्हाका कित्याक म्हूण तांतूत घुसयता? आमगेलो अवमान जाता. कशें कळना?

हांवे सांगलें, ''तांतून एक सिद्धांत-बुनियादी तत्व' आसा. सद्गुरुलें सांगणे इतलेंच- अवमानांत एखाद दुसऱ्याक सामील करून घेतल्यार आपणाली अर्दी 'इज्जत' शाबूत रावता. हांव तुमच्या नांवाचे आलाशिरो घेवन अर्द्या मानाची राखण करना आनी तुमीय म्हजें नांव घेवन तुमचो भोवमान सांबाळात.''



कितली मजेची आसा ही मानभोवमानाची गजाल. व्हडविकायेचो अणभव घेवंक मनीस न कळो कितें कितें करीत आसता. बाजारांत श्रीमंत लोकांखातीर एक नामनेचें दुकान आसा. ताचे नांव 'मॉडर्न स्टोर्स'. स्वातंत्र्यापयलीं तें फक्त अंग्रेज ऑफीसरांखातीरुच आशिल्लें. थंयसर सगळेच अंग्रेजी भाशा उलयतात. एक मध्यमवर्गीय मनीस दोन मैल रिक्षा करून दुकानार पावता. विकत घेवची वस्तू कसली फक्त सान्न. ती वस्तू विकत घेवचीच जाल्यार मॉडर्न स्टोअरांतल्यातूनच. तो मनीस दुकानांत रिगता तेन्ना ताची व्हडविकाय खुबूच म्हळ्यार आनीकूय वाडिल्ली आसता. साद्या पसरकाराकडसून सान्न विकत घेवपी आमी ताच्या न दरेंन सामकें सकयल्या थरांतलें भारतीय सान्नीमोला परस रिक्षाभाडें चडावत दिवन मॉडर्न स्टोअरांतल्यान विकत घेतिल्ली सान्न जेन्ना फरशी जमिनीर साफसुफी करतना आपूण ताजमहालांत रावता आनी आपणाली घरकान्न भांगरासान्नीन संगमरवरी लादी स्वच्छ करीत आसा अशें ताका दिसता.

व्हड शारांनी भोवतेक वेळा घडपी गजाल. लंचटायमाक भायर सरिल्ल्या वळखीच्या
ायपिस्ट चलयेक तिचो तरनाटो मित्र सुवात वेळ थारायता.... पांच वरार, अमूक अमूक....
ाटेल. तो मेरेन... तोय तिच्याच ऑफीसांत नोकरेक आसा. तो म्हयनाच्या पगारांतलो
ण्यांत उणे धावो भाग अशा म्हारगी हॉटेलांत चलियांचेर खर्च करता- फक्त व्हडविकाय
ळोवंक, आपणालो बडेजाव दाखोवंक. थंय एक रुपया कॉफी सांगातीन पांच रुपयाची
हडविकाय मेळटा.



आनी एक सायब सुण्याक साथीक घेवन बडेजाव दाखयत जगता. ताणे बंगल्याच्या
ोटीर एके वटेन स्वताली नावापाटी आनी दुसऱ्या वटेन 'सुण्यापसून सादूर रावात' अश्यो
ाट्यो घट्ट दसयल्यात. दोनी एकाफाटोफाट अखंडीत वाचल्यार एक खासा वेगळोच अर्थ
लागता. ह्या सायबापासून सावध रावंक जाय अशीच समजूत करून रावलो. तशें पळेल्यार
दोनी पाट्यो आपापणाल्या सुवातेर बरोबर आसात आनी भिवपाचें कांयच काम ना. एक
दीस काय कामानिमितान तांचें घरां पांयधूळ झाडची पडली. धा-बारा पाईप रांकेन मेजार
दवरिल्ले दिसले. आनी एक पाईप ते निगूतीन निवळ करताले. तोंडान सुण्यालें 'सेक्सलाईफ'
हाचेर खुलाचेवार सांगताले. भोंवतणे तीनचारजण बसून कान दिवन आयकताले. हांवेंय ते
मन लावन आयकले. मजेचें म्हळ्यार हातात पाइप आनी सुण्याविशी म्हायती सांगतना ते
चड 'रिस्पेक्टेबल' दिसताले.

व्हडविकाय मेळोवंक भोव कश्ट करचे पडटात. कसलें कितें करुंक लायता ते नकळो.
आमका बडेजावाची जाणीव वा ते आमका जमता अशें दिसतनाच आमी तिट्यार भाजी
खाताना दिश्टीक पडटात, नाजाल्यार खंयची एकादली नोटीस हातांत पडटा. वर्सा पयलीं
घेतिल्ले उश्णे पयशे वा उदारी वसूल करुंक पसरकारालो नोकर चार पांच खेप मारून गेलो
आनी दरेकवेळा हांवे ताका वाटायलें तेन्ना ते पसरकारान खंती जावन म्हळें, ''आपणासारख्या
भोवमानेस्त लोकांफाटल्यान तगादो लावंक आमकांच लज दिसता'' हांवे आनंदभरीत जावन
म्हळें, ''पुरो, पुरो, हेंच आयकुपाखातीर हांव तुमचें देणे दिनासतना राविल्लों. बाकी उरिल्ले
पयशे रोखडेच घेवन वच.''

तो मातसो गोंदळलो, उपरांत विचाल्लें, ''हाचो अर्थ किते?''

हांवे सांगलें, ''आरे, ताचो अर्थ सादो, सरळ आसा. पयशें फारीक करुंक हांव कितलो
मानादीक वा आदराक फावोसो जाला हाची म्हाका खात्री करून घेवंक जाय आसलें.

व्हय, व्हडविकायेची स्वारी अजून थंयूच उबी आसा. सद्गुरुलें सांगणें इतलेंच- आरे
पुता, वास्तवापासून पयस रावन असो पंगडांत येवन दाखोवपी सुखाच्या दुबळिकायेकूच
'बडेजाव' म्हणटात. अशेतरेचे लोक उंच रुखाच्या सामके वयल्या खांद्याचेर दुसऱ्यान
बांदिल्ल्या घोटेरांत तांती घालतात.



# ल्हानशी गजाल

संसदेत शिक्षणमंत्र्यान खात्रीपूर्वक सांगलें, ''हालीच देशभर विद्यार्थ्यालीं जी चळवळ उचांबळून आयली ताची सुरुवात फक्त एका ल्हानश्याच प्रकरणांतल्यान घडल्या. गेल्या तीन वर्सांपासून एके कॉलेजांतले विद्यार्थी एक चडावत संडासाची मागणी करताले. आनी ती मागणी अजून मेरेन तांच्या इत्सेक धरून पुराय जाली ना. निमाणे ते खुबळले आनी तें आंदोलन हेर जायत्या कॉलेजांतूय पसरलें.

ताचेर एक परदेशी दिसाळ्यान आपणालें मत परगटायलें. एक ल्हानसो घटिचार म्हूण जे कांय शिक्षण मंत्र्यान सांगलें ती खऱ्यानीच दिसता तशी ल्हान ना. जगांतल्या खंयच्याय देशांतल्या एकाद्रच्या कॉलेजांतल्या विद्यार्थ्यांनी 'मुतारी कूड' जाय म्हणून त्या मागणीचेर चळवळ उबारिल्ली आयकलें ना. शिक्षणाच्या इतिहासांत अशें तरेची दुसरी देख मेळची ना. अशा तरेची म्हत्वपूर्ण मागणी हाचे आदी केन्नाच कोणी केल्ली नासली. आनी खास बाब म्हळ्यार खंयच्याय देशांतल्या कॉलेज विद्यार्थ्यांक तीन वर्सामेरेन ताटकळत दवरपा इतली व्हड मुतारी कुडाची बी गरज आसना. पूण विद्यार्थ्यांक मुतारीची गरज नासून जशें कांय अणुसंस्थानूच बांदून मागतात अशें भासयलें. इतली विशाळ मुतारी जगांतल्या खंयच्याय कॉलेजांत आसची ना. अशी मागणी केल्ल्यानूच भारतीय विद्यार्थ्यालीं तांक आनी नांचेविशी दाखयिल्ली बेपर्वाय ध्यानांत येता. आमच्या देशाची आर्थिक स्थिती खुबूच इबाडल्या अशें आमचे म्हालगडे फुडारी लोक सांगतात. ताकालागून तांचे म्हणणे इतलेंच कांय वर्सामेरेन आमचे तरनाटे विद्यार्थी मुतूंक गेल्लेबगर रावंक शकचे नांत काय कितें? इतलो चड खर्चाच्यो सवंयो देशाच्या भविष्य निर्मणीक आडखीळ घालतात. ताणी मात्सों धीर धरुंक जाय. आनी जेन्ना देश उदरगत करतलो तेवेळार ताणी तीच मागणी केल्यार आमका दरेक कचेरीत मुतारी बांदून दिवंक अडचण उरचीना.

हें सगळें बरोबर जालें. पूण खरी गजाल ना सरकारान सांगली ना, आनी वर्तमान पत्रवाल्यांक समजली ना. अंदाजान अशें घडिल्लें आसूंक जाय-

कॉलेजांत एकूच मुतारीकूड आसलें. देखून विद्यार्थ्यांक रांक लावची पडटाली. तेन्ना कांय विद्यार्थ्यांनीं प्रिन्सिपालाली भेट घेवन सांगलें- आनी एक मुतारी कूड बांदल्यार बऱ्याक

हाडटलें.'' प्रिन्सिपालान सांगलें, ''तुमची मागणी रास्त आसा. जाल्यार एक वीट लेगीत वडोवंक वा निखळावंक म्हाका अधिकार ना. हांव शिक्षण अधिकाऱ्यांक मुजरत ही गरज कळयतां.''

प्रिन्सिपालान शिक्षण खात्याच्या सचिवाक बरयलें. सतत स म्हयने तो सचीव ती चीट वाचीत रावलो. तेन्ना केन्ना ताचे ध्यानांत आयलें. प्रत्येक अक्षर आनी अक्षर ताणें शंबर खेप वाचलें आसत- इतलें कठीण आनी कुवाड्यान भरिल्ली ती चीट समजून घेवंक ताकाय म्हयने लागले. उपरान्त ताचेर पुरायतरेन विचार करुंक ताणे आनीकय म्हयने घेतले. निमाणे ताणे प्रिन्सिपालाक जाप धाडली ती अशी- ''तुमचे कॉलेज पस्तीस वर्सांपयली बांदिल्लें ते आमच्या रेकॉर्डविल्यान कळ्ळें. तेन्नापसून आयजमेरेन तुमच्या कॉलेजांतल्या विद्यार्थ्यांनी चडावी मुतारी कुडाची मागणी केली ना. हालीच पयले खेपेक तांची मागणी सामकार आयल्या. तांतून कितलें खरेपण आसा हाचेर म्हाका दुबाव जाला. प्रस्न इतलोच म्हळ्यार गेल्ल्या पस्तीस वर्सामेरेन मुतले नात तांका अचकीत आतां कशें कांय जावन आयला. उपकार करून परती तपासणी करून ते खऱ्यानीच मुतूंक वतांत काय ना हाची खात्री करुनूच म्हाका कळयात.''

प्रिन्सिपालान विद्यार्थी फुडाऱ्याक आफोवन शिक्षण सचिवाली चीठ दाखयली. विद्यार्थ्यांनीं सांगलें, ''तुमी परवानगी दिल्यार आमी सचिवालयांत वचून ताचें प्रत्यक्ष प्रमाण दिवंक शकतात. प्रिन्सिपाल ते आयकून कांचवेलो, सांवरुन ताणे म्हळें, ''बरें, बरें, तुमचे सगळे कर्तूप हांव जाणा. तशें कायंच करनाकात. हांवूच चीट बरोवन धाडटा.'' उपरान्त ताणे शिक्षणसचिवाक पत्र धाडलें.- हे विद्यार्थी मुतूंक वतात हे म्हज्या व्यक्तिगत अणभवाचेर नित्शितायेन सांगता. तांचेर अविस्वास दाखयलो जाल्यार ते तुमच्या ऑफीसांत येवन दोळ्यादेखत तशें करुंक फाटींफुडें पळोवचे नात. गेल्ली पस्तीस वर्सा कॉलेजविद्यार्थी मुतूंक वतात तेंय खरें". जाल्यार हाली तांची कॉलेजांतली संख्या वाडल्या. ताकालागून आनीक मुतारी कुडाची गरज पडल्या इतलेंच.

शिक्षण सचिवान आपणाले मत नोंद करून ती चीट मंत्रालयाच्या अर्थखात्याकडेन धाडली. थंयच्या खासा कमेटीन त्या सुचोवणीच्या आर्थीक बाजू म्हळ्यार खर्चाचे बाबीक धरुन विचार करुंक बसका घेतली. स म्हयने पुरायतरेन अभ्यास केल्या उपरान्त अर्थखात्याच्या सचिवान आपणाले मत बरोवन अर्थमंत्र्याकडेन पावयले. ताचेर नोंद अशी आसली, - तशें पळेल्यार आयची अर्थ वेवस्था उणविकायेचीच रावल्या. मुतारीकूड बांदल्यार लुकसानीत भर पडटली. ताची कशी कितें भरपाय जातली? जर दर कॉलेजाक अशा तरेची मुतारी कूड बांदून दिवपाचें थारायल्यार णव कोटी रुपये खर्चाचो हिशेब जाता. अशा तरेचो सुमाराभायर खर्च केल्यार देशाच्या हेर 'योजनां'चेर खंयच्यान पयसो हाडटले? आनी णव कोटी रुपयांची लुकसान भरपाय करुंक सरकारान 'टॅक्स' लायल्यार लोकांकडसून नाकाजाल्लो विरोध जातलो.

आनी तों 'टॅक्स' चुकोवंक लोक जर लिपून लिपून मुतूंक गेल्यार समाजाची नीत-नेमां सकयल्या पावंड्यार देवंतली. आनी काय जण टेक्स वाचोवपाखातीर मुतूंक वचपाचेच थांबोवन धरतले आनी ताकालागून तांच्या भलायकीचेर वायट परिणाम घडटलो.

अर्थमंत्र्यान तो मामलो समजून घेवंक आपणाल्या राजनीतितंले पुराय अणभव कसाक लायलो. ताणे सचिवाक सांगले, ''आरे, हो प्रश्न मुतारीचो ना आनी खर्चाचोय ना. तो एक सरकारी बुनियादी नीतिचो आसा. हाचेर अर्थमंत्रालय वेगळो असो निर्णय घेवंक शकना. देखून मंत्रिमंडळाची बसकां घेवची पडटली. मंत्रिमंडळाच्या बसकेंत शिक्षणमंत्र्यान सांगलें, ''हो विद्यार्थ्यांलो गैरशिस्तीचो प्रकार आसा. ही पिळगी निलाजरीच म्हणपाची. आपणाल्या म्हालगड्यांकडेन मुतारीकूड मागपाक हांका इल्लीय लज दिसना. फाल्या आपणाखातीर शिंदळकी करुंक घरांची वेवस्ता करांत बी म्हूण सांगतले.''

एका मंत्र्यान सांगलें, ''ह्या विद्यार्थ्यांक विरोधी पक्षांतले फुडारी खुबळायतात. म्हाका हाची पुराय खबर मेळ्ळ्या. ह्या देशांतल्या जुवानांक मुतू वचूंक जाणूनबुजून तयार करीत आसात. अशी म्हजी खात्री जाल्या. हाचेर रोखडेंच बंदी हाडली ना जाल्यार हे लोक आमी तयार करून दवरिल्या प्रत्येक वस्तूचेर मुतून दवरतले.''

गृहमंत्र्यान आश्वासक उतरांनी समाधान केलें, ''निमाणे हो कायदो आनी शांती वेवस्तेचो प्रश्न आसा म्हणपाचें. सरकारालें मुखेल काम मुतारीकूड बांदपाचें नासून 'लॉ ॲण्ड ऑर्डर' सांबाळचें देखून हे काम म्हजेर सोंपयात. हांव पळोवन घेतां.''

तेन्नाच प्रधानमंत्रीन तोंड उगडलें, ताणे म्हळें, ''मुतारीकूड बांदचे काय नाका होच खरो मुखेल प्रस्न आसा आनी ताचेरुच विचार आनी भासाभास घडूंक जाय. ह्या कॉलेजांत पस्तीस वर्सांपासून मुतारी बांदली ना आनी आतांच बांदून दिवप एक तरेचो क्रांतिकारी वावर जातलो. तेन्ना असल्या क्रांतिकारी घडामोडींची पावलां उखलूंक तुमी सगळे तयार आसात काय ना म्हूण विचारतां. विकासाची कामां ल्हव ल्हव करपाची आमका संवय जडल्या. न्हंय तसो आमी विस्वास दवरतात- एकाएक बदल घडोवपांत न्हंय, अशा तरेचे रोखड्या रोखडे काम केले जायत जाल्यार देश आनी विदेशांत आमच्या सरकारलो बदलिल्लो तोंडावळो सामकार येतलो. ताचे सावन चोंयवशीन आस्पावन रावपी असो राजनीतिक परिणाम घडटलो. म्हज्या मत्तान सरकारांत अशातरेची ताकतिकेन पावलां उखलपी तांक ना.''

प्रधानमंत्र्यालें म्हणणे आयकून विद्यार्थ्यांलो धीर सुटलो. ताणी जबर चळवळ उबारली. हेर कॉलेजांतल्या विद्यार्थ्यांक कांकणाजुडे धाडून दिलें. चळवळीत भाग घेयात वा कांकणां हातांत भरून घरांत बसा. पण त्याच कांकणानी जाग्याजाग्याचेर आंदोलन पेटून उठयलें. हांगाचो मनीस अकलेपरस तो आपणालें दादलेंपण दाखोवंक चड उतावळो आसता. कोणेजर तांका सांगलें हातांत कांकणां भरात वा स्वताल्या तकलेर पायतणानी मारुन घेयात तेन्ना

साबार जाण कांकणाच्या भंयानूच जोत्यान मारुन घेवचें मानून घेतलो. लोकांनी विचाल्लें, 'आरे ही चळवळ कित्याक उबारल्या?'' ताका कांय विद्यार्थ्यांनी जाप दिली, ''आमका कितेंच खबरना. जाल्यार आमका कांकणाजुडें धाडून दिल्यात. म्हणटकीर आन्दोलनांत भाग घेवचोच पडलो.''

राजधानीत सगळे परदेशी दूतावास आनी पत्रकारबी अजाप जाले. हें आनी कितें घडत आसा? बंड काय क्रांती? एक खेप 'लाठीमार' आनी 'फारपेट' बी जालो. परदेशी पत्रकार मंत्राविल्लें शेंजावन भोवतेर रावले. ताणी चळवळीच्या मुखेल फुडाऱ्याकडेन चवकशी केली, ताणी सांगलें, ''तुमी अशा तरेची देशभर केल्ली चळवळ पळोवन आमी अजाप जाल्यात. तुमी देशाची घडी बदलपाक पळयतात. तुमचो जाहीरनामो वा घोशणपत्र आमका मातशें दियात. ह्या देशाच्या सामाजिक-आर्थिक स्थितींत बुनियादी बदल घडोवंक तुमी ही चळवळ करतात हे विशी आमका समजावन सांगात.''

चळवळीच्या फुडाऱ्यान सांगलें, ''आमका फक्त एक चडावत मुतारी कूड जाय.''





# चेरो कितें पळोंव फोटोंत

म्हजें सामकार एक फोटो आसा. एक मंत्री देशाच्या प्रधानमंत्रीक सुखो पडिल्लो वाठार दाखयता. दुकाळ, पूर आनी दंगे हे आमच्या देशांतलें सगळ्यांत सोबीत अशे अकृत्रीम देखावे. प्रधानमंत्री, परदेशी सोयऱ्यांक ते देखावे दाखयता आसताना तो फोटोंत हांसतना दिसता, जशें कितें उदूरगतीक पाविल्ल्या वाठाराचें प्रदर्शन मांडला.

दुकाळांची चित्रां दाखयतना मंत्री हांसता कित्याक? घडये ताका सदाच हांसत रावपाची संवय जडिल्ली आसत वा दर स म्हयन्यानी काँग्रेसांतल्या नव्यानव्या पंगडांचें सरकार घडत आसता आनी तो दरेक मंत्रिमंडळांत मंत्री जावन रावला. सरकार घडोवपी पंगडाच्या फुडाऱ्याक मेळून तो सांगता, ''सरकार हे काँग्रेस पार्टीचें घर आसा. ताचो मालक बदलत आसता जाल्यार हांव मात ते घर साफसूफ करपी सेवेकरी आसा. आदीचे मालक आसले तेन्ना सान्न मारतालो. आता तुमी मालक जावन आयल्यात तेन्ना तेच काम करीत रावतलो. काँग्रेस पार्टीच्या घरांत सतत सान्नीन नितळ करीत मंत्रीपदाक सफळतायेन दसून राविल्यान घडये तो हांसत आसा. दर वर्साक सुखो दुकाळ पडटा आनी कोण केन्नामेरेन निर्शेल्लो असो रावन आपणालो चेरो दाखयत?

दुसरी एक गजाल म्हज्या मनांत उप्रासता. भौशिक जिणेंत जंयखंय सुवाळे साजरे जातात ते वेळार कॅमेरे सामकार आयलो म्हणटकीर त्या सुवाळ्याचे उत्सवमूर्ती चेऱ्यार हांसू दाखयता. आनीक चित्र पळेयात. एक परदेशी राजदूत आमच्या देशांतल्या आरोग्य मंत्र्याक हुंवारान पिडिल्ल्या लोकांखातीर वखदांची भेट दिता. हुंवारांन शेकड्यांनी गांवा व्हावन गेलीं, हजारांनी जनावरां मेली चोयवशीन पटकीन घुमशेण घाली ताकालागून लोक पटापट मेले. अशा वगतार दोगांयलेय फोटोतले चेरे गंभीर दिसूंक जाय आसलें. जाल्यार दिश्टीक कितें पडटा? राजदूत मुमुरखे हासता आनी आमचो अरवळ मंत्री प्रसन्नतायेन पर्जळिल्लें दिसता. तो राजदूत ताका सांगता आसूंक जाय- 'तुमच्या देशांत हुंवारान केल्ली नासाडी पळोवन खूश जाल्यात, वा पटकीन घाल्या धुमशेणीन अदीक संतुश्ट पावल्यात. अशा खुशीवगतार आमी तुमका वखदां भेट म्हूण दितात. आमच्या देशांत जाल्ली इबाडणूक वा लुकसानीन परदेशी आनंदभरीत जाल्यात हे पळोवन मंत्री बी धादोसकाय पावला. येवपी वर्सा, ह्याच मोसमांत अवन्दू परस चड इबाडणूक घडपाखातीर आमी प्रयत्नशीळ रावंक यत्न करूं.

हे सगळे ध्यानांत येता ते कॅमेरा कारणान. म्हजो एक इश्ट आसा. तो स्वताल्या बापायल्या चितेक उजो दितालो. ते द्यावेळार एक फोटोकाडपी मुखार सरकलो. आनी तो पूत मुमुरखो हांसलो. तो फोटो दुसऱ्या दिसा दिसाळ्यानी छापून आयलो. हांवे विचाल्लें, ''आरे म्हज्या भावा, बापायल्या चितेक उजो दिताना तुजो चेरो हासतनासो दिसता. ताणे जाप दिली, ''कॅमेरा पळयतकी म्हाका दिसलें हांव सर्गांत आसून बापायखातीर बांदिल्ल्या नव्या घरांचे उद्घाटण हांव करतां.''

एक पोन्नी गजाल. पंडित नेहरुलें 'अस्थीकलश' सगळ्या राज्यानी रवाना जाल्ले. दरेक राज्याच्या मुख्यमंत्र्यांनी तो 'कलश' राज्याशिमेर वचून ताब्यांत घेतिल्ले त्यावेळचे फोटो हांवे पळेयिल्ले याद आसा- मुख्यमंत्री हांसकुऱ्या चेऱ्यान तो 'अस्थीकलश' आपणाल्या दोनूय हातांनी घेतना दिसता. कांय सांगता, अशे दिसलें- म्हळ्यार पंडित नेहरुल्या नेतेपणा खाला आमी खूब वर्सां काम केलें खरें पूण आयज ताच्या हाडाची पूड आमच्या हातांत आसा.

फोटोची ओडलायणी अजापाची आसता. कॅमेरान काडिल्लो फोटो मनशापरस चड कवतीक करता. कॅमेराचो सोद लागलो नासलो तेन्ना ''नरसीसस'' उदकांत आपणालो फोटो पळेतालो. ताचे सावन इतलो कितें खोसभरीत जालो आनी तांतुतूच तो मेलो. आपणाचेरुच खूश जावन भोवतेक जाण मरतना हांवे पळेला. राजनीतिंत आसूं दी वा साहित्यांच्या वाठारांत आसूं दी हांवे अशा कित्येकजणांक पळेंला जे सुखावून आनी अदीक सुखावून निमाणे मेले.

एका सायबाले ताच्या 'अल्बमां'त शेकड्यानी ताचेच फोटो आसात. तरेकवार भावमुद्रा विंगडविंगड सुवातेर, आनी अनेक प्रसंगानी खासा फोटो काडिल्ले. हांतूत सगळ्यांत चड सोबीत फोटो खंयचो अशें विचारल्यार तेन्ना ताची जाप आसतली,-म्हजो चेरो. खाड कशें गुळगुळीत, तोंड गुफेवरी आनी नाक दोंगरा सुळक्यावरी. एकादलो कलाकार 'लँडस्केप' चित्रणाच्या सोदांत आसल्यार हो सांगतलो, 'आरे भावानो, तुमी हांगाथंय कित्याक भोंवतात? म्हजो चेरो तुमच्या सामकार आसा. ताचीच आकृताय काडात.

आनी एक सायब आसा. ताच्या आल्बमांत नामनेच्या लोकांमदीं तशेंच ल्हानसान लोकासयत बी ताचो फोटो आसा. हांव ताचें गुपीत जाणून घेवंक उमळशीकेंत आसलो. ताणे म्हाका समजायले, ''अशें पळय, जेन्ना केन्ना म्हज्या मनांत व्हडविकायेची भावना उप्रासता आनी हांवकाराची जाणविकाय उफेवन येता तेद्यावेळार हांव रोखडेंच नामनेच्या मनशासांगातीन काडिल्ले फोटो पळेंता. बरें, दुसऱ्या वगतार जेन्ना जाणवता हांव एक अतीसामान्य मनीस आसा आनी तशांत म्हजो अहंभाव शेणून वता तेन्ना मनांत एक तरेची उणविकाय उप्रासता. हांव सान लोकांसयत काडिल्ले फोटो पळेंता. ताचे सावन हेरांल्या

तुळणेन हांव बेस बरो मानादीक आसा अशें म्हज्या ध्यानांत येता. आनी उपरान्त म्हज्यांत आयिल्ली निर्शेणी ना नपश्यात जाता.

जायते जाण आपणालो फोटो ताजमहालासामकार रावन काडलो ना जाल्यार ती वास्तू निरुपयोगी समजतात. निसर्गाचें रुप कितलेंय सोबीत आसूं दी पूण ताच्या अदेंमदें रावन आपणालो फोटो काडलो ना जाल्यार ती सोबित काय तांच्या मत्तान कित्याकूय उपकारना. एका सायबा सांगातान त्याच्याच मोटार गाडींतल्यान काय व्हड भोवंडेर भायर सरलो. आमच्या चार जणांमदी एकाकडेन कॅमेरा आसलो. मार्गांत खंयचोय सोबीत देखावो दिश्टीक पडलो म्हणटकीर तो कार थांबयतालो. आमी देखाव्याचो आनंद भोगताले जाल्यार तो मात आपूण ताचे मुखार रावन हेरांक आपणालो फोटो काडूंक सांगतालो. दोंगर-घळीचो वाठार आयल्यार आमी ती सोबीत काय दोळेभरुन पळेताले. पूण हो मात फाट करून उबो रावन आमका त्या सुवातेर आणणालो फोटो काड म्हूण विनयतालो. अशे तरेने ताणे सैमाचो आनंद चाखलोच ना. फक्त ताका फाट करून स्वताले फोटो काडून घेतले इतलेंच.

नामनेचो मनीसबी एकतरेन 'लँडस्केपू'च आसता. कारण ताचे साथीन फोटोप्रेमी आपणालो फोटो काडून घेतात. व्हड मनीस फक्त सोबीत आसना तो बरो फायदेशीरुय आसता. भेडा घाटांतल्या सुंदर धबधब्यापरस शिक्षण मंत्री चड सुंदर आनी स्वाभाविक देखावो आसता हे हावें एक खेप म्हज्या स्वता दोळ्यांनी पळेलां. ते वेळार कोणालेय ध्यान धबधब्याकडेन नासलें. सगळ्यांली नदरां मंत्र्याचेर थिराविल्यो. मंत्री सोडून कांय वेळां कलेक्टरबी ताजमहालापरस व्हड आकाराचो जाता. ताजमहल 'परमिट' दिवंक शकना जाल्यार कलेक्टर तें दिता. समजूतदार लोक ताजमहालाक सोडून कलेक्टरासाथीन फोटो काडून घेवंक यत्नशील आसतात.

व्हडा सांगातान फोटो काडून घेवंक सर्त- नाजाल्यार पिशेंपण म्हणा- केल्लें हावें पळेलां. एका कार्यक्रमाचें उद्घाटण करुंक मुख्यमंत्री आयिल्लो. उक्तावणी सुवाळ्या उपरान्त 'ग्रुप फोटो'- समूह छायाचित्र- काडपाचें आसलें. ताच्या उजव्या बगलेक कोण बसतले हे थारायिल्ले. थंयच्या थळाव्या संसदवांगड्याक कडसरावप शक्य नासलें. दाव्या वटेन बसपाखातीर म्हज्या दोन मानादीक साहित्यकारांमदें चढाओढ लागिल्ली, जशें कांय ताच्या दाव्या हाताक धरूनूच फाटीफुडें जाताले आनी चवकशी करताले, ''तुमची प्रकृती आतां कशी आसा?'' तितल्यांत दुसरो कोपऱ्यान पयल्याक कुशीन काडीत मंत्र्याल्या बगलेक येवन विचारतालो, ''तुमची भलायकी इबाडिल्ली आसुनूय ह्या देशाखातीर तुमी प्रत्येक खीण दितेर आसात. देव तुमचें बरें करूं.'' ही सगळी सर्कस हांव फाटल्यान रावन पळेतालो. ज्याका कोणा सांगातीन फोटो काडून घेवपाचें ना तो खऱ्यानीच सुखी प्राणी म्हणपाचें.

एक बेस बरी पोन्नी याद आयली. कसलेंच यत्न-प्रयत्न करिनासतना म्हळ्यार संहजतायेन नामनेच्या लोका सांगातान सदोदीत रावपाची युक्ती हांवे पळेली आनी अजाप जालो. रुस

देशाचे दोन म्हान फुडारी क्रुश्चेव आनी बुल्गानिन भारताच्या भोवंडेर आयिल्ले. तेन्नाचो फोटो एका संसद वांगड्याल्या घरांत दिश्टीक पडिल्लो. तांच्या जोडीन भारताचे म्हान नेता जवाहरलाल आनी राजेंद्रप्रसाद उबे रावल्यात, आनी फाटल्या तिसऱ्या रांकेत हो संसद वांगडी मुखार दाटीवाटीन राविल्ल्या दोन फुडांराल्या सामके खांद्यामदून चेरो दाखयतालो- आनी सांगतालो जशें कांय, 'आरे इश्टा म्हजेरुय ध्यान दी'. त्या चित्राखाला ताणे बरोबन दवरलां, 'रुस देशाच्या नेता सांगतान संसद वांगडी अमूक अमूक 'नॉर्थ अव्हेन्यू'त खंयच्याय संसद वांगड्याल्या बसकेंत वणतीर हुमकळायिल्ले अजून दिश्टीक पडटले.

अशे तरेचो बोवाळ पळोवनूच संत कबीरान म्हटलें आसूंक जाय, 'तेरे दया धरम नहीं मनमें मुखडा क्या देखे दरपनमें' (अर्थ - दया धरम ना तुज्या मनांत, मुखामळ कित्याक पळेतां हारशांत) घडये संत कबीराल्याय मनांत आसूंये- ज्या मनशाल्या मनांत बऱ्यो भावना नात ताचो फोटोबी बरो येवचोना. फटींग मनशाले फोटो केन्नाच सोबीत येनात. जागेल्या तोंडाकडेन पळोवनूच तो दानी, सरळ मनाचो असो दिसतालो तो एकदीस शार सोडून गेल्याचे कानार आयले. ताणे बऱ्याच जणाले पयशे खाल्यात हेंय कळ्ळें.

त्याच कारणान हांव हासतनाचो म्हजो एकूय फोटो तुमकां मेळचोना. छायाचित्रकारांनी जाय ते यत्न केले जाल्यार ते अपेशी थारले. तो म्हणटा, 'स्मायल प्लीज', आनी हांव थारायता हांसचोचना- तूं म्हजे कितें वायट करुंक पावतलो? म्हज्यांत तवनासपणा, दुस्वास आनी विद्वाटो गूण भरून आसात आनी म्हाका निर्मळ चेऱ्यार हांसू दाखोवंक सांगता? तें कांय म्हज्यान शक्य ना- 'संवसारभरांतली फटिंगपणा आसात ह्या ल्हानग्यांत, आरे, चेरो कितें पळोंवू फोटोंत?



# फोन चुकोवपी कला

फोनाची घंटी वाजली. उठून कानांक लायलो जाल्यार दुसरेवटेन म्होवो आवाज आयलो- “बाब .... आसात?” व्यंगलेखकाक खुश करपाखातीर घडये खंयच्यातरी व्यंगलेखकाची तोखणाय करची आसत. ती म्हणटली- आमी इतली कितें हांसली, इतली कितें हांसली ते विचारनाकात. फोनावेल्या अशा म्होव्या आवाजार म्हजो एक दोस्त सहज अशें एक कादंबरी बरोवन हातवेगळी करता. हांवे म्हळें, “उलयतां”.

म्होव्या आवाजान सांगलें, “म्हज्या अंकलाकडेन मात्शें उलयात.” आनी एक घोगरो खरखरीत आवाज कानार पडलो, “हॅल्लो, हांव लल्लाराम उलयतां. आरे गिरेस्ता, चार म्हयने जालें तुमी विकत घेतिल्ल्या कापडाचें पयशें अजून फारीक केले नात. अशें कशें चलतले म्हाराजा!”

फोनावयली सगळी मजाच नश्ट जाल्ली. पयशा तगादो लावंक आजकाल, म्होवी आवाजाचो उपेग करुंक लागल्यात. कितें सांगू, लोक कितले सकयल्या पांवड्यार देवल्यात. टेलिफ़ोन एक्सेंजातूच एक खासा वेवस्था करची शक्यताय पडटाळून पळोवंक जाय. म्हळ्यार अशें पळेयात- फोनार पयली चत्राय मेळटली. परसाईजी म्होव्या आवाजान धोको खायनाकात. हो फोन पयशा तगाद्याविशीं आसा- इतलेंच पुरो.

फोन हो सहजासहजी मेळूंक कठीण आसो. मेळल्यारुय तांतून बेसबरी संगश्टां आसात. फोन घेतिल्या लोकालें प्रकार अशें आसतात-

१. जांका ताची खऱ्यानीच गरज आसा.

२. जांगेली गरज ताचेशिवाय भागना.

३. ज़े ताचे देणेकरी आसात.

४. जे ताचे घेणेकरी आसात.

५. जांगेले पयशे ते खावंक पळेतात.

६. जे हेरांले पयशे खावंक पळेतात.

७. जे ताका वाजयेवपाची इत्सा बाळगून आसात.

८. जांका उबगण हाडपाची तो इत्सा बाळगून आसा.

अशा आठतरेच्या फोन घेतिल्यापयकी चार जाण फोनार उलोंवक पळेतात. जाल्यार उरिल्ले चार जाण आयिल्लो फोन वाटावंक पळेतात. परंत ते खूबूच कठीण आसता. फोनार हॅलो म्हळें आनी अचानक नाकाशिल्लो कोणी फोनार आयलो जाल्यार कितें करचें? ज्याणे कापडाचें मोल फारीक केलेंना तो आपूण न्हंय म्हूण सांगुकूय शकना. एका सायबालो फोन आयल्यार हांव देणेदार नासुनूय सामको भियेता. तो दिसाळ्यांत आयिल्ल्या पुराय म्हायतीविशी उलयत रावता. रिसीव्हर सतत धरून हात दुखूंक लागतात आनी तो मात सांगत आसता- 'चीनान सटेलाईट अवकाशांत सोडलो, आतां किते जातलें?' आरे पूण, ताका हांव किते सांगू? हो प्रस्न खरें म्हळ्यार भारत सरकाराक विचारुंक जाय. जाल्यारुय ते विशी म्हाका फोन करून जापेची आस्त बाळगितात.

फोन घेतिल्यांत सगळ्यांत चड कश्ट म्हळ्यार आयिल्लो फोन कसो टाळचो? मनीस हो विचारवंत प्राणी आसा. नाणे हाचेरुय खासा हिकमती सोदल्यात. एक गिरेस्तागेर हांव बशिल्लो. फोन खणखणलो आनी ताच्या नोकरान रोखडेंच सांगलें, "भैय्याजी घरांत ना, तुमी कोण उलयतात?" असो उलटो प्रस्न केलो म्हणटकीर एक गजाल समजुचें- मालक घरांत आसून फोना आजूबाजून आसा. आनी फोन जाणे केला ताचेकडेन उलोवचे कांय ना हे नित्शीत करुंक तो वगत घेता. नोकर परथें विचारता, "तुमी अमूक अमूक आसात? भैय्याजीक तांचेकडेन उलोवचे आसा. दुसरेवरेन उलोवपी नोकर सांगता, "मात्शें थांब, लागसार आसा काय पळेतां." आनी थोड्यावेळा उपरान्त भैय्याजी फोन उखलता आनी म्हणटा, "हॅलो दोस्त, कशें कितें चल्ला? प्रकृती बी बरी आसामूं!!"

मनीस कोणाखातीर आसा आनी कोणखातीर नासता बी. हांव लल्लाराम खातीर ना जाल्यार ताच्या भाचीखातीर आसा. हांवेय एक फट उलयतल्या मनशाक फोनार बसयल्यार कशें? शेठजीक म्हजेकडेन फोनार उलोवपाचें आसल्यार तो सांगतलो हांव ना जाल्यार तिका उलोवपाचें आसल्यार हांव आसा म्हूण तो सांगतलो.

हांवे जायते वेळां पळेला- लोक सहजतायेन फट उलयतात. घंटी वाजली रे वाजली ते पटकन सांगतात- "आतां हांगासर ना. तुमी कोण? बरें, तुमचो फोन नंबर दियात. उलोवपाचेंच आसल्यार थोड्यावेळा उपरान्त फोन करुंक सांगता." आनी जेन्ना केन्ना उलोवपाचो प्रसंगी आयल्यार सांगतलें, "भायर गेल्लो, आतांच घरांत आयला. सांग, कसली खबर?" अशा लोकांक कशेंकरून ताब्यांत हाडूंक शकतले होच म्हत्वाचो प्रस्न. जो सदाच हेरांकडून निरोप दिता आनीआमका वाटायता अशांक वठणीर हाडूंक कांय बरे उपाय आसात काय

ना. म्हजोच अणभव सांगता. एका सायबान म्हजें करून दिता म्हूण उतर दिल्लें जाल्यार जाय तशें काम करिनासलो. जेन्नाजेन्ना हांव फोन करतालो म्हाका एकूच जाप मेळटाली, ''सायब आत्ता हांगा ना. तुमी कोण सायब उलयतात? तुमचे नांव म्हज्या सायबाक कळयतां!''

तो एक मिशनरी कॉलेजांत शिकयता. ताचें प्राचार्यालें नांव म्हाका खबर आसलें. एकादिसा हांवे हिकमतीन म्हजें काम करून घेतलें. फोनार उलयतना आवाज बदलल्लो आनी विचारलें,'' प्रोफेसर सायब आसात? हांव प्रिन्सिपाल उलयता.'' नोकरात लगबगीन आत्ता आफोवन हाडटां म्हूण सांगलें. आनी खरेंच प्रोफेसर सायब रोखडोच फोनार हाजीर जालो, ताणे म्हळें, ''हॅलो सर, अमूक अमूक प्रोफेसर उलयता.'' हांणे म्हजी वळख दिली. ''प्रिंसिपाल सायब न्ही, हांव अमूक. आतां सांग म्हजें काम जालें काय ना?'' तो प्रोफेसर सामको गोंदळलो, ताणे रागारागान फोनार विचाल्लें, ''तुवें प्रिन्सिपालाले नांव घेवन कित्याक आफयलें?'' हांवेय खर आवाजांत सांगलें, ''कित्याक म्हळ्यार, म्हजें नांव सांगलें म्हणटकीर तुमी घरांत आसुनूय घराभायर सरल्यात म्हूण जाप मेळटा. तुमच्या बॉसाले नांव सांगुनूच फोनार आफोवन घेवचें पडलें.''

ताचे फुडार अजून बेसबऱ्यो गमजा घडूंक लागल्यो. प्रिन्सिपाल सायबालो फोन आयलो जाल्यारुय तो वावराड्याक आपूण घरांत ना म्हूण निरोप दिवंक सांगतालो. ताका भंय आसलें घडये प्रिन्सिपालालें नांव घेवन हांवूच फोनार जापेक रावला.

एक प्रकाशकाकडसून पाठ्यपुस्तकांचे पयशे येणें आसलें. फोनार फट उलोवंक ताणे आपणाल्या बापायक सांगून दवरिल्ले. देवाण-घेवाणाचो वेव्हार पूतच पळेतालो आनी फट उलोवपाचें काम बापूय करतालो. जेन्ना केन्ना हांव फोन करून पुताविशी चवकशी केल्यार बापुयूच परथें विचारतालो, ''तुमी कोण उलयतात?'' हांव म्हजें नांव सांगले मात न्हयकाराची जाप मेळटाली. वीस-पंचवीस फोन करुनूय हांव अपेशी थारलो. एक दीस हिकमतीन काम करुन घेवचें थारायलें. आवाज बदलल्लो आनी फोनार विचाल्लें, ''हॅलो, आमचो बाबूलो दुकानांत आसा काय ना?'' बापायन संवकळीन विचाल्लें, ''तुमी कोण?'' हांवे सांगलें, ''हांव अमूक अमूक. गांवाकडसून आयला. खूब इतली पुस्तकां घेंवपाची आसात. बाबूल्याकडेनूच उलीवपाचें आसा.'' आनी मजेंचे म्हळ्यार पुतान सटसटीत फोनार येवन नमळायेन विचाल्ले, ''हॅलो सर, खंयची पुस्तकां जाय?'' हांवे म्हजी वळख दिली आनी मात्सो आवाज चडोवन विचाल्लें, ''तूं म्हजें देणें फारीक कित्याक करना?''

आतां ताणेय बरेच गिरायक शेणिल्ले आसूंक फाव. घडये गिरायकाल्या नांवान हांवूच फोन करता कांय असो ताका भंय पडिल्लें आसत.

ऋषीकळा जेन्ना जेन्ना राजा दुश्यंताक फोन लायतालो तेन्ना कोणतरी ताका विचारीत आसूक जाय, ''कोण उलयता?'' ऋषीन आपणालें नांव सांगलें म्हणटकीर ताका एकू-

जाप मेळटाली आसूंक फाव, "राजा शिकारीक भायर सरल्यात". आनी एक दीस ऋषिल्या तकलेंत म्हजेवरी हिकमतीची कल्पना सुचिल्ली आसत, आनी फोनार विचाल्ले, 'राजा दुश्यंत आसात? ताका सांग शृंगाल राजाक ताचेकडेन उलोवपाचें आसा." आता राजा दुश्यंत फोनार आयलो बगर रावचोना. तो म्हणटलो, "सांग शृंगाल, बायलभुरगी सगळी बरी आसात मूं? पावस बेस बरो पडून गेलो म्हणटकीर रयत धन-धान्यान खोस भरीत आसतलो, गायगोरवांली वाढ जायत आसतली? आनी तितल्यांत कण्व ऋषीन रागान सांगलें आसतलें, "आरे पापी राजा, तुंवें शकुंतलेल्या गर्भांत जीव घालून पळून गेलो आनी आता लग्न करुंक वाणपणा करता, कित्याक?"

आनेक सायबाक हांवे वेगळ्याच तरेन ताबेंत हाडलो. ताचें कडसून पटी घेवपाची आसली. उतर दिवनूय सदाच म्हाका वाटायतालो. हांवे फोन केलो. म्हज्या सभागान थंय फट उलयतलो नोकर नाशिल्लो. दुसऱ्या नोकरान फोन उखलल्लो आनी सांगलें सायब घरांत आसा म्हूण, आनी तशें म्हजो फोन आसा म्हूण सायबाकूय सांगलें, जालें, सायब एकाएक किंचाळलो, "आरे चांडाळा, हांव घरांत आसा म्हूण कित्याक सांगले?" फोन उकतो आशिल्यान हांवे ते सगळे आयकल्लें. नोकर परथो फोनार आयलो सांगलें, "सायब घरांत नात." आनी आता म्हाका तिडक मारली तसो आवाज चडोवन सांगलें, "तुज्या सायबाक सांग, तुमचें दोगांयलें उलोवणे आयकला. आपूण घरां आसा म्हूण सांगिल्ले खातीर तुका तापयलें कांय ना?" नोकरान हांवे सांगिल्ले तेच ताच्या सायबाल्या कानार घालें. तो मनांतल्या मनांत खंती जावपाक जाय. परिणाम बरों घडलो. सांजेर ताणें स्वताजावन पटीचें पयशें धाडून दिले.

फोन घेवंक चुकयतल्यांक जाग्यार सामके हाडपाक बऱ्योच अशो हिकमती आसात. तशेंच फोनार न मेळपाचे तरेकतरेचे उपाय आसात. आपापणाल्या अक्कलहुशारीन सगळें आपणाक फोनार येवपाचे चुकयतात आनी हेरांक फटयतात.



# पाकिटमाराल्या नांवान

म्हज्या भावा,

तुवें स्टेशनार रेल्वें डब्यांत धा जणां मदें म्हजें बोल्स तुवें कातरलें. तू म्हाका विसरलो ना आसतलो अशी आस्त बाळगितां. पाकीटांत पावणेदोनशें रुपये आसलें ते मेजून घे. पाच धा रुपये उणे आसल्यार फुडल्यावगतार ताची पुराय भरपाय करून दितां. म्हज्या ध्यानांत आसतले ते एकशे पंचात्तर चोरीक गेल्याचे आनी तुज्या हांतांत पांच-धा रुपये उणे पडिल्याचे आनी तेंच म्हाका घडिल्ले नाका. ही फक्त पयशाची बाब न्हंय- पाच-धा रुपये अदीक उणे जाल्यार कसलो फरक पडटलो अशेंय न्हंय. गजाल मनांतल्या भावनांची. भावनात्मक बेयमानी हांवे केन्नाच केली ना.

आरे म्हज्या भावा, तुवें म्हजेर व्हड उपकार केल्यात. चौऱ्याऐंशी लाख योनींत भोवंडी घडली, ताचे उपरान्तूच जीव मनशाली कुडी धारण करता. मानशालें जिणें फक्त एकूण खेप मेळटा आनी तशांतूय बोल्स कापून घेवपाचो मान देवान फक्त मनशाक दिला. सुण्यालें कोण कापिनात. पूण जागेलो एक फावट बोल्स कापलें ना ताका अभागी म्हणपाचें. अशें कांय भान नाशिल्ले वा पर्वा नाशिल्लें जिणें जगूंक जाय ताकालागून बोल्स कापिल्ल्याचें ध्यानांत येवंक नजो. हांव मात निर्शेणीन कश्टी जाल्लो. पिराय वाडत चल्ल्या आनी हांव केन्नाय भायर पडटलो हाची दवंडी पिटतली तें खबर ना. खिसो कापलो गेलो शिवाय हांव खंयच्या तोंडान परलोकांत वतलो? आरे मित्रा, स्वता हावूंच बोल्स कापील्या सोदांत आसलों. तुवें वग्गीच त्रास करून घेतले. तुवें जर सांगिल्ले आपुणूच बोल्स कापू आसा म्हूण हांव स्वता जावन सांगता आसलो, ''आरे, केन्नाच्यान तुजी वाट पळेत आसा. हे घे. मेहेरबानी करून म्हजें पाकीट मार आनी म्हजें जिणें सार्थक कर.''

म्हज्या मोगाच्या दोस्ता, हालीची सभ्यताय ही बोल्स कापंणाऱ्याली आसा. प्रत्येक मनीस दुसऱ्याले बोल्स कापता. अशा संस्कृतीत आपणाल्या बोल्साची राखण करपाची रीत एकूच आसा- म्हळ्यार दुसऱ्याल्या पाकीटांत हात घालप. जो हेरांल्या पाकीटार लक्ष दवरुन

आसता ताचें बोल्स बरेतरेन राखिल्लें असता अशें समजा. म्हजें पाकीट मारलें ताका कारण हांव म्हज्याच बोल्सार सतत ध्यान दीत रावलो. समजा हांव सामकार बशिल्ल्या शेटजील्या पाकीटार ध्यान दितासलो जाल्यार म्हजें बोल्स कोण कापचो नासलो.

आरे इश्टा, तुजो आनी म्हजो वेवसाय एकूच. हांवूय खिसेकापू आसा. हांव लोकांल्या बोल्सांत आशल्लें अणभव चोरून उपरान्त बरयता. तशी हांवे अणभवाचीं भोव बोल्सा कापल्यांत. तुवें मात बोल्सां कापणाऱ्यालें बोल्स कापले. ही विचार करपासारखी गजाल आसा. आरे, म्हालो, दुसऱ्या म्हाल्यालें केस कापणीचें पयशें घेना. दुसऱ्या एकादऱ्या बोल्स कापूलें बोल्स कापाची खऱ्यानींच गरज आसा काय म्हूण विचारतां. सारख्या धंदेवाल्यांत एक समान नीतिनेम असतात. आनी ताका तुवें पाळो दिलो काय ना हे थारावप तुजें काम. मात म्हज्या जिणेक तुवें सफळताय मेळोवन दिल्लेंविशी हांव कृतार्थ जालां. हांवे केन्नातरी बरयिल्ले- मनीस हो कचेरीत वतलो प्राणी आसा. पूण आयज सांगता ज्या मनशालें बोल्स कापतात तोय एक प्राणी आसा.

म्हज्या मित्रा, इतल्या लोकांमदीं तुंवें म्हाकाच कसो सोदलो. जाकीटांत ज्या बोल्सांत चलनी नोटो दवरिल्यो त्यो हांव परतें परतें हातान सांसपून पळेतालो. आनी ती म्हजी सवंय. ताका कारण हांव एक तसो उपेखपी- दुर्लक्ष करपी- मनीस. जाय ते लोक हजारानी रुपये खिशांत दवरतात मात ताचेर मातय ध्यान दिनात. हांव मात पन्नास-शंभर रुपये आंगार घेवन भोंवता. तरीय सवंकळीन हाताबोटान सारखें सांसपत आसता. हांव एक गरीब आनी ज्याका पयशें म्हऱ्यांत घेवन भोंवपाचो अणभव नाशिल्लें. मनीस असोच तुवें अनुमान काडिल्लें आसूंक जाय अथवा, हांव एक पयशेकार म्हूण समजल्लो आसूंक फाव. हाली हांव मातसो फोफसो जाला खरें. ताकालागून आंगार जाकीट चडयतां. ते देखून हांव पसरकारावरी दिसता, आनी ताका तुमी हयकार दिवचो.'' हांव व्हड अजापांत पडलो. हे लोक म्हाका समजतात तरी कितें? बरोवपी आनी व्यायामशाळेच्या सुवाळ्याचो अध्यक्ष? समजा हांव हाडकुळो लेखक आशिल्लों जाल्यार हेच लोक म्हाका मुखेल पावणो म्हूण आफयतशिल्ले काय म्हणटा? खोमसाचो मनगटाकडचो भाग कोपरामेरेन हांव दोडून घेतां आनी घराभायर सरता तेन्ना हो कोणतरी कुस्तिगिरांलो उत्साद- सदाचो व्यायाम करून उपरान्त न्हावन तट्टटीत जाला आनी बदाम विकत घेवंक चल्ला असो दिसता. हांवे तांका सांगलें, ''म्हजें सांगणें मातशें आयकून घेयात. हो भोवमान दारासिंग वा चंदगीराम हांका दियात. हांव एक सादो सान मनीस. जाल्यार ताणी कानार केस ओडून घेतले. निमाणे म्हाकाच त्या मानाक म्हजी मान तुकोवची पडली. ह्या फोफश्या कुडीन म्हजी कसली कसली दशा केली ते हांवूच जाणा. व्यायाम शाळेत गेलो आनी म्हजें पाकीट कापलें, म्हज्या दोस्ता, हांव तुज्या अकलेची तुस्त करतां. तुवेंच म्हाका समजून घेतलें. तुका शेठ लोकांली भूल पडली ना. तांचेसरी वतासलो जाल्यार तुजेंच पाकीट मारलें वतासलें. हें तू खात्रीन जाणा जाल्लो. आमी बरोवपी मनशालें

मन आनी ताच्या चरित्राचो अभ्यास करतात. पूण ज्या तरेन तुवें म्हजो अभ्यास केलो तसो म्हज्या लिखाणांतल्यान खंयच्याय व्यक्तील्या विशेशतायेचो अभ्यास हांव करुंक पावनासलो. खरें म्हळ्यार तुका लेखक जावं जाय आसलें आनी हांव पाकीटमार. केन्नापसून तू म्हजो फाटलाग करतालो तें हांव नकळो. व्हय, आत्तां उगडास जालो- एक पयणारो (पॅसेंजर) आनी कंडक्टरांमदली वादावादी मिटोवंक हांव मदीं पडलो- कारण म्हजो स्वभावूच तसो आसा. आनी घडये हो मनीस दुसऱ्याल्या प्रकरणांत रुच घेता हें तेन्नाच तुज्या ध्यानांत आयलें आसपाक फाव. आयिल्ली खंयचीय संकश्टां म्हाका सांगल्यार, हांव मजतीचो हात फुडें करून धाव घेता हाचोय तुंवे अंदाजो बांदिल्लो आसत. आनी ताचोच फायदो घेवन तुवें डाव साधलो. दुसऱ्याल्या मजतीक पडप ही वायट बाब आसा हाचेर आतां विस्वास बसता. जे कोण असलें काम आपुलकायेन करतात तांची बोल्सा कापतात. रेल डब्याच्या दुसऱ्या कोनशांत उबो रावन म्हाका आफयिल्लें तुका याद आसतली. हांवे पळेलें तेन्ना तुजें दोनूंय दोळे तांबडे गुंज जाल्ले. तू पिशावरी दिसतालो वा भांग पियेल्यावरी. तू सारखो आड्डतालो, "हांगायो, असो हांगासर यो- वयर बर्थार जागो ना, सीट रिकामी ना अशें कितें कितें. हांव परदेशी आसा देखून तुजी ती हिकमत चल्ली ना. म्हाका हेरांपासून वेगळावन म्हाका तू फटोवंक पळेतालो. आरे पिशा, तशें केल्ल्यान मार धपको, हिसकाहिसकी घडटासलें. अशा घातमारी प्रसंगाची जाणीव म्हाकाय आसली. तशांत घडये तू गिरफ्तार बी जातासलो. ताचे सावन हांव म्हज्या बसकेवेल्यान उठलोच ना, आनी सांगलें, "कंडक्टराकडेन उलय". तेन्नाच तूं म्हजेंसरी आयलो आनी आपुलकायेन म्हज्या खांद्यार हात दवरलो. म्हज्या दोळ्यांत बारीक साणेन भरपूर पळेलें. हांवेय तुका नियाळलें पूण तू पाकीटमार आसा हे म्हज्या ध्यानातूंच आयलें ना. तशें आदीच कळिल्लें आसल्यार हांव तुका वेगेंत घेतांसलो. तूं एक आवटो तरी आसा वा सोऱ्या नशेंत आसा अशेंच हांव समजल्लो. ताकालागून स्वताची राखण करूंक तयार रावलों. मनांत थारायलें कसलोय बोवाळ केलो जाल्यार हांव तुका धपके मारतासलो. एक नाकाचेर, दुसरो कानसुलार आनी एक लाथ पोटाचेर. पूण तू खरोच वयल्या पावंड्यावेलो कलाकार उपजलो. बोल्सावेलें म्हजें ध्यान तुवें हुशारीन कशें काय कडसरायलें तें म्हाका कळ्ळेचना. व्वा रे पठ्ठ्या.

त्याच खिणाक तुजो वांगडी म्हज्या दाव्यावटेन आयलो. म्हज्या कानासरी येवन ल्हव आवजांत सागले, "तो इराणी आसा. आमची भाशा ताका समजना." आनी तेद्या वेळांत ताणे म्हज्या बोल्सांतले पाकीट मारलें. ज्याच्यांत चलनी नोटो भरिल्यो. आरे म्हज्या मोगा, हांव हातार घड्याळ बांदिना वा बोल्सांत पयशाचो बटवो दवरीना. कामां खूब आसात देखून परत परत घड्याळांत कित्याक पळोवचें. हांव एक बरोवपी. ज्या प्रतिष्ठानचे (संस्थेचें) पयशें आसात तांच्याच लखोट्यांत ते दवरता. एका संस्थेचे पयशे दुसऱ्या संस्थेच्या लिफाफ्यांत केन्नाच दवरीना. मनशाक पाकीटाविशी बरें सावचित रावंक जाय. पाकीट बरोबर जाल्यार बाकी सगळे बरें. एका प्रकाशकान दिल्ले पयशे दुसऱ्या प्रकाशकान दिल्ल्या कवरांत दवरल्यार घडये ते कवरूच पयशें गिळून उडयत.

आरे मित्रा, सगळ्या घडणुकेची सांखळी हांवे म्हज्या देंवपी स्टेशना अदेंमदें तयार केली. तो मेरेन म्हजें पयशापाकीट कोणेतरी चोरलें हेंच म्हाका खबरनाशिल्लें. तेन्नाय ध्यानांत आयलें तें तूच खिसेकापू आसा. मनांत भोव वायट दिसलें. पयशें गेले तें वेगळें आनी वयल्यान दुख्ख बी भोगूं? हांव कसलो पिसो काय म्हणटां. ते रातीक हांव शांतपणान न्हिदलो.

हें सगळें वाचून घडये तू खंती पावतलो. तशें कश्टी रावक बी गरजेचेंना. हांवूय बोल्सां कापपी गिन्यानांत गुरु आसा. मात तरा वेगळी. तुवें म्हजे बोल्स कापलें जाल्यार हांवे स्वामी महावीरालें बोल्स कापलें. महावीर जयंतीवेळार भाशण केल्याक मातशें चड दुडू कमायलें. म्हजे पयशे तुंवे चलाखीन उखलले हें जाणून म्हज्या सवंगड्यानी म्हाका भाशणाची संद दिवन पंयशांची सोय केली. आतां तू तुज्या मनांतल्यान निर्शेणी काडून उडंय. खरें म्हळ्यार तुवें म्हजेर बेस बरें उपकार केल्यात. अशें पळय- तुवें पावणे दोनशें व्हेलें आनी हांवें पाचशें कमायले. तूच हिशेब कर- ह्या वेव्हारांत म्हजो चड फायदो जालो काय ना? आनी सांग तू व्हड बोल्स कापपी काय हांव?

म्हज्या इश्टानी कसल्यो कसल्यो येवजणी केल्यो. कोणे सांगलें दिसाळ्यात जायरात दितात- 'खिसेकापून पयशें चोरल्यात देखून ताच्या प्रत्येक मित्रान एकेक रुपया म्हाका पावोवपाचो'- हांवे ते नामंजूर केलें, म्हळें, 'आरे म्हाका जगूंक दियात. जर रुपये आयले नाजाल्यार...? म्हजें खऱ्यानीच बरें, उपेगी पडपी मित्र आसात ह्या भ्रमांतूंच हांव जागून आशिल्लो अशें दिसतासलें. भरम तुटिल्यान मनीस मेल्यावरीच जाता. मित्रांनी विचाल्लें, ''बरें, तुजो फोटो छापून ताचे खाला अशें बरोवयां .. ह्या मनशालें पाकीट चोरयेक गेला. हो चोर ज्या कोणांक मेळटलो, ताणे हाका फक्त एक रुपया भेट दिवचो''. त्या कल्पनेकूय हांवें पाळी दिलीना. खबरे पत्रात 'व्हगडला' ह्या रकान्यात एक जायरात दिवया, अशें इश्टानी सुचयलें. ''आमचो मोगचो साई फक्त पावणे दोनशे रुपये शेणिल्याक खंयंतरी लिपून रावला. काय जाण कोटी कोटी रुपयात काळो जाल्लो चेरो लिपयनात. तूं जयखंय आसा थंयच्यान रोखडो परत यो. पावणे दोनशें रुपये तुका मेळची वेवस्ता तुजें इश्ट जन करतले.''

म्हज्या खिसेकापू मित्रा, पाकीटमारचे बाबतींत हांव तुजो बाप्पोलो लागता. अशाच चोरयेचो उपेग करतासलो जाल्यार हांव हाचे आदींच दुडुवांकार जातासलों. आरे भावा, फुडाराक जेन्ना केन्ना म्हजें पाकीट मारतलो तो वावर मात सांगून कर. आमी दोगेंय मेळून अशीं कितें येवजणी करूंया. ताकालागून आमी श्रीमंत जावंक पावतले. सद्याक म्हजेकडसून मोळिल्ल्या पयशार तुका खोस भोगता आसतली अशी आस्त बाळगितां. बरें मागून, रावता तुजो इश्ट.



# एक तिरसो; एक एकाक्षी

म्हणयो उलट्यो पडूंक लागल्यात- एक म्हणी प्रमाण- धांपिल्ली फट उकती केल्यार खरेंपण नागडें जाता. ते देखून खरेंपणाक फटासकीपरस चड लज दिसता.

हालीच न्यायाचें दार खटखटायलें आनी त्या म्हणीचो सामको उरफाटो अणभव आयलो. कांय दुबळ्या निराधार लोकांचेर फौजदारी खटलो घाल्लो. तांचेवतीन हांवें कोर्टांत दाद मागली. म्हाका दिसलें न्याय दरवट्यारुच 'ड्यूटीर' बसून आसता- दार खटखटायलें म्हणटकीर रोखडोच भायर आयलो. खूब वेळेमेरेन भितर रिगपाची वाट पळयली. जाल्यार कवडां उकती जालींनात. देखून हुसक्यात पडलो. अशें घडलां तरी कितें- न्याय पिडेस्त जावन रजेरबिजेर गेलो ना मूं? ना म्हळ्यार आतां तो म्हातारो जाला आनी अदींमदीं ताची भलायकी इबाडिल्या वरी जाता.

निमाणें आमी जनेलां उगडून भितर घुसलेच. सगळेवटेन किण्णताय पातळिल्ली. बाथरुमचीं कवडां उकती केलीं तेन्ना एकटो नागडोच न्हाताना दिसलो. हांवे विचाल्ले, 'तूंच न्याय हय काय ना?'' आंगार बेगीन पोशाक चडय. बरेंच कितें उलोवपाचें आसा.''

ताणें सांगलें, ''हांव न्याय न्हंय, अन्याय आसा, नागडोच आसता. अन्यायाक कसली लज? न्याय आनी हांव आवळेजुवळें. चेरे एकसारखे, देखून भौस धोको खावन म्हजीच भेट घेतात.

हांवे म्हळें, ''दोगांत इल्लीतरी विंगडपणा आसतली काय ना?

ताणें सांगलें, ''व्हय आसा. अशें म्हजेकडेन पळय. हांव दोळ्यान तिरसो तू समजत आसतलो हांव दुसरेवटेन पळेता, परंतु खरें म्हळ्यार हांव तुकाच पळेत आसा. म्हजो भाव न्याय एका दोळ्यान कुड्डो. तो एकूचवटेन पळेता. हाली तो भयरो बी जाला.''

हांवे विचाल्लें, ''म्हळ्यार, न्यायाचे दार खटखटायलें म्हणटकीर ते कोण उत्तें करता?''

ताणें सांगलें, ''हांवूच. तीच तर मजा आसा. लोक म्हाकाच न्याय म्हणू समजतात?''

हांवे परथो प्रस्न केलो, ''मागीर तुमी दोगूंय कोणाले पूत?

ताणें सांगलें, ''एविडेन्सॲक्ट' आमचो बापूय आनी 'पीनलकोड' आमचो भाव.''

हांवे विनंती केली, ''आमका न्यायाक मेळचें आसा. आत्तां तो खंय मेळटलो?''

ताणें सांगलें, ''तो आत्ताच फाटल्या दारांतल्यान पोलीस ठाण्यांत गेला. येवचोच जाला.''

तुमी म्हणटले- ''बरें, खलील जिब्रानावरी प्रतीकेच्यो म्हळ्यार खूण, संकेत, लक्षणानी भरिल्यो काणयो हांव बरयत आसा जाल्यार आतां सांगता त्यो न्यायाच्यो वाकड्या चालीच्यो आसात. आरे कोर्टामिटार तकली आपटायतल्यानो ध्यानांत घेयात, तुमी मुखाल्या आनी तो न्याय मात फाटल्या दारांतल्यान पोलीस ठाण्यांतल्यान आदेश काडून घेवंक गेला. न्याय भयरो आसा. तुमची आदळआपट ताका आयकूंक येना. तो जो- तिरश्या दोळ्याचो- कोर्टाकवडां उकती करता तोच अन्याय आसा. म्हण्णयार न्यायाचें दार खटखटावन भितर घुसल्यार जो सामकार मेळटा तो भोवतेक करून अन्यावूच आसता. तें दार मोडल्याशिवाय न्याय मेळना.

तुमी म्हणटलें, ''आतां नक्सलवादी जावंक पळेतात काय कितें?'' परंत तशें न्हंय. जाल्यार ती पदवी मातय यत्नाशिवाय दसून रावता. भिकूण चाबल्यारुय तुमी समजतले हे नक्सलवाद्यालें कारस्थान. लहान भुरगें रडटा तेन्ना बापूय तांच्या आवयक सांगता, 'तो कितें पोटाभुकेन रडना. तो नक्षलवादी जाला आनी आकांत पातळायत आसा.''

विनाकारण आमचेर आरोप लायनाकात. दार मोडून लेगीन आमका फुटकी कवडी वा कुड्डो निवाडो मेळ्ळोनासलो. तोच तिरळ्या दोळ्याचो तेन्ना भौशिक सेवेंत गुल्ल आसलो. फाटल्या प्रवेशदारार धरणें धरिल्यांकूच न्याय मेळटा तेंच खरें. अशातरेची फटिंगपणा केन्ना केन्ना उकती जाताय तेंय फटास न्हंय. देवाक साक्षी मानून कोर्टांत जितलें फटउलयतात तितलें देवा फाटल्यान उलयनात. मनीस जितलो धीट जाला तितलोच सत्यनारायण उदार मनाचो जाला. धर्म बऱ्या मनशांक भिजूड करता आनी वायटांक धाडशी घडयता. आयज फटासकी मात मातशा सात्विकतायेच्या पालवान वयर चडतचडत खरेंपणाच्या वयल्या पांवड्यार लवंडता.

तो मनीस गवायकठड्याभितर उबो रावला आनी आत्ताच देवालो सोपून घेवन सांगता, ''म्हज्या देवा, यो पळय, हांव फट उलोवंक आशेभरीत जाला.'' तो शिकिल्लोसवरिल्लो गिरेस्त, बरो मनीस फटीची साक्ष दिवंक मेळटा तेन्ना पोलीस आपणाल्या ठाण्यालागसारच्या 'बजरंग बली' मारुतील्या नावान नाल्ल फोडटात.

गवाय आपणाल्या पुराय कुशळकायेन खरेंपणाविशी यत्न करतना दिसता. वेवस्तीतपणान फट उलयिल्लें लेगीत खरें दिसूंक लागता. तो आपणालो आत्मविश्वास दाखयत चोंयवशीन पळेता. आत्मविस्वासान सांगिल्लें फटबी खरें मानतात. आत्मविश्वासाबगर सांगिल्लें सत्यबी फट थारुंक शकता. खरेंपण दाखोवंक फटिंगपणाक 'मेकअप' करचें पडटा. ताणे मुखामळार

स्नो-पावडर लायला. ताणे बऱ्यांतलो सूट अंगार घाला. निमाणे खरेंपण कितें आसता? उत्तर पोशक केल्लो फटींगूच.

ताचो चेरो हांव नियाळटां. ताच्या ओठांर कात्रे पडल्यात. दांत भायर दिसूंक सामके तयारींत आसतात. फटकिरो आनी घातमाऱ्यालें रुप अशेंच आसता. फटींग मनीस दोन तरेचे आसतात- एक मोनीळ आनी दुसरो बडबडो. बोग्गी रावपी हो अणभवी फटींग आसता. तो एक दोन वाक्यांतूच फटाशीचे खरें करता. बडबडो येवजणेंतूच आसता. तो चिंतिता अजून म्हाका फटवप जमना. देखून तो मखलाशी करुंक चडावत आठ-धा वाक्यां उलयता. ताचे सावन ताची दाडवण आबासतात. ताचोय जबडो तसोच जाला. ताचे तोंड पिकिल्ल्या फोडावरी दिसता, जाचेंत फटिंगपणाचो पू भरला. इल्लेंशें भेतलें म्हणटकीर पु लेणो भळभळा भायर व्हांवतलो.

तो खांकारून गळो साफ करता. चेऱ्यार रुमाल भोवंडायता. तो गवाय दिवंक आयलो नासतना, न्यायाल्या धुवेक लग्न करून घेवंक न्हवरो जावन आयला असो दिसतालो. सरकारी वकील जायतशें शिकोवन तयार केल्ले प्रस्न विचारता, आनी तोय शिकून पाठ केल्ल्यो जापो दिता. ताणे अमूक अमूक मरण पाविल्या मनशाक जितेपणी तोणक्यान धपको घालतना पळेला. ताका तोणको दाखयलो तेन्ना आपणालो पुर्विल्ल्या मित्राक वळखता तशीं तोच म्हूण वळखलो. ताका एक फातोर दाखयलो. ताणे तोय बेसबरो वळखलो, म्हळें, 'होचफातोर थंय पडिल्लो!'

हांवे बगलेक बशिल्ल्या वकील मित्राक विचाल्लें, ''आरे, हांगा सगळो काळोकूच पातळला. खंयच्या फातराक तो कसो वळखतलो काय म्हणटा.''

ताणे म्हळें, ''वोग्गी राव, एविडेन्स ॲक्टप्रमाण सगळे बरोबर आसा.''

गवायेक रगताची भरवण जाल्ली माती दाखवली. ताणे तीय वळखली.

हांवे वकील दोस्ताक म्हळें, ''ही आनीक अजापाची गजाल. ताणे मातयेचीबी वळख दाखयली.''

ताणे म्हळें, ''वोग्गी राव, एविडेंस ॲक्ट''.

हांवे चिंतिलें, आतां हो वकील एका बंद बाटलेंतलो मूस दाखोवन विचारतलो- ह्या मुसाक वळखता? आनी गवाय बी सांगतलो- आरे तोच मूस मारपेट घडटना थंयसर भुणभुणतालो.

एविडेन्स ॲक्ट आनी कितें! सगळेंच अजापाचें म्हणपाचें!!

राजा हरिश्चंद्रान एका ब्राह्मणाक सपनात आपणालें सगळें किते दान केल्लें. त्या ब्राह्मणाक मेळिल्ल्या आस्पतीचेर मालकी ताबो घेवंक कोर्टांत वचचें पडटासलें, जाल्यार तोय तीन-चार गवायांक उबो करतासलो. आनी ते सांगतासलों, आमच्या सामक्कार ह्या ब्राह्मणाक

राजा हरिश्चंद्रान आपणाले सगळें राज्यूच दान केला.'' आनी वकील उरफाटीं तपासणी करतना विचाल्ले जाल्यार 'ते वेळार तुमी खंय आसले?'' हाका जाप रोखडीच मेळटासली ती, ''आमी बी राजाल्या सपनांत गेल्ले!''

बचाव पक्षाचो वकील, ''क्रॉस एक्झामिनेशन (उलट तपासणी) करुंक उबो रावता. ही बाब भयांकृत आसता, एके वगतार म्हजीय बुद्धी धुवन काडिल्ली. हांव नीतिवंत जावन सगळें कांय खरें खरें सांगतालो. जाल्यार दोन खिणांतूच उलट तपासणीकरपी वकीलान म्हज्या सत्यवादीपणाक हुमेन सामके भिजयलें.

गवाय तयार रावता. मुखामळ पुसता. हड्डुच्यांत जीवसाण भरता.

वकील प्रस्न करता, ''मारपेट सुवातेपसून तू कितलो पयस आशिल्लो?'' गवाय काय सांगूक तोंड उगडटा मात, मदेंच वकील सांगता, ''ताकतीक करची कायच गरज ना. पुराय विचार करूनूच सांग.'' हे निमाणेची चत्राय गवायाक घुस्पागदळांत घालता. ताका जाणीव जाता जितली सरळ बाब म्हूण आपूण समजतालो ती तितली सादी सरळना. प्रस्न कठीण आसा. चिंतूक जाय. आत्तांच ताणे सरकारी वकीलाक धा पावलां अंतरार आशिल्लो अशी म्हायती दिल्ली ताका उगडास जाता. विचारपूर्वक तो सांगता धा-पंदरा पावला पयस आसूये.

**वकील** : बरें धा-पंदरा पावलां अंतरार.

**गवाय** : न्हय, म्हळ्यार पंदरा-वीस पावलां अंतरार.

**वकील** : अशें, पंदरावीस पावलांचेर

**गवाय** : वीस-पंचवीसेक पावलां पयस आसलो अशें समजात.

तीनूच प्रस्नांत गवाय पंदरा पावलां फाटल्यान सरलो. वकील अजून प्रस्न विचारता आसलो जाल्यार तो दुर्घटणे जागेपासून पांच मैल पयस आसा अशेंय घडतासलें. तो मात मनांतल्यान खोसभरीत जालो, ताका स्वताक दिसलें आपणें वकीलाक 'कन्फ्यूज' करून दवरलें.

.... x ....

''तू कितल्या वरार त्या सुवातेर पाविल्लो'' ताकतीक ना पुराय, विचारान्ती सांग.

''दीड दोन वरार.''

''बरे, दीड दोन वरार थयं पावलो.''

''न्हय, दोन अडीच वाजिल्लें आसूंक फाव.''

''अशें. दोन अडीच वरार पाविल्लो.''

''...... अडीच तीन वरार पावलो अशें समजात.

.... x ....

''आतां सांग मेल्या व्यक्तीली पिराय कितली आसूंक फाव''.

''पंचवीस-तीस वर्साची आसूंये.''

''बरें, पंचवीस तीस वर्साचो.''

''व्हय, तीस-पस्तीस वर्साचो आसत.''

''अशें, तीस-पस्तीस वर्स पिरायेचो.''

''...... म्हळ्यार पस्तीस-चाळीसेक वर्साचोय आसूंक शकता.''

.... x ....

कांय दीस सतत अशा गवाय पुराव्याचे खेळ पळेत रावलो. हांव खासावीस जाल्लो कारण भायल्या जगांत खरो मनीस सोदुनूय मेळना. आनी (कोर्टात खरें उलोवपी हे लोक) आमका खबर नाशिल्ल्या खयच्या खयच्या कोनशांतल्यान हांगा येवन एकठांय जातात. फटें उलोवंक सगळ्यांत उत्तम आलाशिरो मेळपी सुवात म्हळ्यार कोर्ट. थंयसर राखण करपाक न्यायाधीश आनी देव दोगूंय हाजीर आसतात. म्हजो वकील मित्र सांगता, 'हे सगळें कायद्याप्रमाण आसता. न्यायाधीशा सामकार आयिल्ल्या गवायेर भरवसो दवरून तो गुन्यावगाराक फांशी दिता, आनी विस्वास ना केल्यार ताका सोडून दिता.

गवाय एकूच आसता, जाल्यार त्याच कारणान गुन्यावगार फांशी बी वता आनी सुटूकबी शकता. गवायेचो पालव धरून एकजण गुन्यावाक फाशीलायक समजता जाल्यार दुसरो जज त्याच गुन्यावाक निरपराध म्हूण सोडून दिता. वकील मित्राक सांगता, 'मन शाल्या अशा तरेच्या न्याय वेवस्थेक नवी यंत्रां चडदीस चलूंक दिवची नात. कांय दिसान कोर्टाच्या सुवातेर एक व्हड कॉम्प्युटर बसयिल्लो दिसतलो. तांतून वकील न्यायाधीश, गवाय, जज हांका तुमी बंद करतले. कॉम्प्युटर चालू केलो म्हणटकीर कांय वेळांतूच तुमच्यापयकी कोणाल्याच आंगाचेर निवाडो दसून येतलो.

ज्या तीन-चार जणांक फटासकी करून फसयला ते सगळे मार्गाक लागून कडेकडेन तट्ट्यांची खोपटी करून रावतात. ताणी फांशीर वचूंक पयशे खर्च केल्यात, वकील दिल्यात आनी लांचूय दिल्या.

येशू आपणालो खुरीस खांद्यार घेवन वचत आसा वा तो ताचेर हुमकळत आसा अशेंय ना. येशूक ताच्याच पांयार ताच्याच हातान खिळे ठोकपाक असहाय वा जबरी केला आनी तो सांगता, 'बापायगा म्हज्या, हांका केन्नाच माफ करनाका. कारण तांका नित्शितायेन खबर आसा तें कितें करीत आसात ते!''



# साहित्य आनी नंबर दोनचो कारबार

हांव सांस्कृतिक क्रांतीच्या काळांतल्यान भायर आयलो. बळयां ओडून घेवप आनी हात मारप हाची संस्कृती आपणायली. ते आदी कश्टान कमायिल्लो पयसो आपणालो असो केन्नाच दिसलो ना. आतां मात हेरांलो हडप केल्लोच पयसो आपणालो असो दिसता. सगळ्याच सांस्कृतिक बुनीयादी तत्वांत आतां जायते बदल घडल्यात. पयले समारंभातल्यान गळ्यांत फुलां वळेसर आनी हातांत फुलांचो झेलो मेळ्ळो म्हटणकीर धादोसकाय पावतालो. आतां गळ्यांत पडिल्ले वंळेसर 'नाकाजाल्ले वजें' अशी जाणीव जाता. हालीच्या सांस्कृतिक क्रांतीन फुलांचो पर्मळूच व्हगडायला दरेक फुलांजागेर ते वेळार चलनी नोटांची पुडके गांटलावन मेळटासले जाल्यार आयज म्हजेकडेन जायतितलो पयसो गांठीक बांदिल्लो दिसताशिल्लो. हालिंतर हाव वळेसर-झेल्यापरस भाशणाउपरान्त पाकीटांतल्यान मेळपी मानधनाचेर अंदाज बांदीत आसता. वळेसरांत गुलाब फुलां आसूं दी वा गोंड्याफुलां आसू दी म्हाका ताचे कांयच सोयरसुतक आसना. सगळो प्रकार एकूच. आतां फुलांपाकळ्यो म्हाका चलनी मोडीच्या नाण्यावरी भासतात. काय काळ आदी सांस्कृतीन बुनियादी तत्वांचे मोल खुबूच उणे जाल्ले. पूण हालीं मात ते पयशा साथीन जोडल्यात. म्हळ्यार साहित्यकारालो शून्य मोलाचो युग आता सोंपला. जे पयलेवरीच चलोवन घेतात ताणीन असल्या पोन्या दुखण्याचेर उपाय करप योग्य. साहित्य विभागांत भोव बरे अणभवी उपचार करतले प्रत्यक्षांत आसात.

म्हजेर ज्याणें उपकार केले तो साहित्यविशय भायरचो मनीस. तो एक धंदेवालो पूण म्हजो आमीग. एक खेप, ताणे बांदिल्लो बंगलो पळोवन, हांवे गमतीन म्हळें, 'धंद्यांत बरो पयसो कमायला अशें दिसता.'' ताणे रोखडेच जाप दिली, ''सगळो दोन नंबरचो; आनी कितें!''

नंबर दोन हाचो अर्थ म्हाका लागलोच ना. कुवाड्यांत उलोवपाची ताका सवय. आमच्या संवकळीतलीं सोबीत नांवा तो अंग्रेजीत सांगून इबाडटा. देखीक दिवचे म्हळयार- भगवान श्रीकृष्णाक- एस्. के. यादव आनी भगवान रामचंद्राक- आर. सी. रघुवंशी आनी अशेंच कितें कितें. वाटेर मेळ्ळो आनी हांवे विचाल्ले जायत- ''आरे खंयसर चल्लो?'' ताची जाप आसता. एस्. के. यादवाल्या देवळांत.''

हांवे निमगिलें, “मित्रा, दोन नंबरचो कारबार कसो आसता? ताणे म्हाका फटकारले, “म्हळ्यार तूं ह्या देशांत रावना काय म्हणटा. गिरेस्त समाजाक सोडून आदिवासी लोकांत वचून रावला काय कितें? आरे, नंबर दोन हो आंकडो राष्ट्रगीतावरी लोकांक भोव आवडीचो जाला. पूण तें तुका कशें कळटलें? तुज्या ह्या अज्ञानाचेर आमची मायभूंय केन्नाच माफ करची ना.”

उपरान्त ताणे नंबर दोनचो कारबार म्हाका समजायलो. तुमी बी म्हजेवरी नेणटे आसल्यार खंयच्याय धंदेवाल्याक विचारून घेयात. हे सुवातेर हांव ताचो तपशील विसकावणी करून सांगूक शकना.

म्हज्या त्या मित्राकडेन लक्ष्मीपूजनाचो एक कार्यक्रम दर वर्सां आसतालो. म्हाकाय आमंत्रण मेळटाले. पूण आतां दोन-तीन वर्सां जाली. पुजेक आफोवणें आयलेना. हांवे ताका विचाल्लें, आनी ताणें जापूय रोखडीच दिली, ताणे सांगले, 'सुरवेक एक नंबरची लक्ष्मीली पूजा सगळ्यांक आमंत्रण दिवन साजरो करतालो. गेल्या दोन-तीन वर्सांपासून नंबर दोन लक्ष्मीली पूजा गुमानीत करता.'' एके दिसा ताणे स्पश्ट विचाल्लें, 'केन्ना मेरेन नंबर एकच्या कमायीत गुजराण करीत रावतलो? तुमच्या साहित्यांत नंबर दोन हो प्रकार ना काय कितें?''

त्याच तिंनसांजेर हांव म्हज्या धोंपराचेर बसलो आनी, हात जोडून, दोळे धांपून देवाली प्रार्थना केली. म्हळें, “आगे, सभागी लक्ष्मी, नंबर दोनची वाट म्हाका दाखय. तुवें खूब अशा भक्तांक धनदौलत पुंजावपाची शक्त दिली. म्हजे चोयवशीन सगळेच जण नंबर दोन आनी दोनचेच पयशें गांठीक बांदून जगतना दिसतात. एकाद्रो मनीस एका तिकिटार वेंचणुकेत निवडून येता आनी विधानसभा, लोकसभेंत विधायक जाता. ज्या पार्टीची सरकार जावपाची आसा तांकाच वचून मेळटा- ही जाली राजनीतिंतली नंबर दोनची रीत. एकाद्रो देवभक्त देवूळ बांदपाचे वा दुरुस्तीखातीर वर्गणी पुंजायता तोच त्या पयशांतल्यान आपणाले घरूय वाडोवन घेता- हो धर्मांतलो नंबर दोनचो प्रकार. एकाद्रो तरनाटों एकाद्रच्या तरनाटीचेर मोग करता आनी आदर्श लग्नाचे सोपूत घेता. तेदेवेळार दुसरेवटेन आपणाल्या वडीलधाऱ्यांक चालियेल्या आवयबापायकडेन हुंडो मागपाक गुपचूप धाडून दिता- ही मोगाची दोन नंबरची तरा.

हांवे देवाक केल्ली विनवणी फळाक आयली. आतां मात म्हज्या बुद्धीक धार चडली. तशें सटकन उगडास जालो. एक कवि सम्मेलनाक वता आसतना रजय घेवंक विसरता. कार्यक्रम सुवातेर पावतकीर ताणें थंयसरच्या कार्यावळ वेवस्थापकांक वेगळे आफोवन सांगलें, “प्रवासांत हांतूळ चोरीक गेले.'' ताणे रोखडें दिलासो दिलो, 'काय हरकत ना. आमच्या घरांतली चडावत आशिल्ली रजय हाडून दिता.'' कविबी हुशार. ताणे सांगले, “हांव कोणे वापरिल्ली रजय आंगार घेना.'' “शियांपासून राखण करपाक त्या कवीक कार्यक्रम प्रसंगी जंयथंय विकत घेतिल्ली नवी रजय मेळटाली. आनी हो गिरेस्त फक्त एक रातीक वापरून उपरान्त आपणाल्या घरां घेवन वतालो. अशे तरेन ताणे आपणाल्या पुराय परिवाराखातीर रजयो मेळयल्यो. फुडार ताणे कविता करची सोडून रजयाचें दुकान थाटलें. आनी ताचे नांव दवरलें- कविता रजय भंडार.

त्या कवीक हांवे गुरु मानले आनी पयलेचीच संद मेळिल्यावेळार नंबर दोनचो वेव्हार क्लो. ताचें अशें घडलें- एक सुवातेर साहित्य सम्मेलन भरिल्लें. हांवे भाशण करचे म्हूण वकार अध्यक्षान- जो राज्याचो मंत्री आसलो- म्हाका मुजरत विनंती केल्ली. मानधन शंबर पये आनी रावपा जेवपाची फुकट सोय संयोजकांनी थारायिल्ली. एका मित्राल्या मोटारीत ट्रोल भरून आमी कार्यक्रमाजागेर पावले. सरकारी गुप्तहेर विभागातली एक व्यक्ती थंय ावुरताली आनी ती म्हजी वळखीची आसली. ताचेकडसून संयोजकाली आर्थिक स्थिताविशीं म्हायती घेतली. ताणी जाय तिंतलो पयशो वर्गणीरुपान पुंजायिल्लो.

जेवणाक बसले मात आनी ध्यानांत आयलें वाडिल्लें जेवण 'कदान्न' आसा आनी आमच्यावेलो खर्च स्वताखातीर दोन नंबरांत करपाचो ह्या लोकांलो विचार दिसता. ताणी वेळ साधून घेवचें पयलीच तांचेकडसून आमका नंबर दोनचे मानधन वसूल करुंक जाय. हांवे विचाल्लें, ''हे वेळार कशें कितें जमतले?'' ताणे सांगले- ''रागार जावप. तिडक मारिल्लेशे जावन रावपाक हीच संद बेसबरी.'' अशें म्हणतसतनाच ताणे खरेंच जेवणाताट हातान धाडकन आपटून पयस सरकायलें आनी ताठ उबो रावलो. तो आड्डलो, ''आमका जनावरासारखे समजतात काय कितें? इतलें उण्या प्रतीचे अन्न आमी खावचे काय म्हणटा. सुमाराभायर पयसो जमयला अदीक ग्रांट्य मेळ्ळ्या तरीय ही चामटीपणा कित्याक म्हूण करतात.''

आनी चार मित्र कांय खायनासतनाच सटसटीत आमच्या रुमाचेर आयले. सदा वाकड्यांत घुसपी साहित्यकार म्हूण आमी नावाडगे जाल्लेच आसले. कँटीनांत सगळी धावपळ जाली. मंत्रीजी स्वता आयलो आनी उपरान्त आमका वेगळें शिजयिल्ले, उत्तम सुवादाचें, दोनी वेळचे जेवण स्टेनलेस स्टील ताटांतल्यान मेळूंक लागले. खरें म्हळ्यार प्रस्न जेवणाचो नाशिल्लो. मुखेल मागणी आसली ती मानधन शंबर रुपयावेल्यान वाडोवन घेवपाची. संयोजक नंबर दोनचे पयशे पुंजायतांत अशी एक फाकाय ल्हवल्हव चोंयवशीन पातळूंक लागली. मित्रान म्हळें, ''जेवणांत दोन नंबरचो प्रकार हांवे तडीक लायलो आतां वाडीव मानधनाविशी तू यत्न कर.'' हांवे मनांतल्या मनांत देवाक गाराणें घालें, 'परमेश्वरा, प्राथमिक शाळेंत आसतना हांवे तुजेकडेन विनवणी केल्ली याद आसतली. तेन्नाच हांवे सांगिल्लें, ''हांव एक अजाण चलो आसा. देवा, अजून हांव तसोच आसा देखून तू म्हज्या बुद्धीक जागृत कर. ह्या वगतार साहित्य निर्मणीपरस नंबर दोनचो पयसो कमावपी गिन्यान म्हाका चड गरजेंचें जाला.'' आनी म्हज्या धारदार बुद्धीक ऐनवेळार खरेंच जाग आयली. भाशण करुंक म्हज्या नावाची घोशणा जाली. माईक हातात घेवन हांवे सांगलें, ''काल रातीपासून म्हजी प्रकृती इबाडल्या. म्हाका भाशण करपाचें नाशिल्ले. जाल्यार गरजेपोटीं तें करचें पडले. आनी तशें केल्लेना जाल्ल्यार कबूलात प्रमाण संयोजक म्हाका मेळपी दीडशें रुपये मानधन दिवचेनात हाची खात्री आसली. लोक हांसले उपरान्त गंभीर जाले. राजनीतित ताकाच 'थेट जनतेलागी वचप' अशें म्हणटात. आनी हांवे तेच केले. आतां सरळसरळ जनतेकडेन गाराणी घालप हेय एकतरेन नंबर दोनचो प्रकार घडूंक शकता. ही हिकमत कामाक आयली. सांजेर मंत्रीजी स्वतः येवन म्हजे मानधन

दिवन गेलो. उपरान्त कानार पडलें तें अजापाचे आसलें- कांयजणाले मानधन दिनासतनाच मंत्रीजी रातीगाडीन दुसरेकडेन वचूं गेल्लो.

दरवेळा नंबर दोनच्या प्रयोगांत येस मेळत गेल्ल्यान म्हजी उमेद वाडली. अशेंच तरेन घडत गेल्ल्यार एकेदीस हांव वाटेन हरशेंच एकटो चलतासना लोक म्हाका पळोवन नित्शीत म्हणटले,- 'तो पळय दोन नंबरी वता'. म्हजो एक चारित्र्यवान मित्र सांगता, 'पयशाबाबतींत मनशान निर्मळ, पारदर्शक रावंक जाय. हांव म्हणटा- 'ते शक्य ना'. समुद्रमंथन कितें देवापंगडानूच केल्ले? दुसरेवटेन राक्षसांनी बी हातभार लायिल्लो काय ना? ताचे मजतीनच लक्ष्मी वयर आयली न्हंय? तेन्ना पयशाबाबतींत राक्षसी विचार मनशाल्या मनांत कित्याक म्हूण उप्रासपाचे नात?

असल्या निर्मळ चारित्र्यवानाल्या उपदेशांत हांव अडकून पडप शक्यच ना. नंबर दोनचे तरेकवार येवजणी हांव सतत करीत आसता. अशेंच केन्नातरी हांव एके सम्मेलनात पावलो. रातीवेळार कार्यक्रम आसलो. हांव हॉटेल रुमांत बसून म्हजी येणावळ नंबर दोनांत कशें काय बदलून घेवपाचे' हाचेर बुद्धीची कस लायतालो. तेच वेळार आयोजकांली येवजण्योय त्याच कामाक लागिल्ली म्हाका कशें कळटलें. घडलें ते अशें- दनपारा उपरान्त कार्यावळ समितीचो एक वांगडी म्हज्या रुमार आयलो. खरो कामसू मनीस. ताच्या हातांत पटी पुंजावपी पावती पुस्तक दिसतालें. थोडें थामून म्हज्या प्रकृतीची वासपूस केली. उपरान्त ताणे म्हळें, "माफ करात हां. देगणी देणाऱ्याकडेन म्हाका रोखडेंच वचूंक जाय. अवन्दू जाय तसो पयसो जमलो ना" अशें म्हणत तो भायर सरलो. रोखडेंच दुसरो येवन पावलो. ताच्या हातांत पयल्यावरीच पावती पुस्तक आसलें. म्हाका नियाळत ताणें म्हळें, 'तुमका कसलो त्रास ना मूं हे विशी चवकशी करूंक आयिल्लो. बरें तर, आतां भायर सरता. कांय पटी वसूल करपाचे रावन गेल्यात. लोकांक आमंत्रण दिला खरें पूण पयसो खुबूच उणो पडटलो अशें दिसता. तो ताकतिकेन रुमाभायर गेलो. इतल्यांत तिसरो हजर जालो. ताच्याय हातांत तशेंच एक पावती पुस्तक. ताणें खंती सुरांत म्हळें पटी दिवपांत लोक बरेच बेपर्वाय करतात. कितले दीस जाले धावपळ चालूच आसा. पूण कोणे आपूण जावन ते फारीक केल्ले जाल्यार उपेगाक पडटासले न्हंय? कार्यक्रमाक लागपी जायतितलो पयसो अजुनूय उबो करुंक पावलेनात. बरें वचूं. अजून कांय जणाली भेट घेवपाची रावल्या."

हें प्रकरण आसा तरी कितें हाचे कुवाडें पडलें. हे सगळे वांगडी म्हजीच मोख धरून पटी म्हणा वा देणगी म्हणा पुंजावपाक कशें काय भायर सरल्यात? म्हजेरुच नंबर दोनचो पयसो वसूल करपाक धजावल्यात हाची खात्री जाली. हे लोक म्हाका पुराय मानधन दिवचे नात हाचीय मनांत खूणगांठ बादली. पूण करुं किते? शिंया रुतू आशिल्लो जाल्यार एक 'पुल ओव्हर' मागताशिल्लो. मनात एक विचार आयलो- मंचकाचेर भाशण दिता आसतानाच अर्धांगवायूचो झटको लागल्यार उपकारता आसलें. पूण ती पिडा फक्त व्हड साहित्यकारांकूच जाता अशें आयकला तेन्ना म्हजेसारख्या ल्हान साहित्यिकांली प्रकृती कशी काय इबाडटली? देखून हांवे म्हजें कर्तव्य केलें.

दुसरे दिसा सकाळी मंत्रीजी हेर वांगडी सांगतान आयलो. खूब वेळेमेरेन जायत्या गजालीर फकाणां झडल्यो. हांवे म्हळें, ''आजूच दनपारां गाडीन घरा वचपाचें थारायला.'' ताणे म्हळें, ''किते सांगू मित्रा, सांगूक आमकाच लज दिसता.

हांव समजून चुकलो, म्हळें, ''म्हाका कितें दिवपांचें तुमच्च्या मनांत आसा ते दियात.

घराच्या उगडासान हांव खासावीस जाला.''

ताणी कांय रकम दिली आनी अगत्यान म्हळें, ''बाकी रकम आमी आठ-धा दिसानी धाडून दितात. खरेंच आमी निर्शेणीन भारल्यात. तोंडी उतर दिवनूय खूब जणानी देणगी वा वर्गणी वेळेर दिलीच ना,'' ते पश्चाताप जाल्लेवरी बसून रावले.

हांवेच तांका सांगलें, ''जालें ते जालें, तुमी आता वचूं शकतात.

ताणी म्हळें, ''आमी खरेंच शर्मिन्दे जाल्यात. तेय तुमचेसारख्या सामकार''.

हांवे म्हळें, ''हे पळेयात- अजूनतरी बाकी मानधन धाडपाचो तुमचो हेतू तुस्त करपी आसा. आनी आतां खरेंच शर्मिन्दे जाल्ले आसल्यार तुमी उरिल्ली रकम धाडचे नात हे आदीच थारायला इतलोच ताचो अर्थ.

ताणी म्हळें, ''ना, ना तशे न्हय. आमी खात्रीन तुमचे मानधन धाडून दितलें'' हांवे म्हळें, मागीर शर्मिन्दे जावन रावंक कारणूच ना. समजा फुडार केन्नातरी बाकी रकम धाडूंक शकले नात ते वेळार एकदीस तुमी सगळे शर्मिन्दे जावन रावात कितें? अशें घडल्यार, हांव म्हणटा, गजाल हांगाच सोंपली. सांगा तर?''

ताणी म्हळें, 'ना, आतां आमी शर्मिन्दे नात.''

हांवें म्हळें, 'चला तर, बेगीन हांगाथान पांय काडात आनी आराम करात. भलायकी ही म्हत्वाची. हांव एकटोच गाडीची वाट धरता.''

ताणी म्हळें, ''आमी खात्रीन तुमका गाडीपर्यंत पावोवपाक येतात.''

हांवे म्हळें, ''नाका आजिबात नाका. तुमकां पळोवन म्हजें मन कश्टी जातलें.''

ताणी विचाल्लें, ''कित्याक म्हूण कश्टी जातलें?''

हांवे म्हळें, ''गाडीत बसतना तुमका पळोवन म्हजे मानधन बुडयिल्ल्याचे म्हाका पर्थून उगडास जातलो.

ते सगळे दुख्खाचो मुखवटो घालून वचूं गेले. म्हजेवयलो तांचो नंबर दोनचो प्रयोग सफळ जाल्लो. ताणी म्हजें मानधन धाडलेच ना.

अशा नंबर दोन मिळकतीच्या प्रयोगांत अपेशी जाल्ल्यान हांव कांय काळ निर्शेल्लो असो जावन राविल्लो. तेन्नाच एक येस मेळपीसंद आपशीच चलून आयली. एका शारांत म्हजो एक साहित्यप्रेमी अबकारी विभागात अधिकारी पदार आसलो. अशा तरेचे लोक साहित्यप्रेमी आसल्यार साहित्याची प्रगती घडूंक वेळ लागना आनी तांच्या विभागाची उदरगतबी ताणे सोऱ्या मक्तेदारांक पयशाचो आलाशिरो दिवन साहित्य सम्मेलन घडोवन हाडूंक तयार केले.

म्हाका तारेन पयशे धाडून दिले. उपरान्त मित्राली चीट मेळ्ळी- 'तू' मुजरत यो अजून अदीक मानधन मेळटले. जाल्यार सम्मेलना वेळेरुच हांव दुवेंत पडलो आनी मेळिल्लो पयसो सगळो वखदां आनी उपचारांचेर खर्च जालो. तेद्यांवेळांत मित्राली बदली जाली. ती वेळ सादून मत्तेदाराल्या सेक्रेटरीन म्हाका एक चीट धाडली, तांतूत कळयिल्ले- ''पांच-स म्हयन्या पयलीं धाडिल्लें मानधन परत केल्यार बरें जातलें.'' जापेक हांवे हांगाथंय सरच्यो गजाली आनी तांची भलायकी विशी बरोवन निमाणे एक वाक्य घालें, ''म्हजो मित्र आनी तुमचो पयलींचो सायब बदली जावन तुमच्या भागांतूच बेगीन येवपाचो आसा.'' म्हजो अनुमान सामको लागू पडलो. म्हजो दोन नंबरचो पयसो तांच्या किचांट्यातल्यान सुटलो.

दिवाळींवेळार हांव हिशबे मांडून बसता- एक जमा आनी एक खर्च, म्हळयार म्हजे कडसून कितलो पयसो हेरांल्या नंबर दोनांत गेलो, आनी हांवे दोन नंबरीचो वरकड पयसो कितलो कमायलो- आनी जै जै केलो दोन नंबरी भाग्यलक्ष्मीलो.



# ग्रांट अजून मेळूंक नासली

ते सगळे एका मेजाभोवंतणी बसल्यात. तांतूत मनीस मात एकूच दिसतालो, उरिल्ले
ागळे फक्त चेरे दिसताले. जो मनीस दिसतालो तो त्या राज्याचो एक मंत्री आसलो. बाकी
ंदरा-वीस चेरे. एक वरां आदी मनीसूच आशिल्ले आनी ते आपापणाले विशय वर्गावर्गांतल्यान
उमेदीन शिकयताले; रिसर्च गाईड करताले. पूण अचकीत ते सगळे बदलिल्ले. राज्याचो मंत्री
वेश्वविद्यालयांत घुसलो मात पयलें ताणे जमिल्ल्यापयकी प्रत्येकालो हात हातांत घेतलो
आनी उपरान्त हात जोडून सगळ्यांक नमस्कार केलो.

- ग्रांट अजूनमेरेन मेळूंक नासली.

आतां थंयसर हाजिर आशिल्ले सगळे जण आपापणाल्या चेऱ्यांर मुखवटे चडयतात,
नदरेनूच उलयतात, एकमेकाल्या कानांक लागतात. प्रत्येकालो चेरो सामको सपाट एक
तत्वगिन्यानाचो, दुसरो इतिहासाचो, तिसरो रसायन शास्त्राचो अशें अनेक जाल्यार सगळेच
एकसारखे. एक वरा पयली तांच्या चेऱ्यावर विंगडविंगड भाव दिसताले आनी ते तांचे निजाचे
आसले. आतां मात ते 'रिफ्लेक्टर' जावन रावल्यात. पयलें दोळ्यांत गिन्यानाची एक पर्जळ
दिसताली आनी आतां थंय ल्हान वातीचो मिणमिणतो उजवाड दिसतालो.

अजून मेरेन ग्रांट मेळूंक नासली.

आतां दरेकाली नदर एकमेकांपसून पयसल्ल्यो दिसतात. एकमेकांत कांयच संबंध ना
अशेतरेन घुमे बसून आसात. इतिहासाचो प्रोफेसर आनी हिंदी भाशेचो प्रोफेसर एकमेकालों
दुस्वास करपी पूण आतां तांतूतल्यान निसटून निर्विकार जावन बसल्यात. ताणी आपापसांतलें
पयलीचे संबंध तोडून सामके उरफाटे तरेन जोडल्यात अशेंच दिसताले.

पूण अजून ग्रांट मात मेळूंक नासली.

आपणाल्याच फकाणाचेर मंत्री हांसता तेन्ना बाकी चेरेबी हांसतात. मंत्री राज्याच्या
खांकनवाळाचो निर्देश करून निर्शेणीन भरिल्लोसो दाखयता. आनी ते सगळे चेरे उदासीन
भरीत जातात. तो मंत्री त्या निर्शेणीतल्यान केन्ना भायर सरतलो काय म्हूण तिश्टून आसात.
मंत्र्याल्या मुखामळार ल्हवल्हव उबारी दिसूंक लागता. म्हणटकीर सगळ्यांल्या चेऱ्याचेर
मुमुरखे हांसप पर्जळटा.

जाल्यार अजूनमेरेन ग्रांट मेळूंक नासली.

म्हजें काम तशें ल्हानशेंच आसलें. तरीय विचार केलो. एखाद्रो वळखीचो मेळल्यार काम बेगीन जायत. सामकार कॉलेजचो डीन येतसतना म्हाका दिसलो. गेल्ल्या सप्तकांत ल्हनशा घरगुती कवि सम्मेलनावेळार तो हाजिर आशिल्लो. बरो वेळ म्हजी कवनां आयकून उपरान्त म्हजी तोखणाय केल्ली ध्यानांत आयलें. हांवे बागोवन नमस्कार करीत म्हळें, ''हालीच कवि सम्मेलनावेळा आमची दोगांयली भेट घडिल्ली.''

इल्लीय वळख दाखयनासतना, जातां तितलो भावविरयत चेरो करून ताणें म्हळें, ''अशें, अशें, ते वेळार तू बी थंय आशिल्लो तर !'' काव्य वाचनावेळार हांवूच आनी फकत म्हजोच 'प्रोग्राम' आसलो. पूण डीन मात विसरून गेल्लो. घडये तो तेन्ना 'काव्यवाचन' ड्यूटीर आसूक फाव. ती ड्यूटी सोंपली म्हणटकीर थंयसरच्यो घडणुको बी विसरून गेलो. आनी आता तो मंत्र्याल्या येवकारांत गुल्ल आसा.

परंत अजूनमेरेन ग्रांट मेळूंक नासली.

बसके कुडांत भितर वतासतनाच मंत्र्याली नदर म्हजेवेल्यान सरकल्ली. हांव समजलो ताणे म्हाका वळखला. जाल्यार ताची दाद कशेतरेने मेळत काय म्हूण हुसकेंत आसलो. ताणे प्रजातंत्र्याच्या चौकटीत रावन सगळ्यातरेन गंभीरतायेन विचार केल्लो आसूंक जाय. म्हाका वळखता जाल्यार आतां कितें करपाचें? म्हजेसर ताची वागणूक कशी आसतली? म्हाका भितर आफोवन चर्चा केल्ल्यान जनतांत्रिक तत्वांची राखण कशें कितें जातली? ताणे बी विचार करून रजिस्ट्रारा वरवी म्हाका निरोप धाडलो,- ''बाब बिपिन तुका मंत्रीजीन भितर आफयला.''

बसके कुडांत हांव ताकतिकेच घुसता. मंत्री मेजाच्या दुसऱ्यावटेन बसला. आमच्या दोगांमदें पंदरा-वीस चेरे स्पश्ट दिसतात आनी ते सगळे म्हाकाच नियाळत आसात. दुसऱ्या खिणाक ते मंत्र्याकडेन नदर फिरयतात. आनी म्हजो मंत्र्यांबरोबरचो संबंध कितलो अगड आसा हाचो अंदाज घेवंक उत्सूक जाल्यात. त्याच हिशेबान ते आपणाले ताळमेळ जुळयतले. खिणांत ताणी आपणाल्यो मानो सकयल घाल्यो. म्हजेकडेन कितलेशें ध्यान दिवपाचें तें नकळशें जावन दुबावांत पडिल्ले आसूंक फाव. पूण तेद्यावेळार मंत्रीजी हात जोडून उबो रावला हे तांचे ध्यानांत येता. तो म्हजो पुर्विल्लो 'बेस्ट फ्रेंड', कवि आनी समाजसेवक ह्या नात्यान तो म्हजी कीर्त जाणून आसा. ते देखून मान दिता. आतां सगळ्यांल्या मनातलो दुबाव ना नपश्यात जाता. सगळे चेरे उबे रावन हात जोडून म्हाका येवकार दितात,-''या, या, बिपिनबाब.''

हांव बसकेकुडांत पावचे पयलीं सगळ्यांले चेरे मंत्र्याल्या मुखामळार रोखिल्ले. तांच्यो नदरो सामक्यो मंत्र्याल्या नदरेक जोडिल्ल्यो आनी कान निटायेन मंत्र्याल्या उलोवणेकडेन लागिल्ले. दुबावाक कसलीच सुवात नासली. पूण आतां मात म्हज्या उपस्थितींत मंत्रिजीच

दुबावांत पडिल्लोसो दिसलो. आमच्या दोगांयमदलो संबंद कसो काय उक्तो करपाचो हे नकळशें ज्ञावन म्हजेकडेन कितले ध्यान दिवप हाची थारावणी करूंक ताका दुरापास्त जाल्ले अशेंय जायत. मेजाच्या हेवटेन एक कदेल रिकामी आसा आनी हांव ताचेर बसता काय मंत्र्याल्या मनांत वेगळे विचार घोळटात हेविशीं सगळ्यांल्या मनांत घोळ चालू आसा. हांव मुखार सरून कदेलार बसूंक लागता मात लगबगीन मंत्रीजी नमळायेन सांगात- ''आरे मित्रा थंय न्हय, हांगा, असो म्हजेंलागी येवन बस.'' बशिल्या सगळ्यांल्या चेऱ्यांचेर एक मुमुरखे हासपाची पर्जळ झळकून वता.

आमची दोगांली थोडीं उलोवणी जाता. सगळ्या जणाले ध्यान अमचेकडेनूच लागलां. तांका दिसता म्हजें आनी मंत्र्यालें नाते संबंद वयलेवरचे आसात. तशें आसल्यार चड ध्यान दिवपाची गरज ना. म्हाका ताचो वास लागता. मात्शें सरकून हांव मंत्र्याल्या कानांत पुटपुटता,- ''हे सगळे जण खरेंच बरे लोक आसात.'' हेच वाक्य हांव व्हडान बी सांगूक शकतालो. जाल्यार मंत्र्याल्या कानांत फुतफुतपी इतलो म्हजो दाट संबंध आसा अशें म्हाका त्या सपाट चेरेवाल्यांक दाखोवपाचे आसलें. तोय म्हणटा,- ''व्हय बरें आसात, ही सगळी तुमची कृपा.'' आतां मात सगळ्या चेऱ्यांचेर आपोआप म्हजेवयलो आदरासयत सन्मान वाडिल्लो दिसता. आपापसांत नदरेनूच उलयतात- आरे, हागेली मंत्र्यापर्यंत 'कॉन्फिडेन्शियल' उलोवणी करेमेरेन लागीचे संबध आसात तर ! उपरान्त हांवे ठरयिल्याचेर- 'हें, हें' करतात. हांव मंत्रीजील्या कानाक लागता आनी ल्हव आवजांत म्हणटा,- 'तुमी जेवण दोन वेळा घेतात न्हय.'' मंत्रीजी व्हडान हांसतात आनी म्हणटात,- ''व्वा, मित्रा, हे वगतार बी तुका मस्करी सुचतात म्हणपाचें.''

'मीटिंग मुखार सरकता. आतां सगळ्यांली कोंपरें मेजार तेंकल्यात आनी चेरे हातापोशांत. तांचे हिशेबांन हांव तांच्या 'सप्लिमेंटरी' परीक्षेंत पास जाला देखून ते म्हाका मानतात. इतल्यांत मंत्रीजी उठून उबो रावता. हांवूय उबो रावन ताचे कानांत हळूच कितेंकितें सांगता आनीक थोडी मस्करीबी करता. ध्यानांत दवरांत उत्तम पुरुषांलीं ती लक्षणा समजात. फुडाऱ्यांल्या हिशेबान तशें करप. बरें आसता. स्वताक म्हजे सांगातीन संबंध जोडूंक ते आपणाले कर्तव्य समजतात. सगळ्या पयली डीनूच फुडाकार घेता. म्हजेपसून लागसार बशिल्लो तो सांगता, ''बाब बिपिन, घरगुती काव्यवाचना वेळार आमची दोगांयली वळख जाल्ली, न्हंय ताका पयस दवरपाची संद म्हाका आपशीच मेळटा. हांवूय ताचेचतरेन सांगता, ''अशें, अशें तुमी बी तेन्ना हाजीर आशिल्ले तर?'' एका खिणांत ताचो चेरो उतरिल्लोसो दिसता पूण रोखडोच सांवरून घेता आनी ताच्या चेऱ्यार मुमुरखे हासप परगटता, तो म्हणटा,- 'बेसबऱ्यो कविता केल्यात-कांय वाचून, कांय सोबीत चाल लावून म्हळ्ळयो याद आसा.' उरिल्ल्या शिक्षक वर्गाक. म्हजेसर तार जुळोंवक एक साधन मेळ्ळे. कविता वाचनाचो धागो धरून ते म्हजेकडेन वळख पाळख उक्ते करूंक लागले. एका फाटोफाट ताणी सांगपाक

सुरूवात केली,- 'खुबूच सुंदर कविता तुमी बरयतात. खऱ्यानीच तुमचो अभ्यास तुम्त करपी लायक-आयकतले भुल्लसिल्लेशें जावन रावतात.' आनी आपणाल्या म्हणणेक पाळो दितात काय म्हूण मंत्रीजीकडेन आशेभरीत पळयतात. मात मंत्रीजीन समर्थन दिले नाजाल्यार त्या तोखणायेक कांयच अर्थ आसचोना.

- आरे, पूण अजून मेरेन ग्रांट मेळ्ळी नासली.

मंत्रीजी तांचे म्हणणेक तेंको दिता,-'बाब बिपिनसारखे कवि खंयच्याय भाशेक व्हडविकाय हाडटात.' अचकीत सगळे चेरे म्हजेकडेन अजापान पळोवंक लागतात. ते म्हजें म्हणणें मनलावन आयकतात. आतां तांच्या विचारसरणीक बळकटाय आयल्या. तीन खेप मंत्र्याकडेन उलयल्यार एक फावट म्हजेकडेन संवाद साधतात. मंत्रील्या उलोवणेचेर जितले हासतात ताचें परस मात्शें उणे म्हज्या सांगण्यार हांसतात. हांवे ते पत्करले आनी तांतुतूच समाधान मानले.

तत्वगिन्यानाचो चेरो मंत्र्याक सांगता,-'तुमचें भाशण सुंदर जालें"

तो म्हजेकडेन पळेता,- हांव कांयच सांगना.

इतिहासाचो चेरो सांगात,- 'तुमचे भाशण व्हड फुर्तीचे आसले"

तोय म्हजेकडेन पळेता-हांव कांयच उलयना.

रसायन शास्त्रांचो चेरो सांगता,- इट वॉज रियली वंडरफुल

तो बी म्हजेकडेन आशेन पळेता-हांव वग्गी रावतां.

ते सगळेच भियेवन रावल्यात, हुसक्यान निर्शेल्यात. तांच्या मुखामळार एक प्रस्न उबो रावला,- ''आरे गिरेस्ता, तूं कित्याक तोंड बंद करून आसा. तुवें तोखणाय केलीना जाल्यार आमी कशेतरेन मुखार वतले.'' ह्या संकश्टांतल्यान आमका कित्याक वयर काडिना?''

हांव पळेंतां-मंत्री बी त्रासिल्लोसो दिसलो. हेरांल्या दुख्खान कासावीस जावपी म्हजें मन विरगळ्ळें-हांवे म्हळें, ''आरे मित्रांनो, खरें सांगता ऐन वेळार मनाक ओडळायणें भाशण करपी फुडाऱ्याक हांवे खुबूच उणे पळेल्यांत, तांतूतले आयचे मंत्री हे एक.'' सगळ्या चेऱ्यांक आता एकतरेचो सुटकारो मेळटा. मंत्र्याल्या मनावेलो ताणूय उणांक जाला अशे दिसता. उपरान्त एकेक करून म्हळ्यार संस्कृत, प्राणिशास्त्र, राजनीतिशास्त्रांचे चेरे तोंड उगडतात. ते सगळेच मंत्र्याल्या व्याख्यानचें तोंड भरभरून एकूच तरेन तोखणाय करतना दिसले.

- जाल्यार अजुनूय ग्रांट मेळ्ळी नासली.

म्हाका मुजरत सामील करून घेवप गरजेचें जालें. एक चेरो मंत्र्याक निमगिता,- ''बाब बिपिनाली आनी तुमची वळख केन्नापसूनची?'' मंत्री सांगता वर्स बेचाळीस पसूनची. आमी दोगांयनी कॉलेज सोडून स्वातंत्र्य चळवळीत भाग घेतिल्लो. एकाच बंदखणींत आशिल्ले. बाब बिपिन कडसून हांव खूब कांय शिकलो.

"अजापाचे म्हणपाचें. तांचे कडसून शिकल्यात म्हळ्यार ताणी केल्ली शिफारसेक बी मंत्रीजी घडये मान्यताय दीत."

- जाल्यार अजूनमेरेन ग्रांट मेळ्ळी नासली.

च्या ट्रे आयली. मुखेल चेरो च्या कप मंत्रीजीक दिता. तो घेवन मंत्री म्हज्या मुखार करता. मुखेल चेरो काजूबियांची प्लेट उखलता-पूण तो दुबावांत आसा-कोणाल्या सामकार पयलें दवरूं?-मंत्री काय हांव. हांवूच ताच्या मजतीक पावता. ती बशी घेवन हांव त्या मंत्र्याल्या सामकार दवरतां. हांवे म्हजेपुरतो केल्लो निवाडो पळोवन बशिल्या सगळ्या चेऱ्यांचेर प्रसन्नताय पातळटा.

निमाणे आमका कलाप्रदर्शन दांखोवंक घेवन वतात. मुखार मंत्रीजी, तांचे आजूबाजून आनी फाटल्यान शिक्षकजन चोंबो करून चालत आसतात. मंत्री विचारता, "बाब बिपिन खंय दिसना; आरे, अशें मुखार यो." सगळे चेरे ताची री ओडटात,- अशें, हे वटेन यात बिपिनबाब. म्हाका नित्शीत खबर आसा ही प्रदर्शनी मंत्रीजीकूच दाखोवपाची आसा. आनी सगळ्यो चित्रां आनी आकृतायो पळोवन मंत्रीजी आनंदभरीत जातलो अशे तांचें मत्त.

पूण अजुनूय ग्रांट मेळ्ळी नासली.

मंत्रीजी प्रदर्शनी पळेत पळेत मुखार चलतात आनी तांका सगळ्या चेऱ्यानी चोयवशीन रेवाडो घाला. मंत्री जें कितें सांगता तेच ते दोट्टायतात.




मंत्री - रंग संगती बेसबरी आसा.

कोरस - रंग संगती बेसबरी आसा.

मंत्री - वेरी बोल्ड लाईन्स

कोरस - वेरी बोल्ड लाईन्स

मंत्री - हे शिवपार्वतीले चित्र भोव सोबीत आसा.

कोरस - हे शिवपार्वतीले चित्र भोव सोबीत आसा.

मंत्री- सैमाची रेखिल्ली आकृताय खुबूच सुंदर आसा

कोरस - सैमाची रेखिल्ली आकृताय खुबूच सुंदर आसा.

प्रदर्शन पळोवन जालें.

- पूण ग्रांट मात अजून मेळ्ळी नासली.

हांवें बगलेक रावन प्रदर्शनीत फिरत रावंक जाय अशें मंत्रीजीन मनांत बाळगिल्ले आसूंक जाय. जाल्यार हांव जाणूनबुजून तांचे पसून पयस रावुनूच चलतालो. मदें सातआठ चेरे खेटून चलताले. चिंत्रांची, तोखणाय करतना मंत्रिजीक म्हजेंय समर्थनाचें बळगें जाय आसलें. पण त्या खेटाखेटींत हेर चेऱ्यांक म्हजी कसलीच गरज भासनाशिल्ली. म्हज्या खांद्याक खांदो

घासून ते चेरे चालत आसात पूण तांतूतले साबारजण म्हाका वळखनाशिल्ले. मंत्रीजी एक चित्र पळोवन खुश जाता, म्हणटा, ''ब्युटिफुल्ल, बाब बिपिन पळय तर खरे.'' आतां मात आजुबाजूच्या चेऱ्यांर चळविचळ दिसता. ते म्हाका सोदतात आनी मागशी च्यान वाट काडत म्हाका मंत्री सामकार उबो करतात, 'यो, हांगासर बिपिन''-म्हणत मंत्री म्हाका आपणाल्या बगलेक घेता; म्हणटा, ''प्रदर्शनीन खुबूच सोबीत आकृताय, कलाकृती लायल्यात.'' हांव फकत हयकार दिता. मंत्री जसोजसो फुडें वता तसों हांव फाटल्यान सटकता. परथून एक फावट मंत्र्याक म्हजो उगडास जाता आनी ते चेरे म्हाका फाटलेच्यान धुकळत धुकळत ताचे सामकार हाडून उबो करतात. म्हाका त्या आपालिपाची मजा येवंक लागता. निमाणे एकटांचो तो बोवाळ सोपता.

कार्यक्रमाचो अखेर निरोपान जाता. मंत्री कारीत बसून भायर सरचें तितलें रावला. म्हाका म्हणटा, ''लखनौत केन्नाय आयल्यार मुजरत म्हाका येवन मेळ, कितें? हांवूय रोखडोच मानेनूच हयकार दिता.

मुखेल चेरो तांका नमळायेन सांगता तुमी हांगासर आयिल्यान आमची सगळ्यांली उमेद वाडल्या. अशाच तरेची कृपा आमचेर कायम रावदी. कारी भोंवतणे जमिल्ले चेरेबी तेच तरेन निरोप दितात.

- जाल्यार अजुनूय ग्रांट मेळ्ळी नासली.

मंत्री व्हचूं गेलो तशें म्हाका पोरको करून गेलो. कार मुखेल दरवाजो वलांडून गेली आनी जमिल्ल्या सगळ्या चेऱ्यादिश्टीन हांव अकस्मात परको जालो. सगळे जाण चारीवाटेन पांगले. हांव आता वासरांत उबो आसा आनी तेय कसल्याय आहाराशिवाय. मंत्र्याली कार पयस दिसनाशी जाली आनी त्याच खिणाक बाब बिपिन मंत्र्यालो 'आयचो खासा मित्र' मरून गेलो. आनी आतां उबो आसा तो वेगळोच बिपिन. तो मंत्री म्हजें सगळें बळगेंच घेवन फरार जालो काय अशें म्हज्या मनांत येता. जाल्यार ती शक्त ताणेच दिल्ली न्हय !

दुसऱ्या दिसा कामा निमित्तान हांव थंयसरूच पावता जुस्त तेन्ना डीन पर्थून नदरेक पडटा. हांव म्हणटा,- ''कालच्या मंत्र्याल्या भेटीचो कार्यक्रम बेसबरो जालो.''

मातय वळख दाखयनासतना सपाट चेऱ्यान डीन सांगता, ''म्हळ्यार तूं बी तेन्ना हाजीर आशिल्लो काय म्हणटा?''



# तटस्थ

**(ही गजाल पन्नास वर्सांपयलींची. भारताक स्वातंत्र्य मेळले उपरान्त अशातरेच्यो कितल्योशो दुखखान्त घडणुको हांवे पळेल्यात- एक म्हण आसा क्रांती आपणाल्याच चोरड्वांक खाता. अशाच तरेची ही एक काणी- प्रभाकर नाडकर्णी)**

एकंदर स वर्सां तो बंदखणीत शिक्षा भोगून आयिल्लो. तेन्ना स्वातंत्र्यसैनिक आड्डताले- गुलामीतल्या तुपापरस स्वातंत्र्यातलें सुकें तण बरें. हेंच वाक्य व्हडान गर्जून जनतेक सांगिल्यांक बंदखणीत धाडटाले- आनी स्वातंत्र्यसैनीक बी खोशयेन वताले. वर्स १९४७ उपरान्त कांय जाण बंदखणींत वचत आसले. पूण तो मात गेलो ना. आतां कांय कळनाशेंच जालां. देशांत कितें घडत आसा, कितें घडूंक जाय अथवा कितें करूंक जाय कसलेंच ध्यानांत येना. तो सद्याक स्वातंत्र्यातलें सुके तण खाता आणि तिरायतासारखो जगता.

व्हड ओक्लांतल्यान तो म्हाका नियाळटा. उपरान्त वणटीकडेन पळेता. दोनूंयकडेन पळेतना कांयच फरक दिसना. जनेलापोंदा पट्टीर बशिल्ल्या सुकण्याचेर तो तीच दिश्टी लावन बसता. खरेंच पळेता काय ना तेंय कळूंक मार्ग ना. तोंड फिरोवन नदर कित्यार तरी लायता. तेन्ना तो पळेता इतलेंच म्हणपाचें- ताच्या दोळ्यांत पळोवपासारखें आतां कांयच उरूंक नासलें.

म्हज्या हातांत दिसाळें आसा. तो विचारता- खंयचे दिसाळे?

हांव नांव सांगता. तो म्हणटा- बरें.

दुसरे खंयचेय नांव सांगल्यारूय तो तेंच म्हणटासलो- बरें.

तो विचारता- खंयच्यान छापून उजवाडाक येता?

हांव सांगता- मुंबयसून.

दिसाळें दिल्लीशारांतून बी छापून उजवाडाक येतात अशें म्हळ्यारुय ताची जाप तीच आसताशिल्ली- म्हळ्यार दिल्लीच्यान बी आतां दिसाळें छापून येता म्हणपाचे.

म्हज्या हातांतळें दिसाळें तो ओडून घेता आनी व्हडान वाचूंक लागता. कांय बातम्याचेर तो आपणालें मत परगटायता.

❖ जबलपुरांत विद्यार्थ्यांलो संप.

- विद्यार्थी बी हालीं खुबूच धुमशेण घालूंक लागल्यात.

❖ विजयवाड्या लागसार दोन रेलगाड्यांचो अपघात. पंदराजाण मेले.

- जाचो वेळ पावला तो वतलोच.

❖ इंदोरांत दोन जमातीत दंगे. आठ लोकांली कापाकापी, बरेच जाण जखमी. कांय घरां उजो लावन लासून उडयलीं.

- आजकाल दंगेबी ल्हानसान कारणावेल्यान घडपाक लागल्यात.... आरे हें वाच आनीक धा लोक सोंपल्यात.

❖ बंगाल राज्यांत आकांत वाद्यांलो उपद्रव.

- हो आकांतवादी पंगड नवीनच तयार जाल्लो दिसता.

❖ घोवान आपणाल्या बायलेले नाकूच कापलें.

- कापूं दी. ताचीच तर घरकान्न.

❖ ह्या वर्सा आमचो देश धान्य पिकोवपांत 'स्वयंपूर्ण' जातलो.

- जावं दी बाबडो. तेन्नाय आमकां दोन वेळचे जेवण मेळटालें. फुडारांत बी मेळटलें.

❖ चला, चीन देशान अवकाशांत उपग्रह सोडलो.

- ह्या खबरे चेर तो रावलो.

❖ कलकत्यांत संप करपी कामगारांचेर फारपेट केलो.

- बरें आसा. हाली कामदार बी संपाचेर संप घडयत आसात. ताकालागून पोलीसय तांचेर फारपेट करतात.

❖ तिसरो वेतन आयोग बसयला.

- आयोग सदाच बसून आसता.

❖ देशांतलो पयसो- आडको. धनदौलत कांय थोड्याच लोकांल्या हातांत साठवण करूंक दिवपाचे ना- पंतप्रधान इंदिरा गांधी.

- दिवं नाका. सगळे तुजेकडेनूच दवरून घे.... आरे, आनी तिची हत्याबी कोणे केली खंय?

तो पानांचेर पान भराभर, उलटायतेर वता. व्हड अक्षरांतले माथळेच तितले वाचता. ताची टिप्पणी मात चालू आसा. हांव ते सगळे आयकत बसून आसा. अदेंमदें तो आपणाली दिश्टी म्हजेकडेन फिरयता आनी हांव समजता तो म्हाका पळेता. ना पळयलें तरी ताचें बगलेक हांव बसला. हाची मात ताका जाण आसा. तो आतां निमाण्या पानार नदर घालता.

❖ प्लाझा टॉकीजांत 'प्रेमपुजारी' सिनेमा लागला.

- शें, शें अशातरेचे सिनेमा खुबूच तयार जावंक लागल्यात.

❖ 'ओकासा' दादल्याल्यो गरजो पुराय करतात.

आरेऽ रे, कसली नाकाशिल्ली वखदां तयार करतात आजकाल.

आतां ताचें दिसाळें पुराय वाचून जालें. एक लांब जांबय दिता आनी म्हजेकडेन पळेता. म्हाका आळस दिवंक जमना ते पळोवन तो मातसो नाखुश दिसता. हांव आवाजासयत वयलेवयर एक जांबय काडटा. तो खुश जाता.

विचारता- 'केन्ना आयलो?' हांव सांगता- आजूच.

तो म्हणटा- 'अशें'.

पंदरा दीस पयली आयिल्लो अशें सांगल्यार लेगीत तो म्हणटासलो- ''अशें ?''

तो विचारता- ''परथो केन्नावतलो?''

हांव सांगता- ''फाल्यां''

तो म्हणटा. बरें.

हांवे जर म्हळें आत्तांच भायर सरतां ताकाय ताची जाप आसताशिल्ली- बरें विचारता- थंयसर सगळे खुशाल मूं? हांव सांगता- सगळेजण खुशाल आसात.

तो म्हणटा- बरें.

समजा जर हांवे सांगिल्ले थंयसर देवीसाथ येवन बरेचजण मेले तरीय तो म्हणटासलो- 'अशें'.

विचारता- बाबूलो कसो आसा? हांव सांगता- बरो आसा.

तो म्हणटा- बरें.

बाबूल्याक अर्धांगवायू जावन हांतूळार पडला म्हूण फट सांगल्यार लेगीत तो तिरसुवाद कसो म्हणटासलो- 'अशे'.

विचारता- थंयसर जाळेरांचो त्रास खूब आसतलो न्हय?

हांव खासावीस जाता. बाबूलो तांच्या खांद्याक खांदो लावन सुटके झुंजात झुजिल्लो. ताचेविशी पुराय चवकशी करपाची सोडून अचकीत तो जाळेरांचेर कसो काय पावलो?

हांव म्हायती दिता- हालींच्या मोसमांत सभोंवती जाळेरांचो त्रास खुबूच वाडला. तो वणतीकडेन पळेता आनी तेचतरेन म्हजेकडेनूय पळेता.

अकस्मात ताका जाणीव जाता आपणे कसलेतरी काम करीत रावचे. तो पिशवेतल्यान टकळी आनी कापूस भायर काडटा आनी भराभरा सूत काडूंक लागता. तयार जाल्ले सूत ल्हान तोणक्यात गुंडाळटा. मात अदेंमदें म्हजेकडेन नदर घालूंक विसरना.

सूतकताई करता आसताना म्हाका संबोदून उलोवप चालूच आसता. टिप्पणीय तोच करता.

❖ म्हाका लोक विचारतात तू सिंडिकेट कॉंग्रेसवालो काय इंडिकेट कॉंग्रेसवालो.

आरे म्हज्या, सिंडिकेट कितें आनी इंडिकेट कितें. समज- हांव सिंडिकेटांत आसा म्हळ्यार इंडिकेटचो उरचो ना काय म्हणटा. आनी ताचें उरफाटें आसल्यार? तूच सांग.

हांव सांगता- 'कांयच फरक पडना'.

म्हजी जाप बरोबर आसाशें ताका पटता. ताची सूतकताई सरसरी चालूच आसा.

❖ लोक म्हणटात- हो कम्युनिस्ट, तो सोशालिस्ट, ते कॅपिटालिस्ट.

- आरे बाबा, हे सगळे राजनीतितले प्रकार आसात. म्हजेकडेन येयात तुमकां राजनीति शिकयतां ताची सूतकताई चालू आसा आनी अदेंमदें तोण क्याक सूत गुंडाळपलेगीत.

❖ लोक म्हणटात- अ‍ॅटमबॉम तयार करूंक जाय.

- करात. खऱ्यानीच तयार करात. म्हजे कांयच आडमेळे नात. पूण अ‍ॅटमबॉम तयार केल्यार कसलो फायदो जातलो आनी ना केल्यार कसलो फायदो? आतां तूच सांग. हे मेरेन ताचे सूतकताईन बरोच वेग घेतला.

❖ लोक म्हजेसर येतात आनी निमगितात- आमी क्रांती करूंक जाय.

- हांव म्हणटा क्रांती मुजरत करात. ते पासून तुमका थांबयतलो हांव कोण? समजा क्रांती घडोवन हाडली जाल्यार आनी वेगळें कितें घडपाचें आसा?

अचकीत तो सूतकताई बंद करता. म्हणटा- गेल्ली चाळीस वर्सां सूत कताई करीत आसा. ह्या सूत-कताईन बी कसलें कितें वेगळें घडटले हांव नकळो.

तो आता थाकिल्ल्यावरी दिसता. टकळी आनी कापूस पिशवीत दवरता. आनी वणतीकडेन दिश्टी लायता. अदेंमदें म्हजेकडेनूय नदर फिरयता. आनी म्हाका जाणीव जाता हांवूय वणत जावन रावला.



# वराड्यांली परथीची भोवंडी

बऱ्याच कारणांक लागून हांव सदांच वराडी सांगातान वचूंक वाटायता. 'शुभकार्यां'त म्हज्यासारख्या पिराय वाडिल्ल्या आंकवारांनी वचप म्हळ्यार एकतरेचो अपशकुनूच. विधवा बायलांवरी लग्न सुवाळ्यापासून पयस रावकं जाय अशें म्हजेंवरी आंकवार वयस्कर दादल्यालें स्पश्ट मत. कसलेंय अमंगळ घडूंक आमी कित्याक म्हूण कारण जावपाचें? तीन वर्सांपयलीं तो एका लग्नाक हाजिर आशिल्लो. त्या जोडप्यालो आतां काडीमोड घेंवमेरेनची गत जाल्या हाचो ताका मनस्ताप जाता. ताणे एक सोद लायला- भीष्माचार्य लग्न करता आसलो जाल्यार भविष्यांत महाभारत घडपाचें शक्यच नासलें. आनी भारताचो पुर्विल्ल्या रक्षामंत्र्यान लग्न केल्ले जाल्यार चीन आमचेर घुरी घालीनासलो, हेंय खरें आसत.

सगळ्यो लडायो अशा जाण्ट्या आंकवारांल्या हावेसाक लागुनूच जाल्यात. सन अठ्ठे-चाळीसांत तेलंगणांत शेतकामत्यांलो हत्यारासयत उठाव आमचो म्हालगडो आंकवार विनोबा भावेल्या ताच्या स्वताल्या खोशयेखातीर घडिल्लो. ताच्या हांवपणान निमाणे भूदान रुपांत खोस भोगली.

आपणाल्या पुताल्या फळादीक वराडापसून उमेद घेतिल्ल्या म्हज्या आनीक इश्टाल्या मनांत एक मोलादीक विचार उप्रासलो, ताणें सांगलें, ''आतां एकूण इत्सा- तुमच्या सारख्यांल्या लग्नावराडींत सामील जावचे.''

हांवे म्हळें, ''आतां ल्हान भुरग्यांली लग्नांतली वरात नासतली. आसल्यारुय नी कोणाक फटोवन हाडिल्लें खातीर आमच्या हातांत बेडी आसतली आनी तुमी फाटल्यान चलत आसतले तेंय जामीन रावंक. मनांत आसल्यार तेन्ना बँड वाजोंवक बी शकतले.

व्हर्डिकाचो देखावो मनाक त्रासदायक आसता. व्हकलेल्या रवानगी वेळार बायलां सांगतान रडचें अशें मनांत येता. शें, शें चलियेल्या पाठवणीखातीर न्हय, जाल्यार तिच्या आवयबापायली तेन्ना जाल्ली वायट स्थितीक पळोवन. आमच्या देशाची अर्दी तांक फक्त चलियांली लग्न करून दिवपांतूच कशाकशें खर्चून वता. पाव बळगें फक्त कांय ना काय लिपोवपांत सरता- म्हळ्यार सोरो पियेल्याचें, मोग केल्याचें, लांच घेवचे घेवन उपरांत वोग्गी रावपांत... आनी बाकी राविल्ली पाव शक्तीन देशाली उदगात जायत आसता. जें

घडत आसा ते खुबूच आसा. निमाणे एकचतुर्थांश शक्तीन कितले शें मुखार वतले? एकदीस ही गजाल हावें विश्वविद्यालयाच्या विद्यार्थी संघाच्या वर्सावळीच्या सुवाळ्यावेळार सांगली, आनी मुखार उपदेश केलो, ''तुमी सगळे क्रांतिकारी जुवान जावंक जाय. तुमी ह्या देशाची अर्दीअदीक तांक वाचोंवक शकतात. नाजाल्यार तुमी अशें करात- ह्या विश्वविद्यालयांत जितल्यो तरनाट्यो आसात तांचेकडेन लग्न करात, पूण आपापणाल्या बापांयक सांगनाकात, कारण तो हुंडो मागतलो. बाकी उरले ताणी एक दुसऱ्याच्या भयणी सांगतान लग्न करचे. अशातरेची बुनियादी, क्रांतिकारी काम करात. जमनीर दवरून ज्या शेगडेर आवय भाकरी भाजताली तीच उखलून वयर ओट्यार दवरात- म्हळ्यार तुमच्या घरकान्नीक उबी रावुनूच रांदूक सोपें जातलें. वीस-बावीस वर्सां जालीं अजूनमेरेन शेगडी ना सोप्यार दवरुंक पावले. तशेंच सान्नीक बी चार फुटाचो तोणको ना बांदूक शकले ना. सांगा, आयजमेरेन तुमी कसली बोडक्याची क्रांती घडोवन हाडल्या.

विद्यार्थी अजाप जाले. थोडे हीः हीः करून हासतना बी दिसले. जाल्यार कसलेंच आनी कितेंय घडपाचें नासलें. एका तरनाट्याक सांगातीन घेवन हांवे बेस बरें कश्टान ताच्या विचारांचेर संस्कार घडयिल्ले. ताणे लग्नमंडपांतूच ल्हान भुरग्यांवरी मागणी केली- 'म्हाका वेस्पा स्कूटर जाय. ती मेळिल्याबगर वराडींली जेवणावळी उठची नात.'' जालें; व्हकले बापायलें मुखामळ फटफटींत पडलें. म्हज्या मनांत आयलें- ''पायांतलें जोतें काडून आदी ताच्या तकलेर पांच धपके घालून उरिल्ले पांच म्हज्या तकलेर मारपेट करप. जाल्यार समस्या थंयूच सुटली. चलियेच्या बापायन वर्साभरांत स्कूटर दिवपाचें उतर दिलें. आनी एक रिवाज म्हूण भुरग्याल्या खेळण्यांतली स्कूटर मागोवन ताचें साथीन सवा रुपया दवरून जावंयाक भेट दिली. हिंदू धर्मांत मनीस मरचेंवेळार 'गोदान' निमितान आमी सवा रुपया कुशीन दवरतात न्हीं, तशेंच. आनी म्हज्या त्या तरनाट्या इश्टालो प्रगतीशीलतेचो 'गोदान' घडटना पळेलो.

वराडीवेळेच्या भोवंडेक हांव सामको भियेतां. खास करून परथें येवपावेळार. तेन्ना न्हवरो व्हकलेलें वजें आसता. भरपूर हुंडो मेळ्ळो नाजाल्यार न्हवऱ्यालो बापूय वराडी लोकांक दुस्मान समजता. अशावेळार हांव सावचित रावता आनी वरात भायर सरचें पयलेंच कांय निमित्त काडून थंयसरच्यान सगळ्यांक वाटावन वता. असोच एक वराडी परथीची भोवंडी म्हाका याद आसा. ताचें अशें घडलें-

सांजेर चार वराच्या बशीन आमी चार आमीगानीं बसीन वचपाचें थारायलें. त्या बसीन दुसऱ्या दिसा फांतोडेक आमच्या घरांनी पावतलें असो आमी अंदाजो बांदलो. आमच्यांतल्या दोगांक कामचेर हाजीर जांवक जाय आसलें ताकालागून होच परथीचो मार्ग आपणावप गरजेचें जाल्लें. लोकांमी चत्राय दिली, समजूतदार मनीस अशें सांजवेळार भोवंडी करीनात. आमी विचाल्लें, ''कितें डाकू-बिकू धूरी घालतात काय म्हूण.'' जाप मेळ्ळी शें, तशें न्हंय, बसूच डाकीण जाता.

बसीक पळयलें आनी आमची श्रद्धा उचांबळून आयली. म्हातारी दिसताली आनी कितेक वर्सांची अणभवाची चिन्ना आंगार घेवन मिरयताली. ताकालागून लोक हांतूतल्यान लांब

प्रवासाक वचंनासलें. कारण तांका दिसतालें आपणासावन हिका त्रास जायत. ती बस पूजेलायक आसली आनी त्या कारणान हातून बसून वचप कशें कांय फावोशें जातलें.

बस कंपनीचो एक भागीदार त्याच बसींतल्यान वचूंक भायर सरिल्लो. ताका आमी विचाल्लें, ''आरे सायबा, ही बस वेवस्तीत चलतली मूं?''

ताणे सांगलें, ''कित्याक म्हूण वेवस्तीच चलची ना? आगा, आत्तां सुटली म्हणटकी कशी धांवतली पळेयात.'' हे आयकून आमी दुबावांत पडले. एकान म्हळें, ''तेच तर आमका पळोवपाचें आसा! बस आपूण जावनूच चलतली न्हंय?''

ताणे जाप दिली, ''आनी कशेतरेन चलपाचें आसता?''

ते आयकून आमी फांटीफुडें क़रूंक लागले. दोतोर मित्रान सांगले, ''भिये नाकात. चला बसून घेयात. बस अणभवी आसा, नवी ताल्ल बसीपरच चड भरवशाची आसा. ल्हान भुरग्यांसारखे आमका मोगान मांडियेर घेवन ही मार्गाक लागतली.''

आमी बसून घेतले. स्टेंडार संबंदीतांक पावोवपाक अयिल्ले अशेतरेन पळेताले जशें कितें निमाणेचो मर्णवेळेचोच निरोप दिवंक आयल्यात. तांचे दोळेच सांगताले, ''येवप वचप हे चालूंच आसता. आयिल्यांक वचपाचें कांय चुकना. राजा आसू दी वा दरिद्री आसू दी वा संन्यासी. मनशाक शिस्तीन चलूंक एक निमित्त जाय.

इंजिन चालूं जालें. सगळी बसूच एक इंजिन आसा आनी आमी त्या इंजिनाभितर बसल्यात अशें आमका दिसले. बसीच्या जनेलांचे हारशे थोडेच बाकी उल्ल्यात अशें दिसलें. आनी जे उरल्यात तांचेपासून सांबाळपाचे गरजेचें आसलें. आमी तांचेपासून पयस सरकले. इंजिन धाडधाड आवाज करताले. जशें कितें ते आमच्या बसकेमुळांतूच दवरलां.

आतां खऱ्यांनीच बस सुटली. ती म्हातमा गांधीजील्या 'सविनय असहकार' कायदेभंगाच्या चळवळीवेळार तरनाटी आसूंक जाय; अशें आमकां दिसलें. तिका तशी ट्रेनिंग- 'खासा शिकवण' मेळिल्ली आसूक फाव. बसीचो दरेक भाग हेर भागाकडेन आपणालो असहकार दाखयतालो. पुराय बस 'सविनय असहकाराच्या चळवळीतल्यान वाट काडीत धावताली. केन्ना दिसतालें, बसकांक बॉडी सोडून मुखार धांवता. आठधा मैल बस धावली. उपरान्त सगळे भेदभाव एक फावट मिटलें. एक मात आमी समजूंक पावलेनात म्हळ्यार- आमी बसकेर बसून आसात कांय बसकां आमचेर बसून आसात.

अकस्मात बस थांबली. पेट्रोल टाकींत बुराक पडला हे कोणाल्यातरी ध्यानांत आयलें. ड्रायव्हरान बालदींत पेट्रोल भरून ती बगलेक दवरली आनी तांतूतल्यान एक नळी वरवी इंजिनांत रिगोवपाचें यत्न करूंक लागलो. हांव उत्सुकतायेन पळेतालो. म्हाका दिसले थोड्या वेळाउपरान्त बस कंपनीचो भागधारक इंजिन उखलून आपणाल्या मांडयेर घेवन बसतलो आनी तांतून नळियेन पेट्रोल घालतलो, जशी आवय आपणाल्या ल्हान भुरग्याल्या तोंडाक दुधा बाटली लायता.

बसीचो वेग वराक पंदरा-वीस मैलाचो आसूंक फाव. तिच्या खंयच्याय भागाचेर म्हजो भरवसो नासलो. ब्रेक 'फेल' जावंक शकता, स्टियरिंगबी तुटूंक शकता. सैमाचें देखावे खूबूच मनभुलायणे आसले. दोनूय वाटेन पांचवेचार रुकां जाचेर सुकण्यालें चिवचिवांट आयकूंक येतालें. हांवे मात दरेक रुकाक दुस्मान समजलो. एका फाटोफाट बरें मुखार दिसपी रस्त्याकडेचे रुक पळोवन म्हज्या मनांत एकतरेचें भय उप्रासतालें. कोणा खबर केन्ना ही बस त्या रुकार वचून आदळतली. एकरुक फाटी पडलो म्हणटकीर दुसरो रुक सामकार येतालो. वाटेंत एकाद्रो व्हाळ लागलो म्हणटकीर मतींत येतालें, 'ही बस गोतो खायत तांतूत पडची नामूं?' आनी अशेंच कितें.

पर्थून अचकीत बस थांबली. ड्रायव्हरान तरेकतरेन माथें लडयलें. पूण सगळेंच फुकट गेलें. बस थांबिल्ल्याकडेनूच थिरावली. 'सविनय असहकार चळवळी'क सुरुवात जाल्ली. बस कंपनीचो भागीदार सांगतालो, ''.....'' बस फर्स्टक्लासवाली आसा, सायबानू. आतां घडलां तें योगायोगाची गजाल म्हणपाची.''

मंद चान्यांत रुकांसावळींत उबी राविल्ली ती बस भोव दया येवची अशा अवस्तेंतली दिसताली जशी कितें एक म्हातारी थकूनभागून बसल्या. बाबडेच्या माथ्यार वजें घालून आमी चल्ल्यात अशीय खंत मनाक जाणवताली. प्राणांत जाल्ल्यार हिका अशा वशाड वाठारार आमका तिची 'अंत्येश्टी' म्हळ्यार मरणा उपरान्तचे क्रियाकर्म करचे पडटले काय अशें दिसतालें.

त्या भागीदारान इंजिन उकतें केलें आनी कांय दुरुस्त्यो केल्यो. बस मातशीमुखार सरकली जाल्यार तिचो वेग सामको मंदाविल्लो. ल्हवल्हव म्हातारेल्या दोळ्यांतलो उजवाड आनीकूय मंद जालो. चान्यांत रस्तो सांसपतेर ती सावकासायेन चलताली. फाटल्यान फुडल्यान एकादली मोटारगाडी आयली म्हणटकीर ती रस्त्याकडेन उबी रावताली आनी म्हणटाली, ''हांगाथावन वेगान मुखार वचात भयणिनो, आतां म्हजी तशी चड पिराय रावली ना.''

एका पुलार पावलेनात तितल्यांत एका टायरान 'फिस्स्' आवाज काडून थंयच बसकण मारली. खूब जोरान धपको लागून बस आपशीच थांबली. वेगांत आसल्यार घडये व्हाळांतूच पडटासली. त्या बस कंपनी भागीदाराकडेन हांवे पयलें फावट भक्तीभावान पळेलें. टायरांची वायट दशा तो जाणा जाल्लो. तरीय जीव मुठीत धरून तो त्याच बसीतल्यान प्रवास करतालो. उमाळ्याची अशी भावना दुरापास्त आसता चिंतिलें, ह्या मनशाल्या धाडसाचो आनी स्वार्थत्यागाचो जायतसो उपेग जायना. खंयच्याय क्रांतिकारी चळवळीचो फुडारी जावंक हाची योग्यताय. बस व्हाळांत लवंडतासली जाल्यार आमी सगळेच मरताशिल्ले आनी सगळो देवगण ह्या मनशाक वेगेंत घेवपाखातीर हात पसरावन वाट पळेत रावताशिल्ले. घडये तांच्या तोंडतल्यान आपशीच उतरां येतासली, 'एका चाकाखातीर ज्याणे आपणालो प्राण दिलो तो म्हान मनीस येत आसा. मेलो परंत टायर बदललेना.

वापरून झरिल्लो दुसरो टायर लावन बस पूर्थन धावंक लागली. रेल्वे स्टेशनार बस वगतार पावपाची उमेद हांवे केन्नाच सोडून दिल्ली. हांगाच कित्याक केन्नाय, खंयसरुय जिस्ताजिस्त वगतार पावपाची म्हजी उमेद ना नपश्यात जाल्ली. सगळें जियेवप ह्याच बसींत घालोवपाचें आसा आनी हांगाथावनूच सरळ परलोकांत वचपाचें आसा ह्याशिवाय ह्या धर्तरीर ताची खंयचीय मोख नासली. आमची अस्वस्तताय, हुसकें सगळें सगळें सोंपिल्लें. जाल्यारूय आमी व्हड आत्मविस्वासान घरांतून बसून रावल्यात अशें दिसलें. चिंता उणी जायत गेली, तशे मजा-मस्करेक वोतो येवंक लागलो.

शिंयें वाडले जाल्यार बसीची जनेलां उकतींच राविल्लीं, दोतोरान म्हलें, ''भोव चूक केली. कांय 'पिवपाक' मेळल्यार बरें जातासलें. शिंये अजून वाडत आसलें. वाटेर एक गांव लागलो आनी बस थोड्यावेळाखातीर थांबली. दोतोर ताकतिकेन देंवलो, ताणे ड्रायव्हराक सांगलें, ''मात्शें हांव येवंमेरेन थांब. हांव नाल्ल घेवन येता. मुखार राखणदार देवाक ओंपचे आसा. दोतोर खोपटां फाटल्यान गेलो आनी देशी सोऱ्या बाटली घेवन आयलो. आमी घोटार घोट पियेत रावले. ताचे उपरान्त मात शिंयाचो मातय त्रास जालो ना.

सगळे भोंवंडेकार बसींतल्यान देंवले. बस कंपनीचो भागीदार शाराभायल्या आपणाल्या घराकडेनूच देंविल्लो. निमाणें ती बस शाराच्या बस स्टेंडीर येवन उबी रावली. म्हज्या लागसार येवन दोतोरान बाटलेंत तळाक उरिल्लो सोरो स्वताल्या ताळ्यांत ओतलो. बाकी तीन मित्रानी स्टँडावयल्या मालकाक तापयले. तांची तिडकेन भरिल्ली उलोवणी आमका बसीलागीं आयकूंक येताली. पूण ते अपेशी थारले. बस मालकान तांकां खर उतरांनी चत्राय दिल्ली, ''मुखार वचपाची बस वचून आतां चार पांच तास जाल्यात. आनी आतां ती येवपाची वेळ जाला. आतां तुमका फांतोडेरूच बस मेळटली.''

चोंयवशीन पळेंलें. जाल्यार दुकानां बंद, हॉटलां बंद, कडाक्याचे शींय पडिल्लें. आनी आमकाय भूक लागिल्ली कडाक्याची. तेन्नाच दोतोर बस मालकांसर पावलो. पांचेक मिनिटांत ताचे सांगानीन पर्थलो तेन्ना ताचें वागणें, उलोवणें सगळेच बदलिल्लेंशें दिसलें, आदरासयत ताणे म्हळें, ''सर, रागार जावंनाकात. सरदारजी कांय उपाय सांगतलो. सर, सर, तुमका कश्ट जाल्लेविशी तांका वायट दिसता अशें सांगला आनी ते विशी माफी मागल्या.

आत्ता कांय वेळा पयली दोतोर म्हजेकडेन सादेपणान निटायेन उलयतालो आनी आतां 'सर, सर' म्हणून आफयता. आरे ही आनी कसली गजाल. आंबिल्ल्या सोऱ्याचो परिणाम तर न्हंय!'' हांवे म्हळे, ''म्हज्या मित्रा, 'सर, सर' म्हणू म्हज्याफाटल्यान उपाद्रो कित्याक लायला?

पर्थून तसोच बागोवन ताणे म्हळें, ''सर, रागार जावनाकात. कसली ना कसली वेवस्ता खात्रीन जातली.''

हें कितें चल्ला ताचो हांव नकळसो जावन राविल्लो. म्हज्या तकलेंत कित्याक उतरना म्हूण दोतोर बी त्रासिल्लो. ताणे म्हाका एका कुशीक व्हरून समजालें- तूं संसद सदस्य आसा म्हूण

सगळ्यांक सांगला. आनी ह्या जिल्ह्यांत तपासणी करुंक आयल्यात. हांव तांचो पी.ए. आनी म्हज्या सायबान जंय वचूंक जाय, जय पावूंक जाय त्या पेणेर पावोवपाची जापसाल दारकी म्हजेर घाल्या. हांवे बस मालकांक सुनशा दिल्या, ''सरदारजी, तूं म्हज्यासारख्या गरीबाली मान कापतलोच शिवाय तुका बी घेवचेंपरस चड दिवचें पडटलें, विचार कर.'' आतां तो आमका जायत्या थळार व्हरून पावयतलो. मात्शें एम्, पी. वरी वागूणक दाखय. घुघुमावरी डोळे वटारून कित्याक पळेता.''

आतां मात म्हज्या तकलेत उजवाड पडलो. म्हजो काळो धोंपरामेरेनचो कोट (शेरवाणी) उपेगाक आयलो अदीक ताच्या साथीन म्हज्या मात्यावेले लांब केस म्हाका बरेच रूप दिवन वतात- हांव नेतावरी दिसता, तसो शायरबी. केस विसकटिल्ले आसल्यार म्हजें सोंग नामनेचो शेनाय वाजोवपी कलाकारांवरी मेळटा-जुळा आनी लोकांली फट-फजिती जाता. फटिंगपणाक म्हज्या आत्मबळग्यान धिगी लायली आनी संसदवांगड्यावरी जावन हांव बसी सुव तेर आयलो. सरदारजीकडेन पावलो ना पावलो हांवे निटायेन आनी झ्येतांत ताका विचाल्लें, ''सरदारजी, आर.टी.ओं.कडसून ही बस चलोवंक कितली सौदागिरी केली? सरदारजी सतरवितर जालो. हांवे सोंग बेसबरे वटयिल्याक दोतोर धादोसकाय पावलो.

रुबाबदार एम.पी. लें एक वाक्य पुरो जाता. हांव पयसवचून सिगारेट ओडूंक घेतलीं. सरदारजीन म्हजेखातीर हांव उबो राविल्याकडेनूच एक बसूंक कदेल हाडून दिली. सरदारजी मनोमन भियेल्लो आशिल्लोच जाल्यार हांवूंय तितलोच कांचवेल्लो. हांव खंयचो एम.पी. अशी विचारपूस केल्यार हांव कितें सांगूक पावता शिकलों. हेंच म्हज्या भंयाचें कारण. फक्कने याद आयली. येवजण केली. म्हजो एक मित्र जो खऱ्यानीच एम. पी. आसा ताचेंच नांव कांय काळापुरतें हांवें पत्करल्यार कशें कितें जायत? तो गांधीवादी आनी गरज पडल्यार मात्शें फटासकी करून म्हाका सांबाळून घेतलो. आता म्हजो आत्मविश्वास वाडलो. एकादली फटींगपणा बेसबरी जमल्यार ती वास्तवपणा चड निर्भय करता. हांव थंयसर बसल्या-बसल्याकडेनूच दोतोरार धेंगसो घालो, ''आरे बाबू, हांगा आमी जग बुडे मेरेन बसून रावतले काय म्हणटा? लागसार फोन मेळटा जाल्यार कलेक्टराक म्हायती दी कशें. तो कारीची वेवस्ता करतलो.''

दोतोरान राविल्ल्या कडच्यानूच जाप दिली, ''सर, फक्त मिनिटभर धीर धरात.''

थोड्याच वेळांत सरदारजीन एक नवीन करीकरीत बस भायर काडली. म्हाका आदरासयत बसयलें आनी म्हज्या बरोबरच्यांकूय बसूंक सांगले.

म्हाका एम.पी.पणा जोखमीचें जाणवलें. हांव म्हज्या इश्टांमदें बसुनूय अनवळखी असो आखडून बशिल्लो. दोतोर मित्र सारखें सारखें, 'सर' म्हणत रावलो आनी ~~बसी मालीक~~- 'हय सायबानूं!'

निमाणे आमच्या पेण्यार पावले म्हणटकीर दोतोरान म्हाका संबोदून म्हळें, म्हाका सतत तीन वरांमेरेन 'सर' म्हूण आफय. म्हाका भोव अपमान सोसचें पडलें.

❋ ❋ ❋

'........ आर्विल्ल्या समाजांत आस्पावन राविल्ल्यो विसंगती, विशमताय आनी भ्रश्टाचारान गळ्यामेरेन बुडिल्ल्या गरीब सामान्य जिणे जगपी भौसाक सदांकाळ पिडा दिवपी सत्तेची, पैशाची आनी बावळ्यांच्या बळाची गुरमी चडिल्ल्या चांडाळ लोकांले मुखवटे कडसरावन तांचें खरें रूप दाखोवंक भौ. परसाईन व्यंग साहित्याचो माध्यम म्हूण यशस्वी उपेग केला.'

'........ खरें म्हळ्यार कायदो आनी न्यायाधीश दुश्ट लोकांक सजा दिवपाक आनी गिरेस्त लोकांक वायट मार्गापसून पयस दवरूंक यत्न करीत आसता. जाल्यार आमच्या देशांतल्या कायद्यांत, नेमांत अशो काय पळवाटो दवरल्यात तांचो फायदो घेवन समाजांतले वायट प्रवृत्तीचे लोक आनी राजकारणी सगळे तरेंचे वायट घडोवन आपूण स्वता मात चालाकीन कूस मारून वतात. अशा पळवाटांचेर ध्यान दिवपाखातीरूच व्यंग भाशेची गरज भासता.'

'........ व्यंगकार आपणाल्या लिखाणांतल्यान उपरोधिकपणान वा कुचाळकीन जें कितें सांगतात ताकालागून विशेश तिडक मारली ना जाल्यारूय मन थोडेंतरी कासावीस जाल्ले बगर रावचेना ........'

'........ अशीय एक म्हण तयार जाल्या;- '.. राजनीति ही थोडो वेळ चलपी धर्म आसा आनी धर्म हो खूब वेळे मेरेन चलपी राजनीति आसा. हालींचें आमच्या गणतंत्र प्रकारांत वयलेवयर बरेंच कितें देखीक दिसून येतात वा खऱ्यानीच अणभवंक मेळटात.''

'........ तुमी तरूण आसात...क्रांतिकारी आसात. जाल्यारं तुमी विद्यार्थ्यांनी राजनीतिंत भाग घेवंक नजो. ना जाल्यार आमकां राजनीति सोडची पडटली.... तुमी खऱ्यानी चरित्रवान जायात. तशें घडलें ना जाल्यार आमकां सदाचारी जावचें पडटलें आनी चारित्र्यवान जावपाची पिराय आतां आमची रावली ना...'

'........ चमचो म्हळ्यार वरिश्टांचें कसलेंय काम करपी मदतनीस. म्हत्वाच्या व्यक्तील्या म्हऱ्यांत एकादलो चमचो आसताच ...... सगळ्यांत व्हड चमचे राजकारणांतल्या फुडारी लोकांलें आसतात ..... चमचे जावप तितलें सोपें ना. एक बरो चमचो जावपाक कितेक वर्सां लागतात ..... चमचो बेसबरो हिकमती आसता. आपूण फुडाऱ्यालो भरवशाचो, तांच्या विस्वासाक लायकीचो, आनी आंगार घेतिल्लो वावर जायत्या मार्गान पुराय करपी अशें सांगत सगळेकडेन आपणाविशी म्हायती पातळायता. अशेतरेन चमचो आपणालो सुवार्थ विनाकश्टान साधीत आसता.

**प्रभाकर नाडकर्णी** हांगेलीं ह्या आदींची पुस्तकां-

- गजलप्रभा
- वळेसर शेर शायरीचो
- चित्रलेखा
- शिशिरांतली शेंवते फुलां
- हांव एक बुदवंत

**ISBN** 81-88202-04-05